जाग प्रकाशनाचें

**जाग**

म्हयनाळें

**वर्स ४५ : आंक १० : जून, २०१९**

❋ **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

❋ **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

❋ **संपादपी :**
आसावरी नायक

❋ **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक
एडना वाझ

❋ **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

❋ **छापपी :**
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

❋ **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## कथा विशेशांक

## मांडावळ...

०२ कल्चर ..................................................
..................................................गजानन जोग

०८ नवेंताल्ल ..................................................
.................................................. माया अनिल खरंगटे

११ रंगिली मदलस..................................................
..................................................हेमा नायक

१६ पालकी..................................................
..................................................विठ्ठल आवदियेंकार

१९ 'रि-युनियन' ..................................................
..................................................सखाराम शेणवी बोरकार

२१ दुर्गा ..................................................
..................................................सर्वेश नायक

२३ व्हडलो भाव..................................................
......................मूळ हिंदी कथा : प्रेमचंद (अणकार: रजनी भेंब्रे)

२७ शणै गोंयबाब म्हळ्यार फुडारिल्ले विचार, उदारमतवाद आनी द्रश्टेपण ..................................................उदय भेंब्रे

३० वर्सां..................................................
..................................................कृ. म. सुखठणकार

३३ बाकीबाबांच्या यादींचो 'मिलेर'..................................................
..................................................सखाराम शेणवी बोरकार

३५ कविता: ..................................................
..............माधव बोरकार, आर. एस. भास्कर, निलंबा खांडेकार.

भायले चित्र : इगॉन शील (ऑस्ट्रियन चित्रकार) (१८९०-१९१८)
भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप.

# कल्चर

## गजानन जोग

मुंबय महानगरांत एके राष्ट्रीयकृत बँकेचे शाखेंत जवाहर डिसुझा सिनियर मॅनेजर. आयज तो चिंतेस्त मनान ब्रँचीचो म्हयन्याच्या कामाचो रिपोर्ट पळयतालो. टार्गेटां आनी प्रत्यक्ष परिस्थिती हांची गांठ वर्स सोंपचे पयली कशी घालपाची हें काम कशें जमतलें, ताका कांयच कळनासलें.

मागीर अकस्मात ताका प्रमोशनाच्या शक्यतायेची याद जाली आनी ताचो गेल्लो मूड परतो जाग्यार आयलो. ताचो इंटव्ह्यू बरोच जाल्लो. सिनियॉरिटी, फाटले परफॉर्मन्स पळेल्यार सरळ मार्गानूच तो प्रमोट जांव येतालो. ते भायर ताचे गॉडफादरूय आसलेच. पूण कोंकणी लॉबी दिसान दीस वीक जावन दिल्लीवाले, तमीळ लॉबी आनी हेर नव्यो नव्यो लॉबी तयार जायत आसल्यो. ताच्या हाता-तोंडा कडेन आयिल्लो घांस कोणूय फारावंक शकतालो हेंवूय खरें आसलें. परतो ताचो मूड गेलो आनी बॅल मारून शिपायाक एक कडक कॉफी हाड म्हूण सांगलें. ते कॉफयेचो घोंट मारता थंय आसा ताचो सेलफोन वाजलो आनी ताचो आदलो बॉस आनी आतांचो एच.ओ. भितरलो एक जनरल मॅनेजर मिस्टर के. सुधाकर पै उलयतालो. तडांयच करून जवाहर उठून उबो रावलो आनी ताणें सायबाक सॅल्यूट केलो. मागीर ताचें ताकाच हांसपाक आयलें. ताची आदली मिलीटरींतली संवय कशीच वचनासली.

'जवाहरा, चान्स मारलो रे तुवें, तुका प्रमोशन रे पुता... कॉन्ग्रॅच्युलेशन्स्. तुका आनी तुजी बायल ॲनी की ॲना?'

'सर ॲना तें. न्यूज कन्फर्म्ड सर?'

'मिगेली न्यूज सदांच कन्फर्म्ड उरता. पूण यू कॅन से ऑलमोस्ट कन्फर्म्ड... पूण चिके राब, कोणाक सांगच्या वचनाका. तुका ऑफिशियल कॉल रोखडोच येवच्या पुरो. तेदना सांगी, किदें? मागीर, आनी कितें विशेश मुंबैतु?'

'काय ना सर. टार्गेट हाय राबलां, कडेर बिझनेस डावन ज्याला.'

'व्हय? पार्ट ऑफ दि गेम!... ओके रे. गीव्ह माय रिगार्डस् टू ॲना. युवर वायफ... बाय.'

थोड्याच वेळांत ताका ऑफिशियली ती प्रमोशनाची बातमी मेळ्ळी तेन्ना तो खूश जालो. जवाहर मूळ कर्नाटकांतल्या पुत्तूर गांवचो. आपणाक मंगळूराक नाच जाल्यार गोंयां बदली मेळची म्हूण ताणें बेगोबेग आनीक एका गॉडफादरा मार्फत खटपट सुरू केली. बडटे बराबर बदली हें धोरण बँको सोंपेपणान बदली नासल्यो. जेन्ना ताका गोंयांत डी.ओंत ॲडमिन इनचार्ज म्हूण बदली मेळपाची खबर आयली तेन्ना तो समाधानी जालो. ताका मंगळूरा लागीं खंयूय मेळ्ळ्यार सर्ग दोनूच बोटां वयर उरपाचो. पूण ताची बायल ॲना, जी तेच बँकेंत क्लॅरिकल केडरांत काम करताली, तिका मात खंडापट्टी खोशी जावंच्या पुरो हें तो जाणा आसलो. खूब वर्सां सावन ती गोंयां बदली जावंची म्हूण सायबीण माये कडेन मागताली. बेगोबेग जवाहरान गोंयांत बदलेची बातमी तिका फोनार सांगली.

'एक विशेष न्यूज तुक्का!! आमी गोंयां वेतो गो ॲना. म्हाका गोवा डीओ मेळ्ळा. तुका खंयची ब्रँच मेळता पळोवका, लाग्गी मेळल्या चांग ज्यातलें... तंय ट्रान्सपोर्ट चिके...'

ॲना बदलेची गजाल आयकून सामकें भुल्लूसलें. ताणें घोवाक सांगलें,

'जवाहर, गोंयांत म्हाका खंयचीय ब्रँच दिवं तांणी, फॉर नाव, यू मेड्मी हॅपी... यू आर माय स्वीट जवाहर! माय स्वीट जवाहर आय लव्ह यू!!

तीं उतरां आयकून जवाहराचें आंग रोमांचित जालें. ताच्या तोंडांतल्यान तीं उतरां येवप, आपणालें आंग शिरशिरप हें सगलें ताका व्हड अजाप कशें दिसलें. कितल्याश्याच म्हयन्यां भितर स्वीट सोडाच, जवाहर हें ताचें नांव लेगीत ताणें ॲनाच्या तोंडांतल्यान आयकूंक नासलें. तांचें एकटुकें चली जॅमा पणजे लागीं गर्ल्स् हॉस्टेलांत रावन शिकतालें. तें सुटयेंत येताले तेन्ना तांचो सदचो वावुरपाचो क्रम इल्लो बदलून तांतूंत जीवसाण, इल्ली उमेद येताली. ना जाल्यार तीं हालीं



हालीं एकमेका कडेन हां, हय ना, नाका अशे तरेचे एकोडच्या उतरांचे भाशेंत उलयतालीं.

पन्नासांक लागीं पाविल्लो जवाहर आनी पंचेचाळीस वर्सांचें ॲना. दोगांय एकाच घरांत दोन पेइंग गेस्ट रावचे तशीं रावतालीं. दोन कामवाल्यो येवन झाडू-पोछा, इस्त्री, नाश्टा, जेवण अशीं सगलीं म्हत्वाचीं कामां करताल्यो. ह्या दोगांक एकमेका कडेन उलोवपाचो प्रसंग जॅमा येतालें तेन्नाच, ना जाल्यार सदच्या रुटीनांत कितेंय बदल आसल्यार तें सांगपा पुरतीं तीं एकमेकां कडेन एकादें उतर उलयतालीं. जवाहराचो पोश्ट व्हड जाल्ल्यान तो जायते फावटी बेगीन वचून उसरां परततालो. ट्रेनिंग, मिटींग, कॉन्फरन्स् अश्या कामां खातीर दुसऱ्या शारांनी, हेड ऑफिसांत बीन वतालो. तेन्ना दीस सोंपतना ॲना ताका एक फोन करतालें, ना जाल्यार तो न्हिदपाक वच्चे आदीं 'आम् ओके, टेक केअर, गुडनायट्' म्हणपा पुरतो फान करतालो, पयले फावट कनेक्टिव्हिटी मेळूंक ना जाल्यार एक मॅसेज सोडून मेकळो जातालो...

ॲना मुळचें कांसावलेचें. मदीं एकूच वर्स जवाहराक गोंयांत बँक इन्स्पेक्टर म्हूण खास डेप्युटेशनार धाडिल्लो. तो कांसावले ॲनाच्या शेजरा रावपाक आयलो. सावदीक काम करून जाण्टेपणांत घरा रावपाक आयिल्ल्या मांयक अंकला कडेन तो रावतालो. ॲनाक तो आयतारच्या मिसाक स्कूटरीन व्हरपाक लागलो. स्कुटरीन वतना येतना वळख जाल्ली. फुडें ती वळख वाडली. तीं मोगांत पडलीं. तो मोग लग्न-संवसार-भुरगें अश्या रुपांत फुल्लो आनी फळ्ळो. पूण तांचे भितर मूळ सभावांचोच कितलोसो फरक आसलो. जवाहर वर्कहॉलिक, म्हत्वाकांक्षी, आनी एक्स सर्विसमॅन जाल्ल्यान जावंये, कडक शिस्तीचो. जाल्यार ॲना टिपिकल गोंयकार. ताणें सुसेगादपण पिरायेच्या सव्वीस-सत्तावीस वर्सां मेरेन भोगिल्लें. तें मौजेंत आनी मस्तेंत रावपी चली. आदीं आदीं जवाहर ॲनाक सुसेगाद गोंयकार, फिदाल्ग गोंयकार म्हूण चाळयतालो आनी तेंय तीं उतरां फकांडीनीशी धरतालें. पूण तीं फकाडां न्हय हें जेन्ना ॲनाक होलमलें तेन्ना मात तांचे मदें एक वणत उबी रावली.

गोंयांत बदलेचे बातमेक लागून ॲनाच्या जिवाक इतलें बरें दिसलें! उणींच तीं तीन वर्सां तरी गोंयां रावपाक मेळटलें!! ते बातमेन ताच्या मनांत खोशयेचीं ल्हारां फुटपाक लागलीं. वेळ पडल्यार पणजे लागींच्या उप नगरांत लागींच ताका बदली मेळपाची. बँकेची मॅनेजमेंट चडशी तितली काळजी घेता आनी घोव-बायलेक चड करून दोन लागींच्याच शाखांनी दवरता. आनी खंयूय घालें म्हूण कितें जालें, गोंयांत तरी आसतलेंच न्हय हांव अशें मनांत येवन ॲना खूश जालें आनी ताणें जॅमाक फोन करपाचो प्रयत्न केलो. पुण मागीर तें क्लासींत आसतलें हें लक्षांत घेवन ताणे 'गुड न्यूज वेटिंग फॉर यू. गॅज व्हॉट' असो ताका मॅसेज केलो. गोंयांत नव्या बिराडांत, नव्या वातावरणांत आनी घडये जॅमा वांगडाय रावपाक मेळ्ळ्यार जवाहर आपणाय कडेन बरो, आदले भशेन वागपाक लागतलो, परतीं एक पावट आमी आमचो त्रिकोनी संवसार सजयतलीं अशा मनोराज्यांत ॲना वचून पावलें.

मायाच्या निमण्या सुमानांत तीं दोगांय गोंयांत येवन जॉयन जालीं. जवाहराक सी.ओंत ॲडमिनाची सुवात मेळ्ळी.

मुंबय-गोंय फ्लायट तीन वरां डिले जाल्ल्यान चार्ज घेवपाक जवाहर पावलो तेन्ना साडेपांच जावन गेल्लीं. सगलो क्लॅरिकल स्टाफ गेल्लो आनी चार ऑफिसरांतले तीन, दोन मॅनेजरांतलो एकलो आनी प्यून अशे मेजून पांच जण ब्रँचीच्या दरवट्यार उबे आसले. मॅनेजरान ताका हार घालो, सिनियर ऑफिसरान तुरो दिलो. प्यूनान ताची ब्रिफकेस घेतली. जवाहर सरळ वचून आपणाल्या चेंबरांत बसलो. सगळे भायर उबे रावले. हातानूच ताणें सगल्यांक भितर आपयले आनी बसपाक सांगलें. प्यूनान दिल्लें उदक पिवन म्हळें,

'गुड इव्हिनिंग ॲंड वेलकम टू ब्रँच ॲंड गोवा सर.'

'यू आर मि. पै, मॅनेजर आय थिंक.'

'यस सर. हो टी. मोहनन्. सिनियर ऑफिसर. ॲंड धिस इज मिस्टर नाईक, ही एज लोकल पर्सन. अवर प्रॉबेशनरी ऑफिसर.'

'गुड इव्हिनिंग एव्हरीबडी हिअर. व्हाय क्लॅरिकल स्टाफ नॉट सीन?'

'सर क्लॅरिकल स्टाफ नो, दे गो एट फायव्ह थर्टी.'

'कस्सलें रे हें आयकुचें, एटलिस्ट न्यू सायब कसो दिसता पळोवच्याक राबचें नवे!!'

तो बळयां हांसलो खरो पूण आयकतल्या सगल्यांच्याच फाटीच्या कण्यांत शिरशिरलें. क्लॅरिकल स्टाफा भितरलो एकटोय ना ही गजाल ताका मात्त आवडूंक नासली हें ताच्या तोंडार स्पश्ट दिसतालें. नव्या सायबाचे नदरेंतलो धेंक शेक गाजयतालो. तो कडक आसा हें ताची नदरूच सांगताली. स्टाफाक दिसलें, आतां आमचे गोंयांत मजा मारपाचे दीस सोंपले. प्रॉबेशनरी नायकाक कन्फर्मेशनाची चिंता पडली...

ॲनाक कांसावले लागींचे ब्रँचींत बदली मेळ्ळी. बँकेचे मॅनेजर क्वार्टरस् आसले. थंय तीं रावपाक लागलीं. मनाक मारता तेन्ना जॅमा आतां तांकां मेळपाक लागलें आनी खऱ्यांनीच ॲनान चितिल्लें तशें थोडें थोडें घडपाक लागलें. सुटये दिसा सक्काळीं उठून जवाहर-जॅमान भायरूच आशिल्ल्या कोर्टांत बॅडमिन्टन खेळचें, शेनवारा सांजचें तिगांनीय कोलवा ना जाल्यार पणजे मिरामार बिचार वच्चें, राती भायर जेवण घेवचें, जवाहर जॅमा वांगडा ॲनान एक तियात्र लेगीत पळेलो. दुसऱ्या आयतारा मात जवाहर तियात्राक येवपाक कस्सोच तयार जायना जालो. आनी जॅमान जाल्यार तोंड आंबट्ट करून 'तिआत्र? नो वे!'' अशें सांगलें. तें तियात्र अकादेमी सर्तींत पयलें आयिल्लें आनी ताचे मंगळूर, मुंबय आनी कोचेन दौरे जाल्ले. तें आतां रोखडेंच गल्फाक वचपाचें आसलें. इतले बरे तियात्र पळोवपाचे सोडून जवाहर घरा फकत न्हिदून रावलो हें ॲनाक कळ्ळें तेन्ना ताका तें बरें दिसूंक ना. ताणें जवाहराक विचारलेंच,

'जवाहर, तुका बऱ्यांतलें बरें तियात्र चुकले मुरे.? तूं घरा न्हिदोन रावलोय, त्या बदला तियात्राक येवपाचो न्होय? तुजे बोशेनूच ड्यूटी बावंड पुलीस इन्स्पेक्टराचें लायफ दाकोयलां तितूंत... चुकलें तुका... आतां बेगीन दुसरो शो ना. ते परां चल्ले गल्फाच्या टूरार.'

'कस्सलें गो तियात्र आनी ताची काणी. माका रेस्ट जावुका. जून क्वार्टर एंड लाग्गीं पावलां, टार्गेटस् स्मॅश कोरका. सर्कल ऑफिसांतल्या जनांक रेस्ट ना गो... पूरा चार राती न्हिद ना... प्रमोशन ज्यालें, फायद्याच्या ज्यास्ती लॉस... तूं लकी गो. तूं गोंयकार. नो प्रमोशन, नो किटपिट... प्रमोशन घेवंच्याक कोण्ण रेडीना. म्हणता आसतलें, गोंय आनी नुस्तें सोडूं? नाक्रे पुता.. सुशेगाद गोंयकार. हॅपी गो लक्की!!'

ताणें सदचे संवयेन रिमार्क मारलो तेन्ना ॲनाक तकलेंत सण्ण जालें. गोंयकारांचेर कॉमेन्ट मारपाची खंयचीच संद तो केन्ना सोडिनासलो. कित्याक केल्ली गोंयकार बायल...? मागीर ताका चिंतून आयलें... हांव तरी कित्याक ह्या मिलिट्री मॅनाच्या कडक मिश्यांक आनी कडक फेर्राद कपड्यांक भुल्लुसलें? बँक, काम, टार्गेट, सेविंग्ज, डिसिप्लीन आनी प्रमोशनाची आस. हाचे फुडें हाका केन्ना कांय दुसरें दिसुंकूच ना.

दोन नोव्हेंबराक जॅमाचो बड्डे बरो गडगंज साजरो करप अशें ॲनान फ्लायटांतल्यान देंवून गोंयचे भूंयेर पांय दवरिल्लो तेन्नाच थरयल्लें. तो ख्रिसमस आनी नव्या वर्साचें प्लॅनूय ताचे तकलेंत घोळपाक लागिल्ले. नव्या शारांतल्या नव्या क्वार्टर्सांतले पयले थोडे म्हयने गडबडींत पूण बरे उमेदीन गेले. पूण मागीर ल्हव ल्हव परती आशिल्ली नात्यांतली आदली, यादींतली कोडसाण परती मदीं मदीं भायर सरपाक लागली. आनी जॅमा येतालें तितले पुरतीं तीं नाटक तियात्रांतलीं ज्युस्ता ज्युस्त, आयडियल मम्मी-डॅडी कशीं ॲक्टिंग करपाक लागलीं. जॅमाकूय तांचे भितर कितें पूण जालां हाचो वास लागलोच आनी ताणें आवयक दोन तीन पावटी विचारलें. ॲनान हांसत हांसत कांय ना गो, आतां आमी जाण्टीं जालीं न्हूय गो अशें म्हणत बासून उडयलें.

तशें मदीं मदीं दोगांय भितर बिनसळटालेंच, पूण एक दीस तांचे भितर झगडें जालें. जॅमाच्या बॉयफ्रँडाक जॅमाल्या बड्डे पार्टेक येवपाक कळाव जालो तेन्ना जवाहर चाळवलो आनी गोंयकारांच्या नांवान किरकिरत रावलो. मागीर ॲनाची व्हडली भयण रीटा वांगडा चौगांक घेवन पार्टेक आयली. तेन्ना तर जवाहरान रिटाक तूं सुमार बेगीन आयली मगे अशें तिरसटपणान म्हणलें. तो तितल्यारूच रावूंक ना, ताणें ॲनाक कुशीक घेवन विचारलें, तुवें भयणीकूच आपयल्ली जाल्यार हे सगले लोक कोण?... ॲनान ताका समजावन सांगलें, ते आमचेच लोक आनी तांतूंत फकत एकलोच शेजारी आसा जाका तांणी गाडी चलोवपा खातीर हाडला. तीं दुसऱ्या कोणाक तरी मेळपाचें काम आसलें तें करून आयल्यांत. तेंय म्हत्वाचेंच काम जावन आसलें आनी गांवांत रावपी लोक अशे तरेच्यो एका फारांत दोन बर्कीं उडोवपाच्यो आयडिया करतातूच. गांवांतल्यान शारांत येवप, परतें वचप, तितलें सोंपें ना हांगा, ही मुंबय न्हय... अशें सगलें ॲनान ताका समजावन सांगलें. आनी विचारलें, रातचे पार्टेक लेट जालोच, जाल्यार तातूंत कितें व्हडलेंशें? ते दीस पार्टी सोंपले उपरांत जवाहरान तो लेट येवपी लोकांचो विशय परतो काडलो आनी नेट्टान ताणें जीं उतरां तोंडांतल्यान काडलीं तीं आयकून ॲना सामकें तापलें.

'तुमी गोंयकार अशेच. सुशेगाद. तुमी टायम सांबाळीना. तुमी कामाकूच लेट पावतात. तुमका वर्क कल्चरूच ना. तुमी हांव गोंयकार मरे म्हणत आराम आसतात. हेर जनांक ड्यू रिस्पेक्ट दीनाति. धिस इज माय ऑब्झर्वेशन. सगल्यांक उणेच ते तीन तीन वर्स मुंबै धाडची आयडिया एचओक सजेस्ट कोरका!'

ॲना चाळवलें आनी ताणें आड्डून जवाहराक सांगलें,

'जवाहर, प्रमोशन घेवप कम्पलसरी ना मूं? ना मूं? तूं म्हाका जाय तें म्हूण पूण सोगल्या गोंयकारांचेर तूं उलोवचो ना. इफ यू पास एनी मोअर स्वीपींग रिमार्क ऑन गोंयकार, जाल्यार म्हूज्या परस वायट कोण्ण आसचो ना.' ॲनाचें कडिल्लें. तिडकीन हें म्हणत तें गेस्ट रुमात गेलें. नेट्टान ढण्ण करून ताणें दार मारलें. दूसरे दीस जॅमा हॉस्टेलार गेलें आनी वतना ताणें सांगलें,

'मॉम, हांव नेक्स्ट फ्यू संडेक येना, विल स्टडी देअर.'

'तुज्यान हिंगाय स्टडी कोरच्याक जाता जॅमा... यू नो, आय ॲम ऑल अलोन हिअर. युवर डॅडी कम्स् व्हेरी लेट.'

जॅमान बावळे वयर उबारुन सोडले. तोंड आंबट केलें आनी तें सॅक फाटीक लावन सुटलें.

ॲनाच्या उसरां उठपा वेल्यान, मदीं मदीं ॲनाच्या लीव्ह घेवन कलिगां वांगडा विक-एंडाक बारीक सारीक टूरार वचपां वेल्यान, जवाहराचे नदरेन ताच्या फालतू खर्च करपाचे संवयेक लागून तांचें झगडें जावपाक लागलें. फुडें तें झगडें जवाहराचो पयशिल्लो सोयरो फादर पिंटो मेरेन पावलें. तीं दोगाय एक दीस फेस्ता फेरयेंत मेळ्ळी तेन्ना फादरान तांकां कुशीक आपोवन आडून आडून जायत्या घरांनी जावपी घोव-बायले भितरल्या मतभेदांचो, मनभेदांचो विशय काडलो. एज्युकेटेड शुड फायंड आवट देअर ओन सोल्यूशन अशें सुचयलें. जवाहरान फादर अंकलान दिल्ली ती हिंट बरी आयकून घेतली आनी तिचेर अंमल केलो. तेन्नाच्यान ल्हव ल्हव तीं झगड्यां पसून पयस गेली. पूण वायट गजाल अशी जाली-ती एकमेकां पसून लेगीत आनीक पयस वचपाक लागली.

एक दीस ॲनाक सकाळीं इकरांक सुमार सेलाचेर जवाहराचो फोन आयलो. तें कावंटरार आसलें, बिझी आसां, मागीर हांव करतां म्हूण सांगून ॲनान तो बंद केलो. थोड्या वेळान मॅनेजरान ताका केबिनांत आपयलें आनी रिसिव्हराचेर हात दवरून डीएम् जवाहर सायब... अशें म्हणून फोन ताचे कडेन दिलो. घेवन ताणें विचारलें,

'कितें जालें? कावंटरार रश आसा...'

'जस्ट वन मिनीट... एक इम्पोर्टंट काम कोरका तुवें. तुमगेल्या ब्रँचांत खंडापट्टी पेंडींग अनक्लेम्ड डिपॉझिट आसात वट्ट १७० एकावन्टस्, तांतूत होड होड, लक्ष दोन लक्ष अस्सले सिक्स आसाती. येक सिंगल एकावंट चारलक्ष प्लस आसा, कस्टमराचें नांव आंतु मोनीझ, बँकें लागीं, कांसावली गोंय इतलोच एड्रेस आसा. रेकॉर्डांक तो मेला म्हूण न्यूज. फिलोमेना तेलिश म्हणून सांगून घेवन हिज डॉटर अँड नॉमिनी रेकॉर्डांक आसा. तिगेलो एड्रेस मेळना. डेथ सर्टिफिकेट रेकॉर्डांक ना, मात्र लेजरांत तांबडो रिमार्क आसा 'पार्टी रिपोर्टेड डिसीझ्ड. रिमार्क डेट दोन-अडेज वर्सां फाटली.' चलयेचो अॅड्रेस सोदका. चार लक्ष

अमावंट लेस ज्यातली, आय वॉन्ट टू ब्रिंग द नंबर ऑफ अकावन्टस् इन टू डिजीटस'...

ॲनाची तकली उसळपाक लागली. केदें व्हडलें सेमींव हें, कामाच्या वेळार ताणें म्हळें,

'ओके, आय्ल लुक इन्टू इट.' आनी फोन दवरलो.

मागीर मॅनेजरान झेरॉक्स मारून तयार दवरिल्लें दोन पानांचें एक लिस्ट तिच्या हातांत दिलें. तें घेवन तें आशिल्लें तशें कावंटरार गेलें. लंच-ब्रेकांत ताणें त्या फिलोमेनाचो कितेंय होलम लागता काय पळेलो. नांव, ती डिपॉझिटराची चली आनी तिची पिराय ४० इतलीच म्हायती मेळटाली. नाय जाल्यार नॉमिनीची आनीक कितली म्हायती बँकें कडेन आसता असो विचार तिच्या मनांत आयलो. जेवतना तिणें तो विशय हेर कलिगां लागीं काडलो तेन्ना म्हादेव आपणाल्या टेबलाचेर जेवणाचो व्हडलो दबो बँकेच्या पोन्न्या कॅलेंडराच्या पानार दवरून शिताचे गुळे करू-करून मना पसून जेवतालो. मदीं इल्ल्याश्या कसल्या तरी नुस्त्याच्या कुडक्याचो इल्लोसो कुडको काडून परतो तो कुडको सांबाळून दब्याच्या धापण्यांत दवरतालो. ॲनाक ताची काकूट दिसली. गरजे परस कितलेंशेंच चड नुस्तें आपणाल्या टिफिनांत सद्दां आसतालें आनी कितलेशेच पावटी निमाणें तें बँकेचे फाटले वटेन नेमान येवपी माजरांक घालतालें. (ताणें सहजपणान त्या फिलोमेनाचो विशय काडलो.)

'म्हादेव, तुका बीन फिलोमेना तेलिश खबर आसा रे?'

'ना गो ॲनाबाय, सायबूय विचारतालो व्हडदळ म्हाका. मुद्दाम आदलो पोन्नो इंडेक्स बूक पळय. तुका पांच-स फिलोमेना मेळटलीं. हें तुका जाय तें खंयचें कशें कळपाचें? एकूच उपाय आसा, जाण्टेल्या अंता पोस्टमाक विचारपाचें. तो सांगत एकानचो. नाच जाल्यार मागीर निमाणें पादिगाराक सांगून इंगोर्जेंत मिसाचे वेळार सगल्यांक विचारपाचें आयतारां विचारल्यार बरें... कळत एकानचें हें फिलोमेना कोण तें.

सांजचें घरा येवन च्या घेवन फ्रेश जाले उपरांत ताणें तें लिस्ट काडून पळेलें. ॲनाचे ब्रँचींत अनक्लेम्ड डिपॉझिट सत्तर लाख आसले. १५ लोकांचे दुडू लाखा वयर आसले आनी एकल्याचे जाल्यार साडेसात लाख तिनेक वर्सां सावन पडून आसले. आंतु मोनिझ नांवाच्या मनशाच्या नांवान तेरा डिपॉझिट रिसिटी आनी एक सेविंग्ज अकावन्टांत मेळून ते पयशे आसले.

दुसरे दीस डेली वेजरा कडेन रकाद दिवन ॲनान पोस्टमन अंताक आपयलो. ताणें सांगलें की, करमण्या काजार करून दिल्लें तेंच आसतलें तें चड करून. आंतू कितलींशींच वर्सां वास्को शारांत भीक मागतालो. ताका लागून ह्या फिलूक भिक्यालें फिलू म्हूण वळखताले.

मेळ्ळ्या तितली म्हायती घरा पावतकुच ताणें बरोवन काडली आनी तो पेपर जवाहराच्या स्टडी टेबलार दवरलो. रातचो णवां आदीं तो आयलो. जेवतना ताणें तो विशय काडलो तेन्ना ॲनान तुज्या मेजा वेलो पेपर पळय अशें ताका सांगलें. तसोच उठून तो पेपर घेवन आयलो आनी वाचीत जेवपाक लागलो.

'गुड गुड मिसेस डीएम!!' ताणें ॲना कडेन पळोवन थम्सअपचो आंगठो दाखयलो.' ॲनाक ताचीं उतरां बरीं लागलीं. पूण ताणें थंड पणान म्हळें,

'जवाहर, कावंटरार आसतना माका फोन कोन्नाकाय... कस्टमर बेजारतात.'

'यू आर रायट... आय्म् सॉरी फॉर दॅट.'

'सॅम ऑफ देम नो मी, आय्म् युवर वाईफ, सो...'

'यस यस, यू आर रायट, नो इश्यू. आय विल सेटल धिस फोर लॅक इश्यू धिस विक...' तो बिनधास्त जालो तें पळोवन ॲनान जॅमाच्या बॉयफ्रेंडाचो विशय काडलो.

'सी जवाहर, विल्बर याद आसा? -जॅमाचो फ्रेंड रे... तो शिर्विशेक भायर वचपाचो आसा रोखडोच. वचच्चे आदीं ताणें जॅमाक मुदी घालुनूच वच्चें अशें ताची मामा सांगता खंय. आय फाईंड सम रिस्क इन इट. तें चोड बेगीनूय जातलें.'

'यस् यस्, रिस्क आसच्या पुरो, जॅमा कितें म्हुण्टा?'

'तें माकाच कितें तें सांग म्हूण्टा.'

'फनी गर्ल... लेट हर डिसायड. ॲना, माकाय दिसता, काजराचें चिंतोप मागीर, आफ्टर एड्युकेशन. सोड, तें मागीर पोवया. संडेक आमी कारमोणा वचूंका सोकांयच्या मिसा वेळार.'

थरिल्ले प्रमाण तीं दोगांय आयतारा दिसा सकाळीं साडेसंक भायर सरून कारमोणा पावलीं आनी फादराक मेळून ताचे कडेन सगलो फाक्त ताका सांगलो. फादर सामको कोऑपरेटीव्ह आसलो. ताणें कांसावले कुळार आशिल्ल्या फिलोमेनाच्या नांवान सकाळच्या सगल्या मिसांक अनाउन्समेंट करपाचें काम आपूण करतां अशें सांगलें आनी तांकां साडे बारांक सुमार येवन मेळात अशें सुचयलें.

त्या दिसाच्या दुसऱ्या मिसा उपरांत जेन्ना फादरान त्या फिलु संबंधान सगल्यांक सांगलें तेन्ना एके बायलेन हात वयर केलो. फादरान तिका फाटीं रावपाक सांगलें. सगले लोक गेले उपरांत ती वचून फादराक मेळ्ळी. फादरान तिचे कडेन नदर मारली आनी म्हळें,

'देव बरो दीस दिव तुका फिलोमेना बाय.'

'तुकाय बरो दीस मागतां फादर.' फिलून तकली सकयल बावगून म्हळें.

'खुंय राबता तूं बाय?'

'आंबट्या आंब्या स्टॉप खोबोर हा फादर तुका?' आसा तितलींच पुरो, आनीक कास्किसांव येनासल्या पुरो अशें फिलून मनांत म्हळें.

'ओय ओय, चोयला आंवें तो आंबो.'

'तिंगाच, मुखारूच हां मुगे घोर. मुखार इल्ले सुलची नोळे, फाटल्यान आदले कुमरांचे, इंचारल्यार कोणूय सांगोत. पूण फादर किदें जालां? फादर, तूं घोरा लागीं येवंक सोदताय जाल्यार आदीं माक रेकाद दी... लिंपेज कोरूंक जाय... देखून...'

बस अशें खुणेन सांगून तो आपुणूय बसलो आनी खासा फादराच्या गोड, शांत आवाजांत विचारलें,

'आयक गो, बोश्टेंच आबुलार कित्याक जाताय... तुजो पाय, ताचें नांव किदें गो?'

'आंतोन तो, आंतोन मोनिझ. ताका आंतु म्हूण्टाले कित्याक इंचारताय फादर तो सोंपून तीन वोर्सां जातलीं. आनीक दोन म्हूयन्यांनी. तेगे कित जालें?'

'सुसेगाद, शांती धोर गो. कांयच बानगोड

ना. गांवान खुंयचो तो? कोसलें काम कोत्तालो गो? भायर पोडलो तेदोना व्हिदाद कितु तेजी?'

'कांसवलेचो. आतां बोन आसता आमचें तें घोर... एक फाल्त सोत्तोर आसलीं तेका.'

'काम कोसलें कोरतालो? शिर्वीस, बिझनेस?'

फिलू वोगीच रावलें. हातांतलो धाकटुलो लेंस बेठोच दामपाक लागलें.

'सांग गो, कित कोत्तालो तो? बरे दुडू जोडटालो म्हूण आयकोलां, देखून-'

'फादर, सांगच्या लोज दिसोता भीक मागतालो तो. आदीं गांवांत मागतालो. हांव नाका म्हूण्टालें म्हूण मागीर वास्को वोचोन मागपाक लागलो. खुंयचे एके बँके मुखार, स्टेशनारूय बोसतालो तो... आदीं तो पोदेराले ऊंडे इकतालो. मागीर तो कांयच काम कोरिना जालो.'

'कांय प्रोब्लेम ना. तेजें डेथ सर्टिफिकेट जाय, तें आंव पोयतां. हां, तुका भाव, भोयणां कितलीं?'

'कोण्ण ना फादर, हांव एकलेंच.'

'गूड, आतां, आयक आतां तूं एकूच काम कोर. मात्शें बोस तुमच्या कांसावले गांवचे बँकांतलें तें बाय आनी तेगे घोरकार येतोलीं हिंगा. तूं तेचे बारी उलोय, आनी तीं सांगतात तोशें कोरी. जन्टलमॅन आनी व्होडलो बँकेकार तो. तुजो जायतो फायदो कोरतोलो तो. राव हां, वोसनाकाय, हांव हिंगाच हां भितोर.' अशें म्हणत फादर फाटल्या सालांत गेलो.

सारकीं साडे-बारांक जवाहर-ॲनाची जोडी चर्ची कडेन पावली. गाडयेचो हॉर्न आयकून फादर भायर आयलो. तिगांकूय फादरान भितरल्या रुमांत व्हेलीं आनी पिवपाक थंड सरबत दिवन उलोवण्याक सुरवात करून दिली.

तीं बरी अर्द वर उलयलीं आनी मागीर फादरान फोर्स केलो देखून फिलू तांचे गाडयेंत घरा वचपाक तयार जालें. तीं दोगांय गाडये कडेन उबीं रावून फादराशीं उलयतात शी पळोवन फिलू धांवत लागींच्या गाड्यार गेलें आनी दूद, बिस्कुत्यो असलें सामान घेवन आशिल्लें तशें तांचे कडेन पावलें. तिगांय गाडयेंत बसलीं फादरान तांका हात हालोवन बाय केलें. त्या वीस पंचवीस मिन्टांचे वाटेर जवाहरान कितलेशेच प्रस्न फिलूक विचारले आनी ताची जायती म्हायती काडून घेतली. ताका दोन भुरगीं. घोव हालींच भायर गेला कारण तो काम करतालो ती फॅक्टरी बंद जाली आनी तो बेकार उरपाक लागलो. चलो व्हडलो तो मडगांवां एका स्टोरांत काम करता आनी चली शिकता. ती धावेक आसा. ती बरी स्कॉलर आसा. फिलू घर, इल्लें पोरसूं सांबाळून घरांतूच लेडीज टेलराचेंय काम करता. ताचो बँकेंत दिसाक पंचवीसांचो पिग्मी एकावण्ट आसा. मागीर जवाहरान ताका रोखडीच तुका बँक बरी खबर दितली अशें सांगलें. सगलें डॉक्युमेंटेशन जावन, तो क्लेम हिच्याच नांवान सेटल करपाचो हें थरलें बगर तो सगलें तिका सांगूंक शकनासलो.

'बाबाक शिर्वीस मेवोत रे सायबा तुजे बँकेंत?' फिलून पयलेच पावट आवाजांत इल्ली चड गोडसाण हाडीत फुडें वांकून सायबा कडेन पळयत विचारलें. ताचेर ऊं ऊं करून सायब स्टेरिंगाचेर बोटां मारीत गाडी चलयत रावलो. फुडें काडिल्लें तोंड फिलून फाटीं घेतलें आनी केन्ना पावता काय म्हूण घड्याळ पळोवपाक लागलें. थोड्या वेळान तीं पावलीं. फिलून तांकां च्या बिस्कुत्यो दिल्यो. जवाहरान घर कोणाल्या नांवार आसा, सगली जमीन कितली आसा अश्यो जायत्यो चौकश्यो केल्यो. आतां फिलू बेजारिल्लें आनी केन्ना काय हीं वेतात अशें ताका जाल्लें.

'बरें फिलू बाय, वेतात आमी.' गाडयेत बसत जवाहरान म्हळें, 'दोन दिसांनी तूं वचोन फादराक मेव. ताजे कोडे फॉर्मा दिल्यांत, तो भोरतोलो तीं. तूं फोकोत सायनी कोर. हें मुजें कार्ड घे. फोन नंबर दिलां हो पोय हिंगा. फादराक मात मेवपाक इसरूं नाकाय. रोखडींच मेळूंया, गूड लक!' अशें म्हणत जवाहरान गाडी सोडली. 'फिलोमेना बाय, तुका कसलोच त्रास जांवचोना हां, बेश्टेंच भियो नाकाय.' पयलेच पावट तोंड उगडून ॲनान फिलूक हात दिवपा खातीर परतें दार उगडून भायर वचून म्हळें खात्रीशी दिसून फिलू हांसलें.

चार दिसांनी ॲनान आपणाल्या सिटार बसून सिस्टम लॉग-इन केलां मात, मॅनेजर बेगी बेगीन आयलो आनी ताणें सांगलें,

'ॲना, दॅट फिलोमेना कमिंग शॉर्टली, रमाक तुज्या जाग्यार बसूं दी. तूं लॉग आवट कर आनी मात्शें केबिनांत यो. रमा, प्लीज मॅनेज धिस कांवटर फॉर फ्यू मिनिटस्' तोंडार कसलोच भाव दाखय नासतना रमा येवन त्या सिटार बसलें आनी ताणें लॉग-इन केलें. हीं फ्यू मिनिटस् सांज मेरेन सोंपपाचीं नात हें ताका बेसबरें खबर आसलें. ताका दिल्ले बॅक ऑफिस कामूय तो फाल्यां मागतलो हेंवूय रमाक खबर आसलें. कांवटरार कोण नासता तेन्ना मदीं मदीं आपणाक दिल्लें मूळ काम करपाक मेळचें म्हूण ताणें जागो केलो आनी आपणाले अकावन्ट बुक्स थंय हाता कडेन हाडून दवरले.

ॲनाल्या ब्रॅंच मॅनेजरान परत एक पावट ताका फिलूची परिस्थिती, ताणें कितें सांगलें सगली उजळणी करपाक लायली आनी विचारलें, 'ॲना, एव्हरीथिंग ओके मगो? मॅटर ऑफ लॅक्स, नॉट थावजण्डस्'.

'सर, म्हाका इतलेंच भितरल्यान सांगन दिसता, ती बायल हार्ड वर्कर, हॉनेस्ट.' मॅनेजर हांसलो. ताचे तकले वेलो भार मात्सो उणो जालो.

थोड्या वेळान फिलोमेना, ताचो चलो रॉनी आनी फादर पावलीं. त्या आवय-पुताक भायर बसपाक सांगून मॅनेजरान फादराक केबिनांत आपोवन घेतलो. 'गुड मॉर्निंग फादर, वी हॅव वेस्टेड युवर टायम इन धिस केस.' प्युनान हाडून दिल्ली च्या घेवपाक सांगून मॅनेजरान उलवणें सुरु केलें.

'माय ड्युटी सर. हांव फादर. भुरग्यांची केअर घेवपाचें रजांव आमचें.'

'इट्स ट्रू!'

'बट सर, युवर तो वयलो सायब कोण तो.'

'डीएम सायब. तो तुमकां मेळपाक आयिल्लो न्ही संडेक?'

'यस यस, डीएम. व्हेरी ड्यूटी बाऊंड पर्सन. बट सॉरी, तुमचें काम, त्रास वेस्ट जाले. ताका क्लेम कोरपाचे नात ते दुडू!!

'व्हॉट? फादर, तांकां खबर आसा कितले पयशे आसात ते?'

'व्हेरी वेल. बट. हांव तांकां समजावंक शकलो ना. तुमी ट्राय करात.'

मॅनिजरान तांकां भितर आपोवन बसयलीं आनी क्लेम नाका म्हणपाचें कारण विचारलें. तांतूत कसलीच भिरांत ना, कायद्याची कटकट जावंची ना अशें जाय जाल्यार बरोवन दितां अशेंय सांगलें. तीं च्या पिता आसतना लाखांनी रुपया बेठेच सरकाराक वेतले हेंय ताणें परतें परतें तांकां समजावन सांगलें. निमाणो ताणें जवाहरसायबाक फोन केलो. जवाहरान आपूण पर्सनली येवन तांकां मेळटां अशें सांगलें तेन्ना मॅनिजराक हांसो फुटलो. ही क्लेमाची भानगड ताच्या बोडार येवपाची आतां शक्यताय नासली. टेन्शन देंविल्ल्यान ताका सू जाल्लें. ताणें तिगांकूय मात्शीं भायर बसपाक सांगून जिवाक आनीक मात्शें बरें दिसपा खातीर प्युनाक आपोवन आपणाकूय एक च्या हाडपाक सांगली.

अर्द वरा भितर डीएम पावलो आनी आपणाले मिलिट्री पद्दतीन झपझप धेंपा मारीत ताणें ब्रँचीत ॲन्ट्री घेतली तेन्ना स्टाफ उठून उबो रावलो आनी फिलोमेना, ताचो पुतूय उबो रावलो. सगल्यांक गुडमॉर्निंग म्हणत बसपाक सांगून फादराक वीश करुन ताणें तिगांकूय केबिनांत आपयलीं. तो वचून मॅनेजराचे खुर्चेर बसलो आनी मॅनेजरान लागींचेच स्टूल मुखार ओडून घेतलें तेन्ना ताणें सांगलें,

'नॉट दॅट वे, ऑस्क फॉर वन चेअर प्लीज.' थोडो वेळ दोळे धांपून ताणें कितें तरी चिंतलें आनी उलोवपाक सुरवात केली.

'मॅडम फिलोमेना, आंवेन तुजें घोर-दार देयलां. तेका रिपेर कोरका. तूं मुजें आयक. तो दुडू तूं घे आनी घोर रिपेर कोर.' 'सर, नाका, आमी त्या दुडवांक हात लावचीं नात!' ॲनाचो आवाज कांपतालो. ताणें लेंस काडलो आनी दोळ्यांक लायलो. त्या लेंसा कडेन बारीकसाणीन पळयत जवाहरान विशय बदलपाक विचारलें,

'मॅडम, पर्सनल गजाल विचारतां. रागार जावं नाका. हो कर्चिफ खूंय घेतलो तुवें? ते दीस तुजे कोडे दुसरो आसलो, तोवूय स्पेशल आसलो. होवूय च्यांग आसा.'

'सर सर' रॉनीन पयलेच पावट तोंड उगडलें. 'सांग रे पुता!'

'सर, शी इज टेलर-डिझायनर. ती स्पेशल कर्चिफ, स्कार्फ कोरता.'

'व्हेरी नाईस. आय वॉन्ट अ डझन, मुजी घोरकान्न आनी धुवे खातीर. दुडू घेताय जाल्यारूय. हांव गिफ्ट घेवपाचो ना.' आवय-पुतान एकमेकाच्या तोंडा कडेन पळयलें. मागीर फिलोमेनान सांगलें,

'यस सर, दुडू घेतलें हांव.'

'दॅंडस् गूड. आतां माका सांग, तुज्या बापायचे, कायद्यान तुमकां येतात ते दुडू तुमकां कित्याक नाकात?' ल्हव आवाजांत मॅनिजरान ॲनाक भितर आपोवपाक सांगलें. ॲना आयलें आनी ताणें फिलोमेनाक हटकिलें.

'मॅडम, दाक्षिणी कोरनाका.. ॲना, प्लीज सांग तिका.'

'बाय फिलोमेना, सायब म्हण्टा, तूं लोजेक पोडों नाका, दुडू घेवप बोरें. नाच्च जाल्यार तुज्या मोनांतलें. पूण सांग सायबाक.' ॲना वचून फिलोमेनाचें कुशीक बसलें आनी ताणें फिलूचे फाटीर हात दवरलो.

'सांगता सर आयकात तुमी.' फिलूचो आवाज गंभीर, जड जाल्लो.

'तो भीक मागपाक लागलो आनी गांवांत म्हाका भिक्यालें फिलू म्हूण लोक वळखुपाक लागले. ल्हान आसतोना मांयक होगडायली. सोगले भोगणार सोंसले. पेजे-नीस पियोन दीस काडले पूण दोगांय आमी मानान जियेतालीं. भीक मागपाचें तेका कोणें लायलें आंव नोकळो. पूण तेन्नाच्यान हांवें ताचो एक पयसो खावंक ना. बोऱ्या नोशिबान बेगीन काजार जालें आनी सुटलें. कारमोणा ये, मुजेशीं राव, ओशें कितु पावट सांगलें तेका. पूण तेका भिकेचो दुडू गोड जालो. जावं, हांवें ताचो भिकेचो एक पयसो खावंक ना आनी खावंचेंय ना. आमी काम कोरून जियेतात. तोशींच जियेतोलीं. आमी नांव राखून जियेतलीं. भिक्याले दुडू घेवप म्हूणल्यार लोज ती ह्या मुज्या हातांक!' जवाहरान मान हालयली. आतां ताणें रॉनी कडेन पळयलें आनी ताका सांगलें.

'सी रॉनी, तूं मेजर भुरगो, तुका से आसा. तुका कितें दिसता? तुज्यान ते दुडू घेवं येता तुका जाय जाल्यार.'

'सॉरी सर, माय मदर्स वर्ड फायनल. आमी गिरेस्त न्होय, पूण आमी ते दुडू घेवपाक शेकनात. आमकां गांवांत रिस्पेक्ट आसा. माय मदर इज एक्स पंच. दोन पावट ती पंच आसली वॉर्डांत, कामां कोरपी पंच.'

'ओह, दॅटस् इंटरेस्टिंग!!' भितरल्यान सामको निरुत्तर जाल्लो जवाहर सायब उलयलो. वक्ल काडून दोन मिन्टां दावो आंगठो आनी पयलें बोट ताणें नाका कडेन दोनाय धांपिल्ल्या दोळ्यांचेर दवरलें आनी मात्शा वेळान दोळे उगडून ताणें म्हळें, 'यस रॉनी, हर डिसिजन इज फायनल! यू मे प्लीज मूव्ह. थॅंक्स अ लॉट फादर.'

जवाहरान ॲनाक एका दिसाची कॅज्युअल घेवपाक सांगली. मॅनेजर नाका, लिव्ह कित्याक म्हण्टालो, ताणें लॉगीन केल्ल्याचें टेक्निकल कारणूय मॅनिजरान सांगलें आनी लिवे बगर आपूण मॅनेज करतां अशें सांगलें. पुण डीएमा फुडें तो उलोवंक शकनासलो. ॲनाची लीव ताणें मार्क केली आनी लीव घेवपा फाटले पटसारकें कारूण घालून लॉग रिपोर्ट लावन वयल्या ऑफिसाक बरयलें.

येतना वाटेर जवाहरान गाडी एका निर्जन बिचार घेतली. मुखार इल्ली रेंव, ताचे फुडें अफाट निळो निळो दर्या, वतांत चकचकपी मांडिल्लें, इल्लें इल्लें धोलपी उदक आनी कुशीच्यान राखपाक राविल्ले भशेन दोंगराचें सैन्य. कितलोसोच वेळ तो फुडें पळयत रावलो. ॲनान कसली तरी हालचाल केली तेन्ना ताणें बावगून ल्हवूच दावो हात ॲनाच्या गळ्यांत घालो आनी म्हळें, 'मॅडम, नो मोअर कल्चरल लेक्चर्स अँड कॉमेन्टस् ऑन युवर पीपल... प्रॉमिस.' म्हणत ताणें हात फुडें केलो.

'थॅंक्स् जवाहर... जवाहर, धिस इज व्हेरी एक्सेप्शनल केस. पूण जवाहर, रिजनल आयडेन्टिटी, लाईक्स, डिसलाइक्स आमी रिस्पेक्ट कोरपाकूच जाय. आमकांय मंगळूर कारांच्यो थोड्या गजाली घोस्ताक वचनात पूण...'

'यू आर रायट!! आम व्हेरी प्रावड ऑफ यु ॲना.'

संपर्क: 9421246655





# नवेंताल्ल

माया अनिल खांगटे

फाल्यां कॅरलाचो चोविसावो वाडदीस. भाटकारागेर सामको बोवाळ सुरू आसलो. नायी जाल्यार कॅरलाच्या दर वाडदिसाक भाटकारागेर बोवाळ आसताच. सगळीं कामां जाग्यार घालून सिफा भाटकान्नीन दिल्लो व्हिस्तीद घेवन भाटकाराल्या घरा फाटल्यान आशिल्ल्या आपल्या घरांत आयलें. व्हिस्तीद तसोच मेजार दवरून तें न्हिदलें.

सकाळीं उठून च्या पियेवन जातकर सिफान कॅरलाचो व्हिस्तीद घालून पळयलो... ''सारको जालो पळे... एक आंगूळ-भर लेगीत सदळ-गच्च ना.''

तें आवय म्हऱ्यांत आयलें... ''अम्मी कसो दिसता हो ड्रेस? हो रंग म्हाका बरो सोबता न्ही?''

- ''नवो घेवन दिला तुका बेटा?''

- ''नवो? इतलो बरो ड्रेस नवोताल्ल म्हज्या नशिबांत आसा अम्मी?'' सिफान तिडकून म्हळें.

सिफा ल्हानपणांतल्यान कॅरलाचे कपडे, बूट, जोतीं, सगळें वापरतालें. ताका केन्ना ताचें वायट दिसलें ना. पूण व्हड जातकच मात, 'भाटकान्न म्हाका इतलें बरें करता तरी एक्कय फावट म्हाका नवो ड्रेस कित्याक हाडिना' म्हणून आवयचो जीव खातालें.

एक दीस आवयन ताका ईदाक नवो व्हिस्तीद घेवंक बाजारात व्हेलें. पूण थंयचे ते सादे ड्रेस पळोवन सिफाक नवो ड्रेसच नाका जालो. ताका दिसलें - 'ह्या ड्रेसां परस कॅरलान घातिल्ले ड्रेस कितलेच बरे आसात.' परत केन्नाच ताणें नवो ड्रेस जाय म्हणून हट केलो ना.

आपल्या आवयच्या प्रस्नान ताणें मनांत चिड्डून दवरिल्लो गूट दुखवलो रोखडेंच ताणें म्हळें,

- ''अम्मी, आतां ह्या वयार नवो ड्रेस, पोन्नो ड्रेस हाचें वायट दिसना. ल्हान आसतना सदांच कॅरलान वापरिल्ल्यो वस्तू दितकर मात खूब वायट दिसतालें.''

- ''हय बेटा, ल्हान आसतना नविताल्ल वस्त जाय म्हणून हट्ट केल्ले खातीर खूब मार खाला तुवें.''

- ''याद आसा अम्मी, सगळें याद आसा. तेन्नाच हावें कसम खाल्ली अम्मी, ह्यान फुडें तुजे कडेन नव्या ड्रेसाक हट्ट करचें ना म्हणून.''

- ''हां बेटा. म्हणून ईद येता, रमजान येता पूण तुवें म्हाका केन्नाच नवे कपडे घेवपाक दिवूं ना.''

सिफा आनी ताची अम्मी दोगांय भाटकाराच्या घरा फाटल्यान कामगारांक बांदिल्ल्या एका ल्हानश्या घरांत रावतालीं. सिफाची अम्मी, झीनत बी घोवान सोडत साकून इल्ल्याश्या सिफाक घेवन भाटकारागेर कॅरलाक सांबाळूंक म्हणून आयिल्ली. सिफा परस एका वर्सान व्हड भाटकाराची धूव कॅरल. सातव्या म्हयन्यार जाल्ल्यान मात्शें नाजूकच जाल्लें. ताचें काळीज अशक्त आसलें. दोतोरान ताका सामकें सांबाळूंक सांगिल्लें म्हणून झिनतबीक भाटकान्नीन कामाक दवरिल्ली. तिचे बरोबर सिफाय तांगेर रावतालें.

सिफा पांचच वर्सांचें पूण ताका बरी जाण आशिल्ली. कॅरलाचीं बरीं बरीं खेळणीं ताका खेळूंक मेळटालीं म्हणून सिफा कॅरल सांगता तें तें आयकतालें.

कॅरल एकटीच धूव आनी दुयेंत आशिल्ल्यान ताका ल्हानपणांतल्यान तळहाता वेल्या फोडा भशेन वाडयल्लें. ताका लागून तें सामकें हट्टी जाल्लें. ताचें एक उतर तीं सकल पडूंक दिनासलीं. तीच ताका संवय जाल्ली. बऱ्या पासत जावं ना जाल्यार वायटा पासत जावं. ताका उत्तेजीत जावंक दिवंनाका म्हणून दोतोरान सांगिल्लें म्हणून तें सांगता तें तें भाटकार आनी भाटकान्न आयकतालीं.

कॅरल जितलें हट्टी तितलेंच मायेस्तय आसलें. ताका सिफा आवडलें. सिफाच्या म्हींवाळ सभावाक लागून आसत ना जाल्यार नवी इश्टीण मेळिल्ल्यान आसत कॅरल बदलतालें. थोड्याच दिसां भितर कॅरल आनी सिफा बऱ्यो घट इश्टिणी जाल्यो. कॅरलांत जाल्लो बदल पळोवन भाटकार आनी भाटकान्न खोशी जालीं. ताणीं रोखडेंच झिनतबीक सांगलें,

- ''तुज्या बायक लागून म्हजें बाय खुशाल रावता. आतां तुमी दोगांयनीय आमगेरच रावपाचें.''

झिनतबीक हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळिल्लें. तिका कामाची पर्वा नाशिल्ली. रावपाक थारो जाय आसलो, तो तिका

मेळ्ळो. तिचे धुवेकय बरे तरेन वाडोवचेलो प्रस्न सुटिल्लो. कॅरलान एक-दोन वेळा वापरिल्ल्यो वस्तू घालूनय मुळचेंच सोबीत सिफा आनिकय सोबीत दिसतालें.

कॅरलाच्या अभ्यासांत सिफा लक्ष घालतालें. ताका पुस्तकां काडून दी, ताचें बॅग भर अशीं कामां करतां - करतां ताचें पेन घेवन आपुणय कागदार अक्षरां गिरयतालें. अर्थ आनी उच्चार खबर नाशिल्लो पूण बुकार पळोवन - पळोवन तें सगळी ए, बी, सी, डी बरोवन काडटालें. कॅरलान मागीर ताका उच्चार शिकयले. दोगांयचोय हो खेळ एक दीस भाटकान्नीन पळयलो. तिणें सिफाक अपुरबायेन विचारलें, - "सिफा, तुका शिकपाची बोरी आवड आसा मुगो. इश्कोलाक वोयतोलें?"

- "हय भाटकान्नी, वतलें हांव इश्कोलांत."

सिफाची आवय थंयच आसली. तिणें सट्ट करून म्हळें, - "हय कितें सिफा? भाटकान्नी, आमकां शिकप - बिकप कोणें सांगलां, आसूं तेका. तीं बुकां, कपडे सगळ्याक खूब पयशे पडटात."

- "आगे, पयशां तुका कोणें सांगलां? हांव घालतां तेका इश्कोलांत. कॅरला बाराबोर वोचून येतलें. कॅरलाचें युनिफॉर्म, बूट, बॅग सोगळें आसा."

- "पूण भाटकान्नी...?"

- "पूण ना आनी बीण ना, कॅरला बाराबोर सिफा इश्कोलांत गेल्यार आमकां सुशेग. कॅरल एकटें इश्कोलाक वयतकर भिरांत दिसताली. सिफा जतनायेन हाडटोलें तेका. होय मुगो?"

- "हय भाटकान्नी."

- "ओ.के. चल रेडी राव. तुजेंय नांव इश्कोलांत घालतां."

भाटकान्न उलोवन रावलीना. तिणें सिफाचें नांव कॅरलाच्या स्कुलांत घातलें. झिनतबीचे खोशयेक शीम-मेर उरलीना. कॅरलाक एक वर्स उसरां शाळेंत घातिल्ल्यान सिफाक ताच्याच वर्गांत प्रवेश मेळ्ळो.

सिफाच्या सांगातान कॅरल खूब बदल्लें. दोगांयचीय इश्टागत दिसान-दीस वाडटाली. कॅरलान सिफाक केन्नाच नोकर म्हणून वागयलें ना. कॅरला परस ल्हान आसुनय सिफा आपूण व्हडली भयण जाल्ले वरी कॅरलाक सांबाळटालें. कॅरल मागीर ताका शेमांय म्हणून चाळयतालें.

दोतोरान कॅरलाक चड पेज घेवपाचीं कामां करूंक लावंनाका म्हणून सांगिल्लें. अभ्यासाचोय भार झेपता तितलोच घेवंदी म्हणून सांगिल्लें. पूण कॅरलाक शिकपाची आवड आसली. तरी ताचो होमवर्क, एसायनमेंट सगळें सिफा करून दितालें.

सिफाच्या आदारान कॅरल मुखार सरतालें. धावेचें वर्स सुरू जायत साकून कॅरल परत-परत बरें ना जातालें. ताका पेस मेकर बसोवंचो पडलो. परत दोतोरान तांकां शिटकायलीं. ताका अभ्यासाचो जावं आनी कसलोच ताण येवंक दिवनाकात म्हणून सांगलें. पूण कॅरल अभ्यासा कडेन तडजोड करुंक तयार नासलें. ताका लागून भाटकान्नीक प्रेशराचें दुयेंस जालें. लोकांचे पालक शीक शीक म्हणून भुरग्यांच्या फाटल्यान लागताले पूण भाटकान्न कॅरलाक 'चड शिकूं नाका' म्हणून फाटीक लागताली.

झिनत बी मना पसून खूश आसली. कॅरलाक सांबाळूंक म्हणून तिका दवरिल्ली खरी पूण आतां सगळें घर-दार ती खोशयेन सांबाळटाली. आपले धुवेक सपनांत लेगीत चिंतूं नाशिल्लें सगळें मेळटा म्हणून ती खोशी जाल्ली. सदांच नमाज पडटना ती देवाचे उपकार मानताली.

कॅरल आनी सिफा बरे तरे धावी पास जालीं. भाटकारान कॅरलाक म्हळें, "बाय, आतां शिकप पुरो. तूं जाय तो कॉर्स कर." - "ना डॅड, म्हाका मुखार शिकपाक जाय. सिफा आनी हांव मुखार शिकतलींच." कॅरलान खूब्ब हट्ट केलो.

झिनत बीनय सांगलें सिफाचें शिकप पुरो म्हणून. पूण कॅरलान कोणाचेंच आयकलें ना. ताणें बापायक सांगून दोगांचेंय नांव हायर सेकेंडरीत घालून घेतलें.

कॅरलाच्या डॅडाच्या इश्टाचो पूत जेसनय तेच कॉलेजांत शिकतालो. ल्हानपणांतल्यान कॅरलागेर तांचें येवप-वचप आशिल्ल्यान तो पयलीं साकून कॅरल आनी सिफाचो इश्ट आसलो. आतां तांची इश्टागत चडच घट जाली.

वयार येता तशी सिफाची सोबीतकाय वाडत आसली. कॅरल सावळें तरीय स्मार्ट दिसतालें. जेसन हळू हळू सिफा कडेन ओडटालो. सिफाकय मनांतल्यान जेसन आवडटालो. पूण सिफा बरेंच लजेस्त आशिल्ल्यान तें कॅरला फाटल्यान दडटालें तातूंत आनी एका कारणाक लागून तें जेसना पासून मात्सें पयसच रावतालें.

कॅरलाकय जेसन खूब आवडटालो. ताणें जायते खेप सिफा कडेन आपलें मन उक्तायल्लें. आपले जिवाचे इश्टीणीक जेसन आवडटा हें कळत साकून सिफान जेसना फाटल्यान धांवपी आपल्या मनाक लगाम घाल्लो. जेसनाचें मन सिफाक कळिल्लें. पूण कॅरल ताची मोगाची इश्टीण ताच्या मना काळजाक कसलीच दूख दिवं जायना हें सिफाक खबर आसली, म्हणून सिफा जेसना पसून बरेंच पयस रावतालें. अम्मीन आपल्या सोयऱ्या कडेन लग्न थारायलां म्हणपाची वावडीय ताणें पातळायल्ली. आनी कॅरलाक ताणें हळूच सांगिल्लें -"हांवें बेठीच ही वावडी घाल्या. तूं कांय उलय नाका."

कॅरल ताका खूब हांसलें, - "चेडे तुज्या फाटीक लागत म्हणून ही जतनाय? पिशें खंयचें. चेड्यांक भिवन कोता येता"?

मदीं मदीं कॉलेजींतल्यान घरा वतना जेसनाक तें सांगी,

- "जेसन कॅरलाक मात्शे घरा सोड. ताका लायब्ररींत बसून नोटस काडपाक जाय." हें सांगतना ताचें मन खूब्ब दुखतालें. पूण काळीज घट्ट करून वयल्यान हांसत तांकां धाडटालें, आनी आपलीं दुकां पुसून वाचनालयांत वचून बसतालें.

कॅरलान एक दीस सिफाक विचारलें, "बाय गो ही कसली स्टायल काडल्या. म्हज्या आनी जेसना पसून पयस रावता शें?"

- "आगो शाण्या, तुका आनी जेसनाक एकठांय रावंक मेळचें म्हूण म्हजी ही आयडिया. तूं खोशी मगो?"

- "हय गो, पूण म्हाका तूंय जाय."

- "पिश्या हांव आनी तूं सदांच आसात."

- ''म्हजी मोगाची इश्टीण ती'' म्हणत कॅरलान सिफाक वेंग माल्ली. सिफानय ताका वेंग माल्ली आनी हळूच दोळे पुसले. जेसना पसून सिफा जितलें पयस रावपाचो यत्न करतालें तितलें तें भितल्ल्यान घुस्मट्टालें. मागीर तें आपल्याच मनाक समजायतालें. ''...हांव कोण? ...तो जेसन कोण?... आमचो धर्म एक न्हय, स्टेटस एक न्हय... शी... हांव ताका खंय लागतां?... एका कामवालेचें चेडूं हांव. ...भाटकान्नीन म्हाका कॅरला वरी सगळें दिलें म्हणून कितें जालें... हांवें म्हजें सपण वोळखून रावूं जाय... तातूंत म्हज्या मोगाळ इश्टिणीच्या मोगा आड हांवें कशें येवप? ...ह्या घरान म्हाका जें कितें दिलां तें म्हजी अम्मी म्हाका जल्मांत दिवंक शकची नासली... ह्या घरान म्हाका नवी जीण, वळख दिल्या... तांकां हांवें दुखोवंक जायना...''

सिफान मोठ्या यत्नान आपलें मन घट केलें. बारावी जातकच सिफा आनी कॅरलान कॉम्प्यूटराचो कोर्स केलो. जेसन मुखार शिकतालो. सिफाक आतां नोकरी करपाचे वेध लागले. पूण ताची आवय ताचें लग्न करूंक सोदताली. तेन्ना सिफान तिका विचारलें, - ''अम्मी तूं म्हजो निकाह कोणा कडेन करतली? म्हाका असल्या घरांत चकचकीत रांदचे कुडींत वावुरपाची संवय जाल्या. तूं जाचे कडेन म्हजो निकाह करतली ताचें घर अशें आसतलें?''

- ''कितें उलयता तूं बेटी? कोण शहजादो येतलो तुजे कडेन निकाह करूंक?''

- ''माफ कर अम्मी, म्हाका कोण शहजादो नाका आनी हेर कोणय नाका. म्हाका शादीच करपाची ना. भाटकान्नीक हांवें कॅरलाक सांबाळपाचें उतर दिलां. हांव कॅरला बरोबरच रावतलें.''

सिफाचे आवयन ताचे कडेन खूब्ब वाद घालो. निमणें तिणें भाटकान्नीक सांगलें. भाटकान्नीनय ताका समजावपाचो खूब यत्न केलो. सिफा आपल्या विचारांचेर घट रावलें. एके वटेन भाटकान्नीक सिफाचो विचार आयकून सू जालें. सिफा आनी कॅरल एकठांय आसल्यार तिचो बरोचसो हुस्को कमी जातालो.

सिफाचे नोकरेचो प्रस्न भाटकारान सोडयलो. तांचो बिजनेस आशिल्लो. ताणें घरा भायले वटेन रुम काडून ऑफीस केल्लें. आपल्यागेरच ताणें सिफाक कामाक दवरलें. तें कामाक काम करतालें आनी कॅरलाक सांगातय दितालें.

दिसान दीस कॅरलाचो आनी जेसनाचो मोग वाडटालो. शिकप जातकर जेसनान डॅडीचो बिजनेस हातांत घेतिल्लो. कॅरलाचो चोविसावो वाडदीस जातकर दोगांयनीय आपल्या मोगाची गजाल घरच्यांक सांगली. जेसनाच्या घरचीं खुशाल जालीं. पूण कॅरलाच्या मम्मी-डॅडीची चिंता वाडली. तांणी तोंडार खोस परगटायली पूण भितरल्यान दोगांय हाल्लीं.

दुसऱ्याच दिसा तीं वचून दोतोराक मेळ्ळीं. दोतोरान स्पश्ट सांगलें, -''काजार करपाक हरकत ना. पूण... भूरगें...''

- ''भुरग्या कितें दोतोर?''

''भुरगें जावंक दिवूं जायना. ताचें काळीज तो भार घेवंक शकचें ना.''

दोतोराचें मत आयकून भाटकार आनी भाटकान्न तशींच जेसनागेर आयलीं. जेसना मुखारच तांणी ताच्या आवय-बापायक दोतोराची सांगणी सांगली. आवय-बापूय उलोवचे पयलींच जेसनान म्हळें, ''आमकां भुरगें जायना जाल्यार जाता पूण म्हाका कॅरल जाय. कॅरला बगर हांव दुसऱ्या कोणा कडेनय काजार जावचो ना हें सत.''

जेसनाच्या हट्टा मुखार दोगांयचेय आवय-बापूय काजराक तयार जाली. पूणं कॅरलाक ही गजाल केन्ना आनी कशी सांगप तें तांणी जेसनाचेर सोपयलें.

मोठ्या दबाज्यान कॅरल आनी जेसनाचें काजार जालें. सिफा मनाची दूख मनांत दवरून हांसत्या मुखान काजराक वावुरतालें. ह्या वेळार भाटकान्नीन ताका नवेताल्ल दोन ड्रेस घेतिल्ले. आतां जरी ताका नवेपणाचो सोंस नाशिल्लो तरी मनांत खंय तरी ताका बरें दिसलें.

कॅरलाच्या काजराक पांच वर्सां जालीं आनी कॅरल भुरग्याक लागून आकूळ-पिकूळ जावंक लागलें. तें सिफाक मनाची तळमळ सांगतालें. सिफाक सगळें खबर आसुनय तें वोग्गी रावलें.

ताची स्थिती पळोवन जेसनान ताका एक दीस खरी गजाल सांगली आनी म्हळें, ''कॅरल, म्हुज्या मोगा, म्हाका तूं आनी तूंच जाय, भुरगीं नासल्यार उपकरता.''

खबर आयकून कॅरल खूब रडलें. ताणें गुरवार जावपाची रिस्क घेवया म्हणून जेसना कडेन हट्ट केलो. पूण जेसन कसोच तयार जालो ना. आनी कॅरलाचीं दुकां सिफाच्या खांदार जिरूंक लागलीं.

कॅरल हालींसरा गुगलांत वचून भुरग्यांच्योच गजाली पळयतालें. थंयच ताणें सरोगेट मदर उश्णी आवय घेवन कशें भुरगें मेळोवंक येता हाचे विशीं वाचलें. मागीर तें त्याच विशया वेली चडानचड म्हायती मेळोवंक लागलें. ताणें सिफाकय तें दाखयलें आनी मागीर जेसनाक सांगलें. जेसनान म्हळें, -''बाय गो, हीं पिशेपोणां आमकां नाकात. मागीर तिणें तें भुरगें आमकां दिलें ना जाल्यार? शी म्हाका बेठीच रिस्क नाका. तुका जायच जाल्यार आमी पोसकें घेवया.''

पूण कॅरलाचो हट्ट आशिल्लो - ''म्हाका दुसऱ्याचें भुरगें नाका, जेसन, म्हाका तुजेंच भुरगें जाय.''

जेसनाक तें रात - रात न्हिदूंक दियनासतना ह्याच विशयाचेर उलयतालें. ताणें मनांतल्यान थारायल्लें सिफाक उश्णी आवय जावपाक सांगप. तें दोतोरा कडेन वचून सगळी म्हायती घेवन आयिल्लें. निमणे ताणें जेसनाक, दोतोरागेर येवपाक तयार केलो. दोतोरान ताका प्रत्यक्ष संबंध येयनास्तनाय हें काम कशें करूं येता हाची खोलायेन म्हायती सांगली, आनी जेसन तयार जालो.

दुसऱ्याच दिसा कॅरलान सिफाक सगळी खबर सांगली आनी ताका उश्णी आवय जावपाक विनोवंक लागलें. सिफाक खिण भर घुंवळिल्ले वरी जालें. ताणें कॅरलाक फाल्यां सांगतां म्हळें आनी तें तडक उठून आपले कुडींत आयलें. दार धापलें आनी तें खोळसा फुटून रडूं लागलें. रडटा रडटांच

*(पान २१ चेर)*

# रंगिली मदलस

**हेमा नायक**

फाल्यां कशेय भशेन पणजे वचपाकूच जाय. कौशिकीन नक्की थारायलें. दोन सरकारी कचेऱ्यांनी आनी एके खाजगी अशीं दोन कडेन ताचीं कामां. कचेरेंत आज वतां फाल्यां वच्चें करून उरिल्लीं. तशी ताची कर्मभुमी पणजेच जाल्ली. पगारी नोकरी नासली तरी अणकाराचीं कामां करून दिवप हो ताचो वेवसाय जाल्लो. एक उमेद म्हण वा हौस म्हण अदींमदीं ताणें कांय साहित्यीक रचनांचेय अणकार केल्लें. एखादी कोंकणीची कथा हिंदींत अणकारीत करप वा इंग्लीशींतली कोंकणींत हाडप असलोय वावर तें करतालें. तातूंतय ताची तोखणाय जाताली. साहित्य अकादेमीन दिल्ले अणकाराचे दोन प्रकल्प ताणे वेवस्थीत करून दिल्लें. हिंदी आनी मराठी अशो दोन कादंबरी ताणें कोंकणींत हाडिल्ल्यो. त्यो उजवाडाकय आयिल्ल्यो. ताणे अणकारीत केल्ले एके कादंबरीक एके खाजगी संस्थेचे वतीन दवरिल्लें इनामय ताका मेळिल्लें. जायत्या जाणांनी ताका हे खातीर शाबासकीय दिल्ली. सरकारी खात्यांत अणकार करपी वळेरेंत ताचें नांव नोंद जाल्लें आशिल्लें. सरकारी कागदपत्रां थळावे भाशेंतल्यान अणकार करपाक ताका नेमान मेळटलीं. बी. ए. क आसतना ताणें आदींच थारायिल्लें समाजीक वावर करपाचो आसल्यार आनी अन्याया आड स्पश्ट उलोवन आवाज उठोवपाचो जाल्यार कसली नोकरी उपकारपाची ना. स्वतंत्रपणान पयश्यांची कमाई जावन दिसाचो आपलो खर्च भागता आसत जाल्यार कोणाल्या कसल्या कटकटींनी बांदून घेवपाचें ना. थळावी भास कोंकणी हीच राज्याची राजभास जावन संविधानाचे आठवे वळेरेंत तिचो आस्पाव जायत सावन ताका दिसतालें हे नदरेन आपणें थोडें चिंतलें जाल्यार अर्थय जालो आनी सुवार्थूय जालो. अर्थशास्त्र विशय घेवन बी. ए. जाले उपरांत ताणें एम. ए. क विशय बदल्लो.

सगळे सोपस्कार करून कोंकणींतल्यान एम. ए. करून तें बऱ्या गुणांनी पासूय जालें. ताच्या ओंठार घोळटलीं वेगवेगळ्या भासांतलीं उतरां आयकून माधवी मॅडमीक दिशिल्लें, हाचे कडेन भाशे संबंदी कांय खाशेले गूण आसात. ते नदरेन आपल्या विचारांक बरी घटसाण येवपा सारकें सारें उदक घालीत जाल्यार कोंकणीक तो एक बरो एसेट थरूं येता. तिणें ताका सांगिल्लें, ''कौशिकी, तुका मगो एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत अणकार करपाक बरें जमता. हातूंतच तुवें लक्ष घालपाक जाय. तुका ती पार्त बरी आसा. आनी कोंकणीक ह्यान फुडें बरे दीस येवपाचे आसात. सरकारी कारभार सगळो कोंकणींतल्यान जातलो तेन्ना तुजे सारक्या भुरग्यांची गरज लागतली.'' ताचीं हीं उतरां कौशिकीक एक बळीश्ट आदार जावन उरलो. मॅडम आतां ना, तरी तिचो उपदेश ताच्या विचारांचेर प्रभाव घालपी थरलो आनी ताणें एम. ए. उपरांत आपणाक जाय तेंच स्वतंत्र मळ आपणायलें. ताचें बेचींतल्या खूब जाणांनी प्राध्यापकी पांवड्यार वचपाक पावलां उबारलीं तर कांय जाणांनी संशोधकी मळार पी.एच. डी. करपाचें थारायलें. कौशिकीन कोंकणींतल्यान जितले शब्दकोश आनी परिभाशाकोश तयार जाल्ले आशिल्ले ते सगळे आपल्या घरच्या वाचपघरांत हाडून दवरले आनी सदचे गरजेचे कंप्युटरा वयर रॅकांत मांडून दवरले. हे गजालीक आतां चार-पांच वर्सां जाल्लीं. पयलीं ताका बारीक मोटीं कामां मेळत गेलीं आनी मागीर तर ताका उसरपत मेळना अशी कामांची रास.

करतां करतां कौशिकी ह्या कामांत सामकें तरबेज जालें. साहित्यीक कृतींचो अणकार करताना ताका मातसो वेळ लागतालो. पूण सरकारी कागदपत्रां अणकारीत करप ताच्या हातांक बशिल्लें. एकदां बसलें संगणकाचेर टायप मारपाक काय इंग्लीश आसूं वा मराठी आसूं 'तीन मिनटांत तयार' ते भशेन ताचे तकलेंत शिजताली उतरावळ आनी की-बोर्डाचेर ताच्या चारेक बोटांचो 'ता थय थय



तक' कसो भरतनाट्यमाचो नाच, उतरां केन्ना अणकार जावन येतात ताचो ताकाच पत्तो नासतालो. आज तें गोंयांत एक बरें सक्षम अणकारपी म्हण नामनेक पाविल्लें. कोंकणींतल्यान कोण अणकार करून दितलो अशें विचारपाची फुरसद, कौशिकीचेंच नांव घेतालो कोणूय. केन्ना ताणें पयश्यांक लागून काम न्हयकारलें ना वा अमकेच पयशे जाय म्हण हट्टय धरलो ना. सरकारी पांवड्यार जो दर थारायिल्लो आसा तो तर ताका

मेळयलोच.

आतां दोनेक म्हयने जाले तें हांगाच आसा. आवयचें दुखणें वाडलां म्हण हांगा येवन रावलें तें आवयचें मरण करून म्हयनो मायज जालो हांगाच रूळिल्ले भशेन जालें. तशें तें आंतऱ्या पयऱ्यान यो वच करीत आसलें. पणजे एक भाड्याचो फ्लॅट घेतिल्लो ताणें. पूण थंय ताका कायमचें रावपाक नाका आसलें. गावांतलें हें थंड शितळ परिसरांतलें घर ताका प्रिय. तातूंत चार रोदांची गाडीय घेतिल्ली. आपणाक जाय तेन्ना जाय थंय वचपाक तें मेकळें आशिल्लें. अशेच तरेची स्वतंत्र जीण जगपाची ताका आदीं सावनच उमेद आसली. आनी आवयन तर ताचे हे उमेदीचेर केन्ना विरजण घालें ना. तिचो सगळो भरवंसो ताचेर आनी तिचो आदारूय तेंच आसलें.

बापूय अर्दशिक्षीत. चवथी मेरेनूच शिकलो. सुधाकर नांव ताचें. तसो सभावान बरो आसलो. धुवेक बरो करतालो. फोंड्यां एके गाडयेचे गॅरेजींत मेकानीक म्हण कामाक आसलो. चड शिकूंक नाशिल्ल्यान ताचे व्हडले नोकरेची अपेक्षा कोणें केन्ना धरली ना. तो सकाळीं उठून डब्बो घेवन वतालो तो बद्द रातचो घरा. बसी वयल्यान देंवलो काय पयलीं दारा मुखा वयल्या बारांत घुसतालो आनी पियेवन जातकूच लटपट्ट्या पांयांनी हुमरो हुंपून भितर सरतालो. आवय बाबडी जावन ताका तायांत वाडून तो जेवी सर बसून रावताली आनी ताचें जेवन जातकूच मागीर आपूण जेवन न्हिदताली. ताचे आदीं केन्ना तरी कौशिकी जेवन न्हिदिल्लें आसतालें. बापायचें हें असलें बेशिस्त वागप ताका साप्प माननासलें. बापायक नीट मार्गार हाडपाचो ताणें खूब यत्न केलो. दर खेपेक सकाळीं वतना ताणे धुवेची फाट ल्हवपीक पोशेत सांगचें, आपूण आयच्यान सुदारतां म्हण आनी तिनसनां ताची सावळी झळकली काय वाट पळयत रावपी म्हाळग्याची हालेट सुधाकर म्हण कानार सादताली आनी सुधाकराची सुदारपाची गजाल आयची फाल्यांचेर धुकलताली. तो मागीर तसोच बेबदो सुधाकरच उरतालो. परिणामीं ह्या सोऱ्याच्या वेसनांत बुडिल्लो बापूय कौशिकीक ना जालो. तेन्ना सावन ताणें ह्या जीव खायऱ्या सोऱ्याचो आनी होमखणांत बळयां ओडून व्हरपी म्हाळग्या सारक्या संवगड्यांचो धसकोच घेतलो.

बापूय मरतकूच एक गजाल ताका जाणवून आयली, दादल्यांक सोऱ्याची इतली खरायेन ओड कित्याक लागता आसुंये? तांकां समजून घेवपाक आमीच खंय तरी उणीं पड्यत म्हणून जावंये काय? दीस भर कश्ट करप, घाम वारोवप आनी घरांत पोटाक जाय तितलें खाण ना मेळपा इतलें दळडीर! असल्या बुराक पडिल्ल्या संवसाराक बायलोय उबगतात आनी दादलेय. ताणें आपले परीन बापायक खूब फावटीं सांगपाचो यत्न केल्लो, ''बाबा, सोरो पियेवप आनी मागीर घरांत भितर सरतकूच तुवें एक तर मोनो रावप नाजाल्यार आईक खेपप, आड्डप हाका मनरीजवण म्हणीनात. तूं घरा हाडून पी. म्हजे कडेन, आई कडेन उलय. दरेकल्याच्या मनांत कितें तरी आसताच ताणें तें उलोवन उडोवपाक जाय. तिकाय उलयन दिसता, म्हाकाय दिसता रे. थंय बारांत वचून बसूं नाका.'' तो फकत लजेन मान सकयल घालतालो आनी तायांत वाडलां तें जेवन कांयच उलयनासतना मोन्यांनी वचून न्हिदतालो. कौशिकीक आपूणच अपराधी कशें दिसतालें आनी म्हणून लीव्हर इबाडून जेन्ना बापायक मरण आयलें तेन्ना कौशिकीक खूब रडूंक आयलें. आई मात रडली ना. तिका रडपा सारकें कांयच उरूंक नाशिल्लें. तिच्या अंतस्करणांतलीं वेदनेचीं दुकां पावस जावन कोंसळचे आदींच कुपां जावन विरगळून गेल्लीं. तिचो घुस्मटमार बाकिच्या बायलां परस वेगळो नासलो.

मुखार वणटीचेर हुमकळटलीं दोनूय पांयजेलां कौशीकीक फाटले उगडास करून दितालीं, आई आनी बाबा. अशीं कितलीं घरां ह्या सोऱ्यान उध्वस्त करून उडयल्यांत. हाचेर कितें तरी उपाय काडचो पडटलो. शारांतले लोक असलीं बेबदेपणां करिनात. तांगेलें पिवप डिसेंट. तांच्या मेजा वयल्या भरिल्ल्या ग्लासांतल्यान नव्या येवजण्यांच्यो स्ट्रेटेजी थारतात. मागीर आपल्या विरोधकांक गाळी, वायट उतरांय भायर सरतात. हांगा गांवांनी गांवठी सोरो आनी गाळीय बी तसल्योच पेजाद. आवय, भयण हांचे वयल्यानच येतात. ना. हें बंद जावपाक जाय. कौशिकीचें विचार चक्र घुंवपाक लागलें.

भायर पडवेर येवन ताणें मळबा वटयां नदर मारली. तकलेंत हो खवदळ उपरासतकूच ताका सैमाचो आदार जातालो. पावस येवपाचो आसासो दिसता. हो सभोंवतालीं काळोख. हो सैम असो वगी कसो? गुडूप गूप दमटी. पावस काल खूब कोंसळ्ळा. घोग्यांनी. घुस्मटमाराक ताणें वाट मेकळी करून दिली. पूण कितल्याश्याच जाणांचे घुस्मट आजूनय कुपांनी दडून रावल्यात. झाडांय हीं वगी मोनी कशीं. सूर ना, ताल ना. सगळें वातावरणय मोनें मोनें कशें जालां. हें सांवट आपल्याच चिंतनांचें. खंत इतलीच, येद्याश्या ल्हानशा गोंयांत आमी एकामेकाक सांबाळपाक शकनात? आनी सभाग्यांनो सभोवतालीं मनशांचो येदो अथांग दर्यो आसतना आपलीं दुख्खां ह्या कोपांनी कित्याक विरगळावपाक जाय? बायलांचो घुस्मटमार काळजांत आनी दादल्यांच्या तोंडांत गाळींचो शिंवर.

मनांत सोऱ्याच्या चिंतनाचो विशय घोळयत तें भितर आयलें जाल्यार फाटोफाट पार्वती हजर. फाटले दोन म्हयने ती अदीं मदीं येवन आपलीं सगळीं कामा मोटे उमेदीन करता हाची ताका तोखणाय. ताणें च्याचीं दोन कोपां हाडून मेजार दवरलीं आनी म्हणलें, ''पार्वती, यो च्या घेवया.''

''तूं घे, हांव मागीर घेतां.''

आपणा वांगडा घेवपाक ती खांकुड्या हें कौशिकी जाणा आशिल्लें. ताणें बळयां तिका आग्रो करून आपयलेंच. च्याचो घोंट मारतां मारतां कौशिकीन तिका विचारलें,

''पार्वती तुजें कशें चल्लां?''

''सुमाराचें''

''आजूनय कामेरें म्हण दिसवड्याच्या वावराक वता?''

''दोगां भुरगीं आनी आमी दोगां. पोटाची खळय कशीं भरचेली?'' ती वितरागली.

''आगे तुगेलो घोव तर सरकारी ऑफिसांत

कामाक आसा. तागेलो पगार मेळना?''

''तो तेकाच पुरो सोऱ्याच्या घोंटाक.'' ती उबगल्ले भशेन जाली.

विशय तितल्यार उरलो आनी दोगांय आपापल्या कामाक गेलीं.

कौशिकी रावपाक येत सावन गांवांतलें वातावरण बरेंचशें निवळूंक लागिल्लें. बायलो आपल्यो कागाळी घेवन ताचे म्हऱ्यांत येताल्यो. एक दीस अशीच म्हाळग्याची बायल आयली. कौशिकीक हरशीं तिच्या घोवाचो तिरस्कार येतालो कित्याक तर ताच्या मनाचेर सामको परीणाम जाल्लो, हिच्या घोवाचे लगाडीक लागूनच आपलो बापूय सोऱ्याचे भकीक पडलो म्हणून. पूण कौशिकीन तिका एका उतरान कांय म्हणिनासतना तिची आपुलकायेन चवकशी केली आनी विचारलें, ''हरशींच मगे आयल्या तूं? काय कितें काम आशिल्लें? कसो आसा तुजो घोव?''

''घोवाचें पडूं पाडा.'' ती खेपली एकदम.

''अशें खेपप बरें न्ही. मानसीक विकार बळावतात. दोगांयनी एकामेकाक समजून घेवपाक जाय.''

''त्या सुरांट्याक समजून घेवपाक त्या व्हडल्या परमेश्वरा कडेनूय जावपा ना. आनी आमी तर हीं धाकटुलीं मनशां.''

कौशिकीक तिच्या रागांत आनीक भर घालपाची नाशिल्ली. ताणें परतून विचारलें,

''कित्याक आयिल्ली तूं?''

''बेश्टीच म्हणलें तुका सांगून कितें जाता जाल्यार पळोवया. तूं शिकल्या आनी पेपर बी वाचता. तुका खबर आसतली. फाटल्या म्हयन्यांत पेपराचेर आयलां.''

''कितें?'' कौशिकीन अजाप उकतायत विचारलें.

''हांगाच्यान लागींच माशेलांत फुडें, तिवऱ्यां काय वरगावां खंयचे कडेन बायलांनी एकठांय येवन सोयऱ्याचें बार बंद उडयलें खंय. तशें आमच्यांनी हांगा करपाक जायत? खूब त्रास जातात, दीदी आमकां त्या बारांचो.'' एके वटेन खेपताली तशी दुसरे वटेन काकुळटेक येताली.

कौशिकीक बायलां भितर हीच जागृताय जावपाक जाय आशिल्ली. पूण अशी तोंकाची भुमिका घेवन न्हय. पयलीं पर्यायी वेवस्था निर्माण करून दादल्यां कडल्यानच बार बंद उडोवपाचो प्रयोग जावप गरजेचें आशिल्लें. कौशिकीन म्हणलें,

''बरी मगे तुका सगळी खबर आसा. एक सांग म्हाका, तूं गेलीना त्या पेडाक सूत घालपाक आज? सगळ्यो बायलो गेल्यात मगे.''

तिणें परतय पाडा पडों म्हणलें आनी ती फुडें उलयली,

''कसली ही वडपुनव? गळ्यांत हो काळ्या सुतांचो पोड घालून नालायक आनी कर्मदळिद्री घोवाक पोसचे परस म्हजें लगीनच जावंनासलें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! म्हज्या आख्ख्या आयुश्याचो गोबोर करपी घोवाचीं कसलीं कर्मांचीं गूणवर्णनां गावपाचीं वडाक परदक्षणा घालून? वयतां हांव. तुज्यान कितेंय उपाय जाता जाल्यार पळय.''

एक एक पावल उखलीत चलतले ते बायलेचे पावलटींत कौशिकीक तिच्या सुडान पेटिल्ल्या विचारांचो धग जाणवतालो. तें मागीलदारांतल्या पोरसांत आयलें. वयर वोताचो रखरख आनी घरांत सोसूं नज इतली गरमी. आंगांतल्यान घामाच्यो पांवळ्यो रकल्यो तरी लेगीत झाडार फुलिल्ल्या फुलांच्या पाकळ्यांनी ताच्या जिवाक थंडसाण भोगताली. दसणीक फुलिल्ल्या तरातरांच्या फुलांचे रंग ताका भुलयताले. धवीं, तांबडीं चांफीं, बारीक मोठे करणे, चमेली, पिशीं आबोलीं, रतन आबोलीं, मोगरीं, पारजत, गोकर्ण, अनंत, सदानंद... पोरसांत फुलिल्लीं हीं तरातरांचीं रंगबिरंगी फुलां पळयलीं आनी ताका याद जाली राकेश आनी दीप्ती हे जोडयेची. दर दिसा सकाळफुडें दीप्तीन आपले कलेचो सुंदर वापर करून गुंथिल्ले हार राकेश तोखणायेन फेसबुकार घालतालो. दोळे दीपकावपी, सुंदर, आकर्शक, मनभुलोवणे हार पळोवन कौशिकीक दिसतालें, हो लागींच खंयूय रावता आसत जाल्यार दर दिसा एक हार आपणाक पावोवपाक लावपाचें.

''दीदीऽऽ''

आडया भायल्यान वतले लक्ष्मीन कौशिकीक हडकिली तेन्ना तें जाग्यार आयलें.

''आगे लक्ष्मी मगे. खंय चलली हांगा येनासताना.''

''घरा वतां दीदी. रांदपाचें आसा. आमगेलो घरा पावत जाल्यार तातां पेले खणखणायतलो. तिडकीक वाग. सांजची येतां.''

तिणें अशें म्हणलें खरें पूण ती आडो हुंपून भितर सरलीच.

''कशी आसा?''

''सांगपाची दशा ना.''

''आजूनय खाता मार घोवालो?''

''एक दीस चुकना. तिनसनां हातार एक नोट दवरले बगर सुटका वाट ना.''

''कितें कर जाणां, वाडया वयल्या सगळ्यांक सांग, आज तिनसनां हावें आमगेर आपयलां म्हण.''

''कित्याक दीदी?''

''मागीर कळटलें. सांग तूं आनी तुंवूय यो. तुमगेले घोव बारांनी वतात जाल्यार आमी हांगा बसुंया गजालींक.''

ती हांसली, मुरगटली आनी उमेदीन गेली.

चल. ही कल्पना वायटशी ना. ह्या बायलांक फुलां कशीं वेगळ्या वेगळ्या धाग्यांनी गुंथून दवरया.

वॉट्सेप आनी सोशल मिडिया परस चड बेगीन हो रकाद वायरल जालो आनी एक व्हडलो चोंमो तिनसनां कौशिकीच्या घरांत जमलो.

कितें तरी बरें जाताशें दिसता असो एक विश्वास सगळ्यांच्या तोंडार दिसतालो. धा तरी बायलो आयल्यार पुरो अशें मागतल्या कौशिकीक चोवीस बायलो पळोवन अजाप जालें. शेंदऱ्यो पातळायिल्ल्यो तांचेर सगळ्यांनी बसून घेतलें. आपापलीं नांवां सांगून जातकूच तांचे मदीं वगी बशिल्ल्या धा-एक वर्सांच्या माणकुल्या भुरग्याक कौशिकीन म्हणलें,

''तूं गो चिरमुले, शाळेंत वता काय ना?'' तें वगी.

"मोनें काय कितें गो?"

"दीदी ताका शाळेंतल्यान काडलें." एके बायलेन सांगलें.

"तें पयल्या वाड्यार कोणागेर वावराक वता. घरांतलीं कामां करता आनी ल्हान भुरग्याक खेळयता."

कौशिकीक वायट दिसलें पूण वगी रावले बगर ताचे कडेन आनीक उपाय नाशिल्लो. हांकां उपदेशांचे डोस उपकारचे नात जाल्यार प्रत्यक्ष कृतींतल्यान धडे दिवपाची गरज आसा.

ताणें आपलो लेपटॉप उकतो केलो. फेसबुकांतलें राकेशाचें खातें उगडलें. तोखणायपूण ह्या राकेशाची अशें मनांत म्हणीत ताणें सगळ्या जमिल्ल्या बायलांक म्हणलें, आतां हांव दाखयतां तो एकेक फोटू पळयात आनी ह्या हारांत कसलीं फुलां वापरल्यांत तें पट करून सांगात. "चाफीं, आबोलीं, पारजत, दसीण, मोगरीं" फटाफट तांच्या तोंडांतल्यान जापो भायर सरल्यो आनी 'आवयस्स, कितलो सुंदर, व्वा फाती म्हण कळना आनी हार म्हणूनय कळना...' अश्यो प्रतिक्रिया लेगीत भायर सरल्यो.

आनी मागीर कौशिकीन तांकां लेखून विचारलें,

"तुमकां हार आवडले?"

"हय" सगळ्यांनी एकाच बरोबर जाप दिली.

"तुमच्याय पोरसांत फुलतात असलीं फुलां?"

"खूब्ब. आबोलीं राशींनी. चांफीं झड्न सकयल पड्यत. पारजताचीं फुलां रांगोळी कशी जावन उरतात."

"ह्या फुलांचो असो उपेग करचो हें तुमकां केन्ना दिसलें ना?"

"खूब दिसलें पूण कितें करपाचें हें कोणें सांगलेंच ना."

"आतां हांव सांगतां. सद्दां सकाळीं असले हार गुंथपाचे. वाड्यार देरेकल्याच्या घरांत दोन चाकी, चार चाकी गाड्यो आसात. तांगेर एका हाराची लावण लावपाची नाजाल्यार देवाऱ्यांतल्या पांयजेलाक, नातर वाडवडिलांच्या फोटवाक वा देवळांत. तांकां नित्यनेमान मेळटा जाल्यार दिसाक तुमचे हार खपूं येतात. तुमचे कलेचें चीज जातलें. तुमी खोशी जातलीं. सुरवातीक ना करूं पूण ल्हवू ल्हवू घरांतल्या दादल्यांकय एक लक्तुबाय निर्माण जातली. फुलां खुंटपाक तांकांय मजा दिसतली. हय काय ना? म्हजे खातीर नेमान तीन हार."

"तीन कोणाक?"

"दोन व्हडले ते आई-बाबाच्या फोटवांक आनी एक ल्हान तो मॅडमीच्या फोटवाक. हो पळय". कंप्युटराचे कुशीक दोळ्यां मुखार आशिल्लो फ्रेम केल्लो माधवी मॅडमीचो फोटू सगळ्यांनी पळयलो.

खिणभरयांत सगळें वातावरण थोडेशें चिंतेस्त, कांयशें गंभीर आनी चड्शें उमेदी जालें.

कौशिकीन माणकुल्या सोनियाचेर नदर मारली. ताका सगळें कळिल्लें. कौशिकीन ताचे म्हऱ्यांत वचून ताका उठयलें आनी सगळ्यां मुखार उबें करून म्हणलें, "फाल्यां सावन सोनिया खंयच वावराक वच्चें ना. तेंवूय हातूंत मदत करतलें आनी शाळेंत वतलें. ताचो चुकला तो अभ्यास हांव ताका शिकयतलें. हय काय ना गो बाय?"

ताणें हय म्हणलें आनी आवयचे कुशीक वचून रिगलें.

"हे तुमी हार पळयल्यात ते शिकोवपाक तुमकां एक बायल येतली. एका म्हयन्याचें प्रशिक्षण. तुमी फुलां आनी दोर हाडपाचे आनी दिसांतल्यान फावता तो वेळ दिवपाचो. फकत दोन वरां."

आनी सगळ्यांचीं मुखामळां कितले प्रसन्नतायेन फुल्लीं तर! एकामेकाक विचारून तांणी दनपारचीं तीन ते पांच हीं दोन वरां नक्की केलीं आनी मोठे उमेदीन सगळ्यो बायलो घरा गेल्यो.

हे वटेन दादल्यांचेर वगीच भिरांत पडिल्ली - माशेलांतलें बार्र बायलांनी बंद उडयलां तशें हांगा जायत जाल्यार आयली आमचेर हावळ. तातूंतलो एकलो हाड्कुटे तर मुठी आंवळून फुरफुरतालो - "आरे आमी बदता हिका? ही आमच्या बायलांक फुडें काड्टली. आमी कितें इतलीं बाबत कुळां न्हय तिगेलीं शापोतां आयकुपाक." तांकां सोरो चडिल्लो. फाल्यां सकाळीं उठ्ना फुडें सगळें निवळटलें हें कौशीकीक पुराय खबर आशिल्लें.

सगळ्यो बायलो गेल्यो तसो ताणें राकेशाक फोन केलो आनी आपलो बेत सांगलो. एक सप्तक भर ताणें वा तृप्तीन येवन तांकां थोडें मार्गदर्शन करपाचें. तो धपक्याक तयार जालो आनी येवपाचें उतर दिलें. ताणें म्हणलें,

"एका सप्तकांत जावचें ना."

"आरे फुलां गुंथपाक येता तांकां. फकत गिरायकांचे नदरेक भुलयणारी कलात्मकताय तांच्यांत ना. ती सरावान येतली मागीर."

"बरें आसा. प्रयत्न सुरू करूया."

कौशिकीक आपलें मन ल्हव जाल्ले भशेन दिसलें. ताणें सगळ्या हारांचेर एक तृप्त नदर भोंवडायली. रंगी, बेरंगी फुलां वांगडा आपल्यो संवेदनाय रंगीबेरंगी जावन सगळ्या आंगाक खातकुतल्यो जाल्लेवरी ताका सुखद झटके आयिल्ले भशेन जालें. ताच्यान सोसूंक जायना जालें आनी ताणें कपिलेशाक फोन लायलो. कपिलेश ताचो सामको लागींचो इश्ट. इश्ट म्हणचे परस सांगातीच जाल्लो तो. कामाच्या निमतान ऑफिसांनी हांगा थंय भोंवतना एका सरकारी खात्यांतलो वरिश्ट अधिकारी. ताचे नदरेंत आपली नदर केन्ना घुस्पली हें कौशिकीक कळ्ळें ना आनी कपिलेशाकय जाणवलें ना. कौशिकी खूब फावटीं ऑफिसांत येतालें. कामाची ऑर्डर घेतालें. केन्ना चेक व्हरपाक येतालें. तर केन्ना कसलीय चवकशी करपाक.

त्या दिसा मात वेगळेंच घडलें. ऑफीस बंद करपाचो वगत. कौशिकीक कळाव जाल्लो, वाटेर ट्रॅफीकांत सापडिल्लें. तरी तें भितर सरलेंच. एक दोन स्याफ आशिल्ले आनी कपिलेश आशिल्लो. ताणें बेल मारून कावंटरार आशिल्ल्या स्याफाक भितर आपोवन आवट्वर्ड रजिस्टर आपणा कडेन दी आनी कौशिकीक भितर धाड म्हण सांगलें. आपल्या म्हऱ्यांत. असल्या कामांत ऑफिसांतले स्याफ सामके एक्सपर्ट आसतात. खंय कितें शिजता आनी करपता हें तांकां जुस्त खबर आसता. आतांय तेंच जालें. रजिस्टर भितर पावलो आनी पार्सलय बी. चेक कौशिकीच्या हातांत आनी कौशिकीचें काळीज कपिलेशाच्या

काळजांत. वैचारीक मिलनाचो अघडीत खीण. कपिलेश हांसलो. त्या हांशांत दाटिल्ल्यो ताच्या मोगाच्यो खुणो कौशिकीक न समजुपाप इतलें तें खुळें नाशिल्लें. दोगांयच्यो गाड्यो वांगडाच सुरू जाल्यो आनी मिरामार पावल्यो. 'आय लव यू.' उतरांची अदलाबदल. वॉटसेपाचेर मेसेजिचेर मेसेजी. गाड्यांच्या स्टेअरींगा वयल्यान देंवनासतना मोगाचो पयलो अंक सुरू जाल्लो.

मोगांत पडप ना, लग्न जावप ना असो निश्चेव केल्लें कौशिकी ताच्या सांगातांत आसतना उमेदीन फुलतालें. ताणें फोन घुंवडायलो आनी आपलो उमेदी पराक्रम ताका सांगलो. ताच्या दरेका कामांत कपिलेशाचें ताका सदांच सहकार्य मेळटालें तें ताका अदीक सुख दिवपी आशिल्लें. आपूण शारांत न रावतां गांवांत रावतलें अशें जेन्ना ताणें सांगलें ताकाय ताची मान्यताय आसली. ताणें म्हणलें,

"तूं हांगा पणजे रावलें कितें वा तुज्या गांवांत रावलें कितें, म्हाका कसलो फरक पड्य? तूं आसा थंय हांव येतलों न्ही?"

"कपिलेश, तूं कितलो मोग करता रे म्हजेर?"

आनी आतां ही गजाल सांगतकूच ताणें म्हणलें, "तुज्या सुखांत कौशिकी म्हजें सूख आसपावलां. तुज्या विस्तृत विचारांक केन्ना केन्ना हें विशाळ मळबूय उणें पड्य कशें दिसता म्हाका. तुज्या मुक्त वागण्यांत म्हजें तुका पुराय सहकार्य."

बायलां खातीर घेतिल्ल्या फुलांचे हार करपाच्या प्रशिक्षणाचे वर्ग बरे तरेन जाले आनी दरेकल्याच्या घरांत हार पावते जावपाक लागले. कौशिकीच्या घराक दोनूय वटांनी दोन सोपे, मातयेचे आनी वयर शेणान सारयिल्ले. केन्नाय कोणूय येवन बसताले, गजाली करताले. पणजेचे लायब्ररीचो वापर पळोवन ताकाय दिसतालें गांवांत अशीं ल्हानशीं वाचपघरां आसपाक जाय आनी ताणें ह्या सोप्यांचो जाय तसो वापर केलो. पड्वेरूच कांय कदेली घाल्यो आनी आपल्या घरांतलीं कदेलां भायर मांडलीं. लोकांक जेन्ना हें कळ्ळें तेन्ना गरजेवंतांचीं पावलां हे वटेन पडपाक लागलीं.

अशे तरेचो एक एक विचार ताचे तकलेंत घोळत उरतालो. ताची तकली कोर्दिची बावली कशी घुंवत रावताली. कौशिकी नांवांतच बी कितें आसा काय, ताका वगीच दिसलें. आपणाक आवयन कौशिकी नांव कित्याक दवरलें हें एक कुवाडें म्हणून एक दीस ताणें त्या नांवांतलो अर्थ सोदलो. आवयक बावडेक कितें कळटलें? नक्षत्र करपाक गेल्ले कडेन पुरयतान सांगलें भुरग्याच्या नांवरसांतलें उतर आसा क मागीर क उतरान सुरू जाता तेंच दवरचें पडलें. तूंच सांग बाबा म्हाका अशें म्हणटकच ताणें एक पटी काडली आनी क उतरांतलें नाव सोदतना हें सांपडलें. कौशिकी हें एके देवीचें नांव. दुर्गा माता. शांतादुर्गा. एक वेगळेशें नांव म्हणुन ताका तें आवडिल्लें, एक हटके कशें. नावा भशेन आयुश्यांत अश्योच हटक्यो गजाली करच्यो हें मात ताका दिसत रावतालें.

आनी कौशिकीक जाय आशिल्लो आनी उमळशीक लागिल्लो तीस मे उजवाडलो. ह्या दिसाक ताचे नदरेन आनी एक आगळें म्हत्व आसा. गोंयाक घटकराज्य मेळिल्लो दीस हो. सामकें सोपेंपणी मेळूंक ना. आंदोलन करचें पडलां. कौशिकीक आनी कपिलेशाक ह्या दिसाचो मोटो अभिमान. खंयच कसलीच गजाल वायरल जायनासतना सगळें गुपचूप जातालें. आज कोणाच्याच घरांत हार पावलेनात. थोड्यांक जाणवलें जाल्यार थोड्यांक उगडास ना.

आनी इतल्यान कौशिकीच्या मोबायलाचेर फोन वाजलो. अनवळखी नंबर. कौशिकीन काना कडेन व्हेलो,

"कौशिकी न्ही?" तेवटेन आवाज.

"हय."

"सरकाराच्या म्हायती खात्यांतल्यान हो फोन आसा तुमकां. अंदू वर्साच्यान एका नव्या पुरस्काराची घोशणा सरकार करपाक सोदता. कोंकणी भाशेक प्रोत्साहन दिवपाच्या उद्देशान हेर भासांतल्यान कोंकणींत अणकार करतले एके व्यक्तीक हो पुरस्कार भेटयतले. ५० हजार रोख आनी यादस्तीक अशें ह्या पुरस्काराचें स्वरूप आसतलें. आज सांजवेळा घटकराज्याचें औचित्य सादून ह्या पुरस्काराची घोशणा जातली. अंदुच्या पयल्या पुरस्कारा खातीर निवड समितीन तुमच्या नांवाची शिफारस केल्या. तुमची मान्यताय आसा अशें धरूं न्ही?"

कौशिकीक केदो वेळ खरेंच दिसना जालें. आपूण आयकतां तें खरें काय आयच्या तीस मे दिसाचें एक काल्पनीक सपन काय? ताणें माधवी मॅडमीच्या फोटवाक हात जोडले आनी वयर लायिल्ल्या आई-बाबाच्या पायंजेलांकूय. कोंकणी खातीर, फकत कोंकणी खातीरूच आपणाक हें फाव जाल्ल्याची खोस ताच्या तोंडार झळकताली. मोबायल बंद करतांच मुखार कपिलेश उबो. तृप्तीन मुजरत गुंथून हाडिल्लो मनभुलोवणो सुंदर हार कपिलेशाच्या हातांत आशिल्लो. तो ताणें अळंग कौशिकीच्या गळ्यांत घालो आनी फाटल्यान उबीं आशिल्ल्या राकेशान आनी दीप्तीन उमेदीन ताळयो मारल्यो.

एक आनंदाचो सुवाळो चलता आसतना भायर दुसरो सुवाळो सुरू जालो.

तिनसानच्या काळखांत दादल्यांचीं पावलां बार्रा वटेन वळ्ळीं आनी हे वटेन सगळ्यो बायलो हातांत गुंथिल्ले हार घेवन उब्यो रावल्यो. भायलो आवाज आनी कुजबूज, फुतफुतप आयकून सगळे पिवपाक बशिल्ले दादले कोपां थंयच सांडून भायर आयले. बायलांच्या हातांत रंगीबेरंगी हार पळोवन सगळेच अजापीत. हें लचांड आमचेरच दिसता इतलें समजुपा इतले सगळे शितिदेंत आशिल्ले. सोरो कोपांनी तस्सो आशिल्लो, आजून घोंट उश्टावंकय नाशिल्लो. एकेकलो मान सकयल घालून मोन्यांनी कडसरपाक लागलो तशें जाचे ताचे बायलेन बळयां एकेकल्याक आडावन ताच्या गळ्यांत हार घालो.

गळ्यांत लोंबकळटले हार तशेच लांबयत खालते मानेन दरेकल्यान घरची वाट धरली. फाटोफाट बार्रांचीं दारां घडायंच करून बंद जालीं.

संपर्क: 9764597628





# पालकी

## विठ्ठल आवदियेंकार

वर्सुकी जात्रेच्या निमतान पूर्व परंपरे प्रमाण महामायेची पालकी देवळांतल्यान भायर सल्ली. बायलो तशेच दादले, भुरगीं हांची उपाट गर्दी. पालकी आतां गांवांतल्यान भोंवत खेतोबाच्या पेडयेर वचून मध्यान राती परतुपाची. भयण, भावाक मेळूंक वता अशी ह्या पालकी यात्रेची काणी गांवांत सांगतात. ''जय अंबे महामाये, नारायणी नमोस्तुते'' ह्या गजरांत पालकी पेणेपेण्यांनी मुखार वचपाची. रस्त्याच्या दोनूय वशींनी लोक धीट्टेन चलताले. पेणे पेण्यार थांबिल्ले कडेन सवाशिणी बायलो देवतेक आरत करताल्यो. गर्दींत कोण कितें करता आनी कोण कोणाक आपटता कांयच कळनाशिल्ले. तरीय लोक देवतेचे भेटेक धडपडटाले. हातांतले फुलांहार देवतेक म्हूण अर्पण करूंक वताले ते कितलेशेच खाला पडटाले. कांय कांय दुसऱ्यांच्या तकलेक आपटताले. लोक श्रद्धेन हात जोडून देवतेक नमस्कार करताले. परंपरे प्रमाण पालकेचो एक भोई जावन यशवंत पालके वांगडा चलतालो. ताकाय लोकांचो धपको बसतालो आनी तकलेर फुलांहार आदळटाले. सगळे कडेन आनंदी आनंद उमेद फाकिल्ली. खुबळ्ळेल्या सारके बँडाचे तालार तरणाटे भुरगे नाचताले. एके तरेची भक्ती-धुंदीचे वातावरण पसरिल्ले.

गांवच्या तिस्कट्यार तर चडच गर्दी आशिल्ली. तरणाट्यो चलयो चोम्या चोम्यांनी पालके सांगाताक चलताल्यो. तातूंतल्या कांय जाणाचेर 'इंम्प्रेशन' मारपाक युवा तरणाट्यांचीय धडपड पळोवपा सारखी आशिल्ली. एके तरेचो युवा सांवारच आयिल्लो. त्या गर्दींत गोविंद देसायाले यमुना 'यम्' आनी ताची इश्टीण रजनी हातांत हात घालून चलताली. इतल्या गर्दींतय यमुना उठून दिसतालें. रजनीचो हात घट्ट धरून ते चलतालें. पूण ताची पुराय नदर यशाचेर म्हळ्यार पालके सांगाताक चलपी यशवंताचेर आशिल्ली. खिणाक पुराय गर्दीचेर नदर फिरोवन यमुनाचें लक्ष यशवंताचेर येताले. ते गर्दींतय यशवंतान आपल्याक पळोवचे, मातशें तरी हासचें अशें ताका मनोमन दिसतालें. ताचे खातीर यमुनाचे चीत्त थाऱ्यार नाशिल्लें.

यशवंत मात पालकेचेर पुराय ध्यान एकवटून थंड चित्तान मुखार पावलां घालतालो. तोय एक युवा तरणाटो. मस्त तब्येतीचो आकर्शक व्यक्तीमत्वाचो आशिल्लो. आयज ताणें खासा रेशमी सदरो आनी पायजमो घातिल्लो. जाल्यार माथ्यार धवी तोपी चडयल्ली. कपलाक पिंजरीचो नाम काडून तो खूपच सुंदय दिसतालो.

यमुना रजनीच्या आडोशांतल्यान यशवंताक पळयत आशिल्लें. ताका पळयतल्या खिणाक ताचे चेऱ्याचेर चान्ने फांकताले. पूण यशवंताचे ध्यान आपले कडेन ना हें पळोवन ते अस्वस्त जातालें आनी निर्शेतालें. हातांतल्यान नाल्ल आनी फुलांहारा कडेन मागीर ताचे चाळे चलताले.

पालकी ल्हवू ल्हवू मुखार सरताली. लोक चलते पालकेचीय भेट घेताले. रस्त्या वेल्या लायटीच्या उजवाडांत पालकी वताली.

बँडाचो ताल आनी मर्दी मर्दी फुटपी फोगोट्यांच्या आवाजान वातावरण पुराय देवमय जाल्लें. तातूंत 'जय अंबे महामाये...' चो गजर व्हडा-व्हडान चालूच आशिल्लो.

यमुना रजनी सांगाताक खेटून चलतालें. मर्दींच कोणेंय हटकिल्ले जाल्यार खीण भर हासूनच तांकां जाप दितालें. पूण पुराय नदर आनी ध्यान यशवंतावेले हाल नाशिल्लें. खेतोबाच्या पेडयेर पालकी पावता म्हळ्यार बरोच कळाव जावपाचो. थंय पेडयेर पावतकीत बरोच वेळ देवकार्य, देवदर्शन जावपाचे. गाराणे, तिर्थप्रसाद जावनच मागीर पालकी परतुपाची. पेडयेरय मोठी जात्रा जाल्ल्या वरी फुलां, नाल्ल, खाजें-मिठायेचे आंगवणीच्या साहित्याचे माण लायिल्ले.

यमुना चलतां चलतांच यशाक पळोवक रजनीक ल्हवूच चिमटे काडटालें. आनी आपल्या मर्दींच मुमुरख्यांनी हांसतालें. रजनीय यमुचे मनांतलें वळखल्लें. ताचे मनांत वेगळेच विचार घोळटाले. यमुनाक यशाचे पिशें लागलां. ताचे खातीर यमुनाचो जीव तडफडटा. यशान ताका पळोवचे, ताका हांसचें, ताचे सांगाता उलोवचे अशी यमुनाची इत्सा आसा हे रजनी बेस बरें जाणा आशिल्लें.

गांवांत तशे तरणाटे खूब आशिल्लें. तातूंत गांवांतले व्हड प्रस्थ गोविंद देसायालें चली म्हूण यमुनाक वेगळो मान आशिल्लो. तरणाटे तशे ताचे लागीं विशेश मेतेर जाय नाशिल्ले. उरफाटो ताका उपाट मान दिताले. तें दिसलें जाल्यार थोडेशे लजेन मान खाला घालताले. ताका कारणय तशेंच आशिल्लें. गोविंद देसायालें यमुना दिसूंक देखणे आशिल्लें. नदर खिळ्ळेबगर रावं नाशिल्ली. यमुनान आपल्याक मर्जी दाखोवची मनोमन इत्सा बाळगुपी तरणाटे तशे ते वाठारांत आशिल्लें. पूण ते खातीर फुडाकार घेवपाचे धरिश्ट कोणाक जाय नाशिल्लें. यमुना आनी आमकां मीठ घालता अशेंच भोवतेकांक दिसतालें. पूण यमुनाचे मन यशवंताचेर भाळिल्लें. ताचे खातीर तें मनोमन पिशें जाल्लें. ताचे खातीर जीव अुंवाळून उडोवपाची ताची तयारी आशिल्ली. ताणें ताचो ध्यासच घेतिल्लो.

पूण... हय पूण यशवंताच्या राज्याक हाची विशेश सुलूस नाशिल्ली. आयज तर तो पुराय पालकेंत रमिल्लो. यशवंत.. उद्देगांत नांव कमायिल्ल्या मधुकर सावंतालो चलो. एकमेव वारस.

गोविंदबाब जरी गांवांतलो पेजाद मनीस आसलो तरी यमुनाच्या बाबतींत मनांत मातसो खंती आशिल्लो. यमू तागेले व्हडलें चली. ताचे फाटलो एक चलो आनी एक चली. दोगांय आजूनय अभ्यासांत खिळ्ळी. यमुना बारावी करूनच घरा राविल्ले. ताका शिक्षणा परस कला कौशल्यांत रस आशिल्लो. वयावेल्या यमुनाक तश्यो आदीं खूप सोयरिको येवच्यो. पूण ती घटना घडत पासून आयिल्ली नवी सोयरीक हे ना ते कारण सांगून फाटीं सरतालीं.

जालें अशें दोनेक वर्सां फाटीं यमुनाक एका बऱ्या घरांतलो भुरगो सांगून आयलो. शिक्षण, रुपान बरो तसो आस्पतीन व्हड मुळांवी पळोवंची उलोवप जाल्या उपरांत म्हूर्त थारावन फुडली कार्यावळ आखपा खातीर चल्या घरची सगळी मंडळी चलये घरा आयिल्ली. बरोच वेळ भासाभास आनी सगळे तरेची मागणी करून भोव खोशयेन चल्याले घरचीं आपल्या घरा परततालीं वाटेर तांचे गाडयेक अपघात जावन गाडयेंतल्या लोकांक मार लागलो. गाडी चलोवपी न्हवरो चलो अधिकच खर जखमी जाल्लो. ताका तीन दिसांनी वायट घडलें. ताका मरण आयलें. हो एक अपशकून आशिल्लो. पूण ताचे बालंट यमुनाचेर आयिल्लें. तेच नशीब फुटके, वायट नक्षत्राचे अशें म्हणत पुराय गांव यमुनाक असवडीं शिणूंक लागलो. उपरांत सोयरीक म्हूण आयिल्ल्या घराब्याक ही गजाल खंयच्यान ना खंयच्यान तरी कळची आनी सोयरीक मोडपाक नीब जावचें लोक म्हळ्यार ओक. लोकांचे तर्कट पुसून उडोवप कठीण आसलें. ते घटने उपरांत अशींच वर्सां गेल्लीं. गोविंदबाब तेच ताकीन वावुरतालो.

ना म्हळ्यार यमुनाय ते तणावांत आसतालें. खरेंच काय आपून नशीब फुटकें? म्हजें लग्नच जावचें ना व्हय? अशें ताका दीस. पूण ताचे तरणाटे मन मानूंक तयार नाशिल्लें. तें बंड करताले. ताचे बंडखोर मन ताच्या ताब्यांत येनाशिल्लें. ते बेजार जालें. एके तरेची तळमळ लागताली. भावनांचे वादळ जातालें. ते तरणाटेपणाचे वादळ 'तुफान' आसतालें. ताचो धग ताका लागतालो. ते रात रात रडटालें, खंगतालें देवादयेन आवय-बापाय घरा सगळो आराम आशिल्लो. पूण कुडीची तळमळ, तगमग कशी आटाप्पाची? ते एकच सुखाचे आशेन ताचे मन यशवंतात रमिल्लें. यशवंताच्या व्यक्तीमत्वाचे ताका पिशें लागिल्लें. आंतरीक मन सांवार करताले.

पूण यशवंताच्या राज्याक हाची कांयच खबर नाशिल्ले. तो आपल्यांतच गुल्ल आशिल्लो. यमुनाच्या दोळ्यां काळजाची भास यशवंताक उमगूं नाशिल्ली. ताचेच व्हड दुःख यमुनाक जातालें. यमुनाक तरणाटेरपणाचें सूख, सहवास जाय आशिल्लो. ते खातीर तें भोवच आशेल्लें. पूण हें सूख खीणा पुरतें न्हय तर मीर्गार ओतपी पावसावरी जाय आशिल्लें. ते पावसाच्या दीर्घ काळा ओळवाणे खातीर ते आशेल्लें. ते खातीरच ते तळमळटालें. यशवंताक मेळोवपाक ते तनमनान धडपडटालें.

पालकी पेडीतल्यान मुखार वताली. खेतोबाची पेडी लागी येताली. तशी पालके सांगाताची मनशां धुंद नाचतालीं. चलताली, 'जंय अंबे महामाये...' गजर अधिकच जातालो. सवाशिणींच्यो आरत्यो चालूच आशिल्ल्यो. फुलांहार पडत आशिल्लें.

पेडी लागीं लागीं जातालीं. यमुनाचें ध्यान फकत यशवंताचेर आसा हे ताची घट इश्टीण रजनीन ताडिल्लें. एकदम भार येवचो तशें ताणें यमुनाक हाताक धरून घस्स करून ओडलें. आनी ते उपाट गर्देत रिगलें. एका वेगांत तें यमुनाक ओडीत यशवंतालागी पावलें आनी कोणाच्या लक्षांत येवचे पयलीं यमुनाक यशवंताचेर धुकल्लें. गर्देंत कितें घडटा तें कळ्ळेच ना. तरी यशवंताची नदर यमुनाचेर गेली. आनी सांगाताक रजनी मुमुरख्यांनी हांसता ते पळयलें. तो वेळ मेरेन गर्दी वाडली. यमुना आनी रजनी त्या धीट्टेत यशवंता पासून पयस पडलीं.

"कशी लागली टक्कर यमू...?" रजनीन हांसत म्हळें. लटके रागान यमुनान म्हळें, "पिशा! अशें कितें गो तूं? आनी ताणें गैर समजलें जाल्यार?" "समजूं गो, तो गेलो तेल लायत. पूण म्हाका सांग तुका आपटप आवडलें कांय ना?" यमुना लजेलें आनी परत गर्देंत यशवंताक सोदीत रावलें. "पिशा, म्हाका ताचेर धुकल्लें मगो?" अशें म्हणत रजनीक यमुनान एक लटको चिमटो काडलो.

"आगो बायेऽऽ उदकांत पेंवचे आसल्यार उदकांत पयली उडी घेवंक जाय. कांठार बसून पेंवप जावचे ना." अशें म्हणत रजनी हांसलें.

"मागीर कितें कर म्हण्टा रज्जूऽऽ?" इतले घडले तरी यशान मातशें हांसचे तरी आशिल्लें. उलोवप सोड निकटे हांसूक लेगीत तो राजी ना."

"मागीर तूं तरी ताचे खातीर कित्याक अडलां. तो इतली मिजास दाखयता जाल्यार तुवें तरी ताका कित्याक मीठ घालचें?"

रजनीलीं उतरां आयकून यमू थोडे निरशेलें. रजनीक कशें समजावचे हेच ताका कळना जालें. तरीय ताणें म्हळें, "रज्जूऽऽ तशें न्ही गो." "तशें न्ही तर कशें?" हें पळय यमू, तो एक पिसो, त्या पिशा फाटल्यान तूं लागूं नाका. बेटेच मन खंती करून घेतलें. आनीक एक अपयश घडत.

रजनीची हीं उतरां आयकून यमुना अदीकच निरशेलें. "रज्जू" म्हाका ताचे पिशें लागलां. ध्यानी मनी म्हाका तोच दिसता. यशवंताच्या विचारा बगर म्हजो एकय खीण वचना. ताची म्हूर्त दोळ्यां सामका वयल्यान हालना. ताणे निकटे खीण भर हांसचें हे आशेन तडपडटा हांव रज्जू."

"मागीर तूंय ताका हांसूं नाका." रजनी.

"म्हज्यान जावचें ना..." यमुना.

"मागीर हांव सांगता तशें करशी?" रजनी.

"उलय बेगीन ..." यमुना

"हें पळय मागीर फाटीं सरशीं" रजनी

"ना गो म्हजे भयणी, उलय" यमुना.

रजनी यमुनाच्या कानांत कितें तरी फुतफुतलें. यमू अजापलें. रजनीन म्हळें, "पळय, हो डाव निमणो... चल यो सामकार." अशें म्हणत रजनीन यमुनाक परत्यान त्या घिट्टेंत ओडलें. चार पावलां नेटान मारून भोई जावन पालके सांगाताक चलपी यशवंताचे सामकीं लागसार आयलीं. रजनीन सांगलें तें प्रमाणे यमुनान बळयांच पालकेचेर फुलां हार उडयत अशा अविर्भावांत हार उडयलो. पूण तो यशवंताचे गळ्यांत पडटलो तांणी माण्णी करून उडयलो. यमुनान उडयल्लो हार यशवंताचे गळ्यांत पडपाक यशवंताची नदर मुमुरख्यानी हांसपी यमुनाचेर गेली. तो खीणभर अजापलो. ताकाय तेय स्थितींत हासूंक आयलें. ताणें गळ्यांतलो हार हातांत घेवन ताचो खीणभर उमो घेतलो. हे पळोवन यमुनाचे दील पागल जाले. उमेदीन ती गर्देंत फाटीं पडत गेलीं.

ह्या घटनेन यशवंतय बुचकळ्ळो. हें कितें घडटा तें खीणभर ताकाय कळ्ळें ना. ताचे पालकेचें ध्यान घुवलें आनी गर्देंत यमुनाक सोदूंक लागलें. पालकी तो वेळ मेरेन पेडयेर पाविल्ली. लोकांची घिट्टी. यशवंतान पालकेची जापसालकी हेरांचेर सोंपोवन तो यमुनाचे सोदीक सुटलो. पेडये वयल्या देव-कार्याक कळाव जातलो हे तो जाणा आसलो. देवीचो गजर, फोगोट्या माराणांचो गडगड, बॅंडाचो कडकड आनी लोकांचो कलकल हातूंत सगळो वाठार भरून गेल्लो. पूण हया खंयच्याय गजाली कडेन यशवंताचे लक्ष नाशिल्लें. तो यमुनाक सोदतालो.

हे वटेन आपणे केल्ली माण्णी जुस्त पथ्यार पडली हे खोशयेन यमुना आनी रजनी एका मांणाचे आडोसाक रावन आपले भितरच खिदळटालीं. यशवंताचे लक्ष ओडून घेवपाक यमुना यशस्वी जाल्लें हाची खोस तांच्या मुखामळार स्पश्ट दिसतालीं. यशवंताच्या सोद नदरेन तांका जुस्त पळयली. आता हांची मजाच करतां ह्या इरादयान ताणें फुडें पावल घाल्लें. येदोळचो हार अजून ताचे हातांत आशिल्लो. तो चोर पावलांनी त्या मांणासरी आयलो आनी एका घाळ खिणाक खबऱ्यांत गुल्ल यमुनाच्या गळ्यांत येदोळचो हार घालो. कितें घडटा हे कळचे आदींच ताणें यमुनाक काळखाचे दीकेन ओडलें. रजनी शिटकावलें. दोन मोग्यांक असूदाय उलोवंदी म्हूण आपूण अचळय थंय सावन कडसलें.

यशवंतान गळ्यांत घातिल्लो हार पळोवन यमुना भांबावलें. ताका यशवंता लागी कितें उलोवचें सुचना जालें.

"तीर बरोच अचूक मगो तुजो यमू?" यशवंत.

यशवंत आपले कडेन अेकेरीत उलयता ते पळोवन यमुना अजापलें. तितलेंच सुखावलें आनी लजेलेंय बी.

"कसो तो'... यमुना.

"हार देवते बदला म्हज्या गळ्यांत पडलो...." यशवंत.

यमुना परत्यान मोने जालें.

"हांवें तुजे देणें पावयलें..." यशवंत.

"कशें तें?" यमुना.

"हार तुजेय गळ्यांत घालून" अशें म्हणत यशवंतान यमुनाचे भूज धरून आपले वटेन ओडलें. यमुनाची यशवंताक वांगडाच खेम पडली.

"हें कितें करता? लोक पळयत जाल्यार?" यमुना.

"पळोवंदी. वेदळ तुवें फेकिल्लो हार म्हजे गळ्यांत पडलो हें लोकांनी पळोवंक ना तर?" यशवंत.

"तें गर्देंत चुकून जालां अशें सगळ्यांक दिसतलें." यमुना.

"पूण हांवें जाणा जावन घाला हार तुज्या गळ्यांत." यशवंत.

"कितें?..." यमुना.

"हय, जाणा जावन घाला हार तुज्या गळ्यांत. तुका कायम म्हजें करूंक."

"पूण हांव तर फुटक्या नशीबाचें म्हण्टात." यमुना.

"फुटकें आसूं ना जाल्यार पडकें, म्हज्या खातीर तूं रितीचे." यमुना लजेलें. दोन जीव खीणभर एक जाले. दोगांयनी वांगडाच म्हळें, "देवते पावली गेऽऽ"

म्हयन्या भितर यशवंत आनी यमुनाचें लग्न जालें. दोनय वटेनचे पंगड गिरेस्त आशिल्ल्यान आख्खो गांव लग्नाक आयलो, आनी जेवलो. यमुनाची पालकी यशवंतान जिविताची राणी करून घरा हाडली.

संपर्कः 9822168542

# 'रि-युनियन'

सखाराम शेणवी बोरकार

नरेशान आपली स्कुटर कला आकादेमीच्या 'पार्कींग लॉटांत' लायली आनी तो कला आकादेमीच्या 'कृष्णकक्षांत' वचपाक भितर सरलो.

आयज तांच्या 'एसएससी' बॅचीचें 'रि-युनियन' कला आकादेमीच्या 'कृष्णकक्षांत' दवरिल्लें. कालूच ताणें 'भांगरभुंयंत' आयच्या सुवाळ्याविशींची खबर वाचिल्ली. तागेल्या 'एसएससी'च्या वर्गांतले वांगडी आयज खूब वर्सांनी परत मेळटाले. दीस भर कला आकादेमींत कार्यावळ दवरिल्ली. मुखेल कार्यावळ 'दिनानाथ मंगेशकार' सभाघरांत आनी समारोपाची कार्यावळ 'कृष्णकक्षांत' दवरिल्ली. अजापाची गजाल म्हळ्यार ते 'एसएससी' बॅचीचो एक वांगडी आसून लेगीत नरेशाक मात सुवाळ्याचें आमंत्रण नासलें.

खरें म्हळ्यार ह्या 'एसएससी'च्या वर्गानूच नरेशाचे जिणेंत खवदळ घालो. ताचीं फळां तो आयज लेगीत भोगतालो. फाटलीं पंचेचाळीस वर्सां जें वजें ताणें आपल्या काळजांत दामून दवरिल्लें तें उक्तें करपाच्या हावेसानूच आमंत्रण नासतना लेगीत समारोपाचे कार्यावळीक हाजीर रावपाक नरेश कला अकाकदेमींत आयिल्लो.

नरेशान कृष्णकक्षा भायर नदर भोंवडायली. पेपर प्लेटी, प्लास्टिकाचीं कोपां हांची रास पडिल्ली. दनपारचें जेवण सामकें फोर्त जाल्लें जावंक जाय, ताणें अदमास केलो.

ताणें 'कृष्णकक्षां'त पावल दवरलें. सभाघर सगळें भरिल्लें. सगळे आपआपल्या फामिलीक घेवन आयिल्ले. पंचेचाळीस वर्सांनी सगळे परत मेळटाले न्हय! नरेश भितर सरलो आनी एका कोनश्याक आंग चोरून बसलो. कोणाचेंय ताचेर लक्ष गेलें ना.

नरेशान माचयेर नदर मारली. माचयेर व्हडलें बॅनर लायिल्लें. ताचेर बरयिल्लें

'Modern English High School, Panaji,

Re-Union of S.S.C. Batch of 1970-71.'

माचयेर कार्यावळीचे मानेली बशिल्ले. सगळे ताचेच वर्गाइश्ट आसले.

आरे हो तो वामन देसाय मुखेल सोयरो! आरे हो तो उमेश कामत आयचो अध्यक्ष आनी हो तो सदानंद बांबोळकार आनी हो तो नानू साळगांवकार! नरेश माचये वयल्या मानेल्यांचीं आयचीं मुखामळां पळोवन तांचीं पयलींचीं मुखामळां याद करपाचो येत्न करतालो. माचये वयल्या मानेल्यांक पळोवन नरेशाचे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो.

इतल्यान कार्यावळीचो सुत्रसंचालक नानू साळगांवकार उबो रावलो. "भावांनो आनी भयणींनो आनी म्हज्या माणकुल्या इश्टानो! आतां आमी कार्यावळीच्या निमण्या सत्रांक पावल्यात. आयज खूब वर्सांनी आमी एकामेकांक मेळ्ळीं आनी खूब मजा केली. आमच्यो आदल्यो यादी जागयल्यो. अशेंच आमी परत- परत मेळुंया. आतां हांव आयच्या कार्यावळीचो मुखेल सोयरो, आमच्या १९७०-७१ वर्साच्या 'एसएससी' बॅचीचो वांगडी आनी सुप्रिम कॉर्टाचो आदोवोगाद भौमानेस्त वामन देसाय हांकां दोन उतरां उलोवपाक आपयतां!

मुखेल सोयरो वामन देसाय भाशण करपाक उबो रावलो. ही कार्यावळ घडोवन हाडिल्ले खातीर ताणें जाळवणदारांची तोखणाय केली. आपल्याक घडोवपाक 'मॉडर्न इंग्लीश स्कुलाचो' खूब मोलादीक वांटो आसा अशें सांगलें आनी फुडले फावटीं परत येवपाचें उतर दिवन आपलें भाशण सोंपयलें.

नरेश आपल्या जाग्यारूच चुळबुळटालो. इतल्यान नानून कार्यावळीचे अध्यक्ष उमेश कामत हांकां भाशण करपाक आपयलो. उमेश कामतीन आपल्या भाशणांत कार्यावळीची तुस्त केली आनी 'मॉर्डन स्कुलाक' पांच लाखांची देणगी जाहीर केली.

अध्यक्षाचें भाशण जातगीर नानून उपकाराचें भाशण करपाक सदानंद बांबोळकार हाका आपयलो. बांबोळकारान ही कार्यावळ जैतवंत करपाक जाणीं -जाणीं हातभार लायलो तांचे उपकार मानले आनी फुडल्या वर्साय अशीच कार्यावळ घडोवन हाडपाक सगळ्यांचो तेंको मागलो.

कार्यावळ सोंपली म्हण सांगपाक नानू मायका मुखार आयलो. इतल्यान नरेश आपल्या आंगातलें आशिल्लें नाशिल्लें सगळें बळ एकठावन उबो रावलो आनी म्हणूंक लागलो, "रावात! म्हाका उलोवंक जाय!"

सगळ्यांच्यो नदरो नरेशाचेर थिरावल्यो. एक सटरफटर मनीस उबो रावता आनी आपल्याक



उलोवंक जाय म्हणय हाचें सगळ्यांकूच अजाप दिसलें.

नानून ताका विचारलें "तूं कोण? तुका हांगा कोणें आपयला?"

नरेशान म्हळें "हांव 'मॉडर्न इंग्लीश स्कुलाचो' १९७०-७१ वर्साचे 'एसएससी' बॅचीचो एक विद्यार्थी!"

अध्यक्षान नानूक थांबोवन म्हळें, "उलोवं दी ताका".

नानून नरेशाक माचयेर येवपाक सांगलें. नरेश तुरतुरीत माचयेर चडलो. माचयेर बशिल्यांक अभिवादन केलें आनी म्हणूंक लागलो "म्हज्या मोगाळ भावानो आनी भयणीनो! तुमकां अजाप जातलें की हो आनी कोण सटरफटर मनीस उलोवंक सोदता काय म्हण? आयज जे १९७०-७१ वर्साचे 'एसएससी' बॅचीचें 'रि-युनियन' तुमी घडोवन हाडलां ते बॅचीचो हांव एक वांगडी, म्हजें नांव नरेश गांवस!"

नरेश गांवस म्हणिना फुडें कांय जाणांचे तकलेंत लख्ख उजवाड पडलो.

"हांव एक गरीब कुटुंबांतलो भुरगो. म्हजो गांव वळवय. म्हाका शिकपाची खूब आवड आसली. पूण तेन्ना आमच्या गांवांत फकत चवथी मेरेनचीच शाळा आसली. चवथी यत्ता हांव पयल्या नंबरान पास जालों. म्हजो शाळा मास्तर म्हज्या बापाय सरीं आयलो आनी म्हाका फुडल्या शिक्षणा खातीर शारांत धाडपाची विनवणी केली. "तुमचेंच न्हय तर आख्ख्या गांवाचें नांव वयर काड्टलो नरेश !" गुरुजीन मोठ्या अभिमानान म्हळें.

म्हज्या बापायकूय हांवें खूब शिकिल्लें जाय आसलें पूण आमची अर्थिक परिस्थिती बरी नासली. आमचीं खूब पयशिल्लीं सोयरीं पणजे रावतालीं थंय बापायन म्हजी वेवस्था केली आनी म्हजें नांव पणजेच्या 'मॉडर्न इंग्लीश स्कुलांत' घालें.

म्हजो बापूय म्हयन्या-म्हयन्याक तांकां पयशे धाड्टालो. हे पयशे धाडपाक ताका कितले त्रास पड्टाले हें ताणें म्हाका केन्नाच जाणून दिवंक ना. ताणें म्हाका म्हणचें "तूं फकत शिक आनी आमचें नांव वयर काड. फुडलें हांव पळयता". हांव एसएससीक पाव मेरेन बापायक आमच्या शेताचो अर्दो कुडको विकचो पडलो. पूण बापायच्या तोंडार म्हाका केन्नाच निरशेवणी दिश्टी पडली ना.

हांव एक हुशार भुरगो आसलों. एसएससीक पाव मेरेन हांवें पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना. म्हज्या वर्ग शिक्षकाक आनी प्रिन्सीपॉलाक हांव स्कुलाचें नांव वयर काड्टलों हाची खात्री आसली.

गणीत हो म्हजो खास आवडीचो विशय आसलो. कठिणांतलें कठीण गणीत हांव सट्ट करून सोड्यतालों. पूण म्हाका खबर नासलें की हेंच गणीत एक दीस म्हज्या आयुश्याच्या गणिताची वाट लायतलें म्हण!

फायनल परिक्षा सुरू जाली. आमच्या वर्गांतल्या थोड्याच भुरग्यांनी संस्कृत विशय घेतिल्लो. ते खातीर आमच्याच वर्गांतले हांव धरून आनीक तीन चार भुरगे एकाच सेंटरांत, एकाच हॉलांत पडिल्ले.

परिक्षा सुरू जाली. पयलो पेपर आसलो इंग्लीश. तो सगळ्यांचोच बरो गेलो. पूण दुसऱ्या दिसा आसलो गणीत पेपर. थोड्यांक गणिताच्या पेपराच्या हुस्क्यानच न्हीद पडली ना. पूण हांव मात बिनधास्त आसलों. कारण हांवें तयारीय तशीच केल्ली.

दुसऱ्या दिसा गणिताचो पेपर सुरू जालो. प्रस्नपत्रिका वाचले बराबर म्हाका कळ्ळें की पेपर सोंपो ना. हो पेपर बाकीच्या भुरग्यांक खूब कठीण वतलो. म्हाकाय तो सोंपो नासलो, पूण बरे गूण पडटले हाची म्हाका खात्री आसली.

हांव झपाझप पेपर सोड्यतालों. हांवें मुखेल उत्तरपत्रिका बरोवन सोंपयली. बाकीच्या भुरग्यां कडेन लक्ष दिवपाक म्हाका वेळ नासलो. हांवें मुखेल उत्तरपत्रिका बरोवन सोंपयली आनी पुरवणे खातीर सुपरवायजराक आपयलो. सुपरवायजरूय अजाप जालो. ह्या वेळा भितर बाकीच्या भुरग्यांचें एक पान लेगीत बरोवन जावंक नासलें.

इतल्यान म्हजे फाटल्यान बशिल्ल्या म्हज्या वर्ग इश्टान म्हाका पेनान धोंगशिलो आनी म्हजी मुखेल उत्तरपत्रिका मागली. म्हाका येवजूंक वेळच नासलो. हांव गणितां सोडोवंक गूंग आसलों. हांवें बरयिल्ली मुखेल उत्तरपत्रिका ताका दिली आनी थंयच म्हजे जिणेक वादळी मोड आयलें.

आपणें कॉपी करून ताणें ती उत्तरपत्रिका फाटल्यान एकल्याक दिली. अशें करून ती उत्तरपत्रिका म्हज्या तीन चार वर्गमित्रां कडेन पावली.

इतल्यान पेपर सोंपिल्ल्याची घांट जाली आनी हांव भानार आयलों. पेपर बरो गेलो म्हणून हांव खूश आसलों. हांव पुरवण्यो बांदपाक लागलों. पूण म्हजी मुखेल उत्तरपत्रिकाच म्हजे कडेन नासली. हांवें म्हजे फाटल्यान बशिल्ल्या भुरग्या कडेन म्हजी उत्तरपत्रिका मागली. ताणें सांगलें की ताणें ती फाटल्या भुरग्या कडेन दिल्या. अशें करून ती उत्तरपत्रिका म्हज्या खंयच्या तरी वर्गमित्रा कडेन पाविल्ली.

सुपरवायजर म्हजे कडेन उत्तरपत्रिका मागपाक आयलो. पूण म्हजे कडेन मुखेल उत्तरपत्रिकाच नासली. म्हजे हातपांय थरथरपाक लागले, दोळ्यां मुखार सामको काळोख आयलो. इतले म्हण सर ज्या भुरग्या कडेन म्हजी उत्तरपत्रिका पाविल्ली ताणें आपल्याचेर आनी बगलांट नाका म्हण ती पिंजून भायर मारली आनी आपली उत्तरपत्रिका दिवन भायर सरलो.

सुपरवायजर म्हाका घेवन ते शाळेच्या प्रिन्सीपॉला कडेन गेलो. तो प्रिन्सीपॉल काय म्हाका वळखनासलो. ताणें म्हाका म्हजी उत्तरपत्रिका खंय काय म्हण विचारलें. पूण हांव वोग्गी रावलों. ताणें सुपरवायजराक सांगलें की हाका फुडल्या पेपरांक बसूंक दिवनाका.

म्हजे हात पांय गळसणले. तसोच उठून बद्द घरा आयलों. म्हज्या आवय बापायक ही खबर सांगली. खबर आयकना फुडें बापूय घुंवळ येवन पडलो. कितलीं सपनां पळयिल्लीं ताणें! सगळीं सपनां हांवें मातये भरवण केल्लीं. आवय म्हजे कडेन उलयना जाली. त्या शॉकान बापूय जो हातरुणार पडिल्लो तो परत उठलोच ना.

थोड्याच दिसांनी बापूय भायर पडलो आनी

*(पान २१ चेर)*

तोंडार नेटान पच-पच करून उदक पडिल्ल्यान शांता शुद्धेर आयलें. ताणें दोळे उघडले. दाट झाडां आशिल्ल्या निर्जन रस्त्यार तें आडवें पडिल्लें. ताचे सरभोंवतणीं पोलिसांनी आनी लोकांनी गर्दी केल्ली. तांकां पळोवन तें मातशें काचाबूल जालें.एका हवालदारान ताका बेगीन बेगीन उदक हाडून पिवपाक दिलें.

"सर, शुद्धेर आयलें हें." हवालदारान इन्स्पेक्टर पावसकराक उलो मारलो.

पावसकर फोनार उलयतालो. ताणें बेगीन बेगीन फोन बंद केलो आनी धांवत शांता लागीं आयलो. हवालदारान आपली डायरी आनी पेन हातांत घेतलें आनी पावसकर सरांच्या प्रस्नांची वाट पळोवपाक लागलो.

शांतान उदकाची बाटली सकयल दवरली.

"बाय, आता बरें दिसता तुका?" - पावसकरान विचारलें.

शांतान तकली हालयत हयकार दिलो.

"तुजें नांव किदें? खंयचें तूं.?"

"शांता. शांता नायक. सावयवेरेंचें हांव."

"हांगा किदें घडलें बाय ? आनी... ताका कोणें मारलो?"-पावसकरान धव्या कपड्यान धांपिल्ल्या मड्या कडेन बोट दाखयत विचारलें.

"कितें ?" शांतान आबूज जावन मड्या कडेन पळयलें. ताचेर घातिल्लो धवो कपडो रगतान भिजिल्लो. एका हवालदारान मड्याच्या तोंडा वयल्यान कपडो पयस केलो.

"कितें?? ताणें महेशाक मारलो?"- शांतान भियेत रडत म्हणलें.

"कोणें महेशाक मारलो?"

"दुर्गान."

"दुर्गा?? कोण दुर्गा??" - पावसकरान परत प्रस्न केलो.

"म्हाका ताचे बद्दल चड कांय खबर ना. हांव ताका कालच्यानच वळखता. पूण सभावान खूब बरें तें."

"ओके. काल कशें, खंय मेळिल्लें तें मातशें सांगता?"

शांतान काल घडिल्ली गजाल पोलीसांक सांगपाक सुरवात केली आनी तें स्वता भूतकाळांत पावलें.



# दुर्गा

सर्वेश नायक

शांता रस्तो 'क्रॉस' करपाक राविल्लें. पूण ताचे भितर एक पावल मुखार घालपाचे धाडस नाशिल्लें. एका फाटल्यान एक अश्यो वेगान गाड्यो धांवताल्यो. रस्त्या वयले व्हडले व्हडले ट्रक तर ताका चडच भिवयताले. पांच मिनटां तरी तें थंय तशेंच उबें उरलें. रस्तो क्रॉस करचो तरी कसो हो पेंच ताचेर पडिल्लो. खरें म्हणल्यार असो रस्तो क्रॉस करपाची ही ताची पयलीच वेळ आशिल्ली. ल्हानपणा सावन आतां मेरेन बापायन ताका केन्नाच रस्त्यार एकट्याक भोंवपाक दिलेंच नाशिल्लें. हालींच दोन सप्तकां पयलीं ताचो बापूय काळजाच्या आताकान संवसाराक अंतरिल्लो. आयजूच तें परत कॉलेजींत वचपाक भायर सरिल्लें. बापायच्या उगडासान ताच्या दोळ्यांत परत एक फावट दुकां भरलीं. तें रडपाक पावलें तेन्नाच ताका आजयेची उतरां याद जालीं.

"बाय, आतां तुजो बाबा ना. हे फुडें तुजे मुखार येवपी दरेक प्रसंगाक आतां तुका एकट्याकच तोंड दिवचें पडटलें. म्हणून कसलेंय संकट आयल्यार नवदुर्गेचें नांव घे आनी मुखार वच."

शांतान लांब स्वास घेतलो आनी दोळे बंद केले.

"जय नवदुर्गा माता."-

ताणें कडकडत पयलें पावल घातलें. गाड्यांच्या भंयान ताका ताचें पावल खूबच जड भासपाक लागलें. तेन्नाच फाटल्यान रावन कोणें तरी ताका उलो मारलो.

"एस्क्युज मी!! हांव हेल्प करूं तुका?? खूब वेळ जालो तूं हांगा आसा. चल यो म्हजे बराबर. अशें म्हणत ताणें शांताचो हात धरून रस्तो क्रॉस केलो.

शांताच्या जिवांत जिजीव आयलो.

"थँक्यू व्हेरी मच... खरें सांगपाचे जाल्यार, म्हाका रस्तो क्रॉस करपाक येना. ल्हानपणा सावन बाबाच हाडटालो व्हरतालो."-

"आयज बाबा ना?" ते चलयेन विचारलें

"ना. ही एक्स्पायर्ड..." - शांताचे दोळे परत दुकांनी भरले.

"ओह!! आय एम सॉरी..."-

"आयज तूं नाशिल्लें जाल्यार घड्ये दिस भर हांगाच उरताशिल्लें हांव. बाय द वे... म्हजें नांव शांता. तुजें नाव किदें??"

"दुर्गा"- ताणें जाप दिली.

"नवदुर्गा???" - शांतान अजापान विचारलें.

"व्हॉट???..." दुर्गा हासलें.

"कांय न्ही, हेच कॉलेजींत शिकता न्ही तूं??" -आपल्याच पिशेपणाचेर हांसत शांतान विचारलें.

"हं... सो फ्रेन्ड्स्???"- दुर्गान आपलो हात मुखार करीत शांताक विचारलें.

"हय."- शांतान हांसत ताचो हात धरलो.

दनपरां कॉलेज सुटले उपरांत शांता सोंपणां देवतालें तेन्नाच निशांतान ताची वाट आडायली. निशांता बरोबर ताचो इश्ट महेशय आशिल्लो.

"तुज्या बाबा बद्दल आयकलें. आयकून खूब वायट दिसलें. हांव पावोवं तुका घरा?" -निशांतान गालांत हांसत म्हणलें.

"कांय गरज ना."- शांता

"यो गो पावयतां तुका घरा... बाबा कांय ना तुजो आतां."- निशांतान ताका हाताक धरून ओडीत म्हणलें.

"पळय निशांत... तूं म्हजी वाट सोड. नाजाल्यार..." - शांतान आपलो हात सोडोवन घेतलो.

"नाजाल्यार किदें करतलें.??? बाबाक सांगतले? सांग मुगो... चल सांग." -

निशांतान हासत म्हणले.

तेन्नाच थंय प्रिन्सिपल पावली.

"किदें चल्लां हांगा.???"

"काय ना मॅडम." -अशें म्हणत निशांत आनी महेश थंयच्यान गेले.

*****

दुसऱ्या दिसा बसींतल्यान देंवतानाच शांताक दुर्गा मेळ्ळें. दुर्गा ताचीच वाट पळयतालें. कालचे सारकोच दोगानीय रस्तो क्रॉस केलो. शांतान ताका काल घडिल्ली गजाल सांगली. निशांत आनी महेश आपल्याक कशे सतायतात तें लेगीत सांगलें. दुर्गाक तिडक आयली.

"आयज कॉलेज सुटले उपरांत सारकी बुद्द शिकोवंया तांकां."-अशें म्हणत दुर्गा रागान गेलें.

कॉलेज सोंपतकच शांता दुर्गाची वाट पळयत रस्त्यार राविल्लें. पूण दुर्गाचो पत्तोच नाशिल्लो. तेन्नाच अचानक एक गाडी येवन शांता मुखार थांबली. महेशान गाडयेचें दार उक्तें करून आपलो हात भायर काडलो आनी जोरान शांताक गाडयेंत भितर ओडलें. शांता बोवाळ मारता म्हूण ताचें तोंड दाबून धरलें. दोगांयनीय ताका एका निर्जन रस्त्यार व्हेले. शांतान जिवाच्या आकांतान बोवाळ मारलो.

"नवदुर्गे पाव गे म्हाका."

अचानक खंयच्यान तरी दुर्गा थंय पावलें आनी ताणें निशांताच्या कानसुलार सणसणीत थापट मारलें. ते बराबर तो सकयल पडलो.

ते बराबर महेश सुरो घेवन धांवत आयलो. दुर्गान ताच्या पोटार एक खोंट मारून ताकाय सकयल उडयलो. ताच्या हातांतलो सुरो घेतलो आनी सपा सप ताचे मानेर, पोटार वार करीत रावलें.

शांताच्या दोळ्या मुखार काळोख आयलो आनी घूंवळ येवन तें सकयल पडलें.

*****

शांतान घडिल्ली सगळी गजाल इन्स्पेक्टर पावसकराक सांगली. हवालदारान सगळें बरोवन घेतलें. शांतान तांका निशांताचो पत्तो दिलो.

"शांता, तूं मातशें पोलीस स्टेशनार वचून रावता कांय फोर्मालिटीज पुराय करपाक जाय. हांव रोखडोच येतां."-

"ओके सर." - शांतान हयकारी मान हालयत म्हणलें.

"हवालदार, तुमी वचून निशांताक अरेस्ट करात. हांव ते म्हणसर दुर्गाचो सोद लायतां. कॉलेज प्रिन्सिपला कडेन ताचो पत्तो आसतलोच. मर्डर वेपन लेगीत गायब आसा. ताचोय सोद लायात.

पावसकरान आपल्या हवालदारांक फर्मायलें.

कांय वेळान पावसकरान शांताच्या कॉलेजींतल्या प्रिन्सिपलाक फोन लायलो.

"मॅडम, हांव इन्स्पेक्टर पावसकर उलयतां. तुमचे कॉलेजींत शिकपी महेशाचो खून जाला हें तुमी जाणाच आसतल्यो."

"हय. गजाल कानार पडल्या म्हज्या."-

"आतां तुमी खंय आसात?"

"परत कॉलेजींत आयलां हांव."-

"आमकां मातशी तुमची मदत लागतली. हो खून तुमचेच कॉलेजींत शिकपी एका दुर्गा नांवाचे चलयेन केला असो दुबाव आसा. मातशी ताची म्हायती दिवश्यात.?"

"नाव किदें म्हणले?? दुर्गा?"-

"हय. दुर्गा."

"एक मिनीट आं."- मॅडमीन कॉम्प्युटराचेर नांव घालून सोदलें.

"आय एम सॉरी इन्स्पेक्टर पावसकर... दुर्गा नांवाचें कोणच आमचे कॉलेजींत ना."

"घडये शांताक ताणें आपलें खरें नांव सांगलें ना आसत. इटस् ओके. थँक्यू व्हेरी मच."

पावसकरान फोन दवरलो आनी हवालदाराचो फोन आयलो.

"सर, निशांताक धरला आमी. तुमी बेगीन पोलिस स्टेशनार येयात."

*****

निशांत तकली सकयल घालून बशिल्लो. शांता लेगीत थंय उबें आशिल्लें. पावसकरान येतनाच ताच्या कॉलराक धरले.

"किदें??? कसलो खेळ खेळटाले? चड चेडवांची फकाणां मारपाची उमेद न्हय तुमकां?"

"सर ताणें म्हज्या इश्टाक जितोच मारलो."- निशांतान बेग-बेगीन सांगलें.

"सगळें जाणां हांव. म्हाका सांग, खंयच्यान धांवलें तें. अजूनय मेळूंकना तें" - पावसकरान म्हणले .

"कोण??" - निशांत.

"कोण म्हणल्यार दुर्गा... महेशाक मारले उपरांत खंयच्यान गेलां तें??" -पावसकर.

"कोण दुर्गा?? महेशाक दुर्गान न्हय. शांतान मारला."- निशांत.

"हो फट उलयता." - अशें म्हणत शांता निशांताच्या आंगार धांवून गेलें. ताचे हावभाव बदल्लें. शांत सभावाचें शांता एकदम आक्रमक जालें.

"दळदिऱ्या... ताका शांतान न्हय. हांवें मारलां... दुर्गान... तूं म्हज्या हातांतल्यान सुटलो. ना जाल्यार तूं लेगीत मरपाचो."

शांताचीं उतरां आयकून पावसकर बुचकळ्यांत पडलो. आनी दोन लेडीज कॉन्स्टेबलांनी येवन शांताक आडायलें.

*****

चार दिसांनी पावसकर शांताचेर उपचार करपी मनोचिकित्सक दोतोर अग्निक वचून मेळ्ळो.

"दोतोर, शांताक जालां तरी किदें??" - पावसकरान प्रस्न केलो.

"तुमकां सांगपाचें जाल्यार शांताक एक वेगळेंच दुयेंस आसा. ताचे दुयेंस हें एक मानसीक दुयेंस आसा. ह्या दुयेंसाक स्किजोफ्रेनिया अशें म्हणटात. जातूंत ताणें आपल्या मनांत एक नवी काल्पनीक व्यक्ती तयार केल्या."- अग्नि.

"म्हाका कळ्ळें ना दोतोर." - पावसकरान म्हणलें.

"सांगतां सर. शांता हें एक खूबच शांत सभावाचें चली. ल्हानपणा सावन थंड, हळवें, कोणाक दुखोवपी न्ही. सगळें सोंसून ओगी रावपी. समाजा कडेन लडपाक तें सक्षम ना. तें भियेता. म्हणटकच जें तें करपाक शकना तें सगळें करपाक ताच्या मनान एक नवी व्यक्ती जल्माक घातल्या. जी सभावान एकदम शांता परस वेगळी आसा. निडर,धाडसी अशी. मुखार येवपी खंयच्याय प्रसंगाक तोंड

*(पान २६ चेर)*

# व्हडलो भाव

मूळ हिंदी कथा 'बडे भाई साहब' लेखक : प्रेमचंद – अणकार : रजनी भेंब्रे

म्हजो व्हडलो भाव म्हजे परस पांच वर्सांनी व्हड आशिल्लो. पूण शिकपाक तीन वर्ग फुडें. जेन्ना हांव शाळेंत वचपाक लागलों तेन्नाच तोय वचपाक लागलो. आपली शिक्षणाची बुन्याद घटमूट जावची म्हूण दर वर्गांत तो दोन वर्सां घेतालो. ताचें अशें मत आसलें की महाल वा घर घटमूट आनी गडगंज जातलें जाल्यार बुन्याद बरी आसूं जाय. केन्ना-केन्ना तर व्हडलो भाव एका वर्गांत तीन वर्सां लेगीत बसतालो.

हांव धाकलो आनी भाव व्हडलो. म्हजी पिराय णव वर्सां तर भावाची चवदा वर्सां आसली. म्हाका बरे तरेन सांबाळपाची, म्हजेर पुरायपणान नदर दवरपाची ताची जापसालदारकी आसली. आनी तो कितें सांगता तें सगळें, ताचो व्हडपणाचो मान राखून हांवें मानून घेवप म्हजें कर्तव्य आसलें.

तो दिस भर अभ्यासांत गुंतून आसतालो. पुस्तक आनी तो अशेंच समीकरण आसलें. केन्ना केन्ना तकलेक सुसेग मेळचो म्हूण तो कार्देनाचेर सवणीं, कुत्रे, माजरांचीं चित्रां काडटालो. केन्ना-केन्ना एक शब्द वा वाक्य धा-वीस वेळार बरयतालो. केन्ना एक शेर सोबीत अक्षरांत बरयतालो. केन्ना-केन्ना अशी शब्दरचना बरयतालो ताका कसलोच ताळमेळ नासतालो, अर्थ नासतालो.

एक दीस अचकीत ताचो कार्देन पळोवपाचो योग आयलो तर ताचेर अशे शब्द आशिल्ले - स्पेशल, अमीना, भाव-भाव, अशेतरेन, भावानों-भावानों, राधेश्याम, श्रीयुक्त राधेश्याम, एक वर मेरेन. ताचे फुडें एका मनशाचें मुखामळ चित्रायल्लें. ह्या सगळ्यांचो अर्थ काडपाचो हांवें यत्न केलो पूण म्हाका तातूंत यश आयलें ना. ताका ताचो अर्थ विचारपाचें धाडस म्हज्यांत नासलें. कारण तो णव्वेक जाल्यार हांव पांचवेक शिकतालों. ताची बरपावळ समजून घेवप म्हणल्यार ल्हान तोंडांत मोठो घांस घेवप आसलें.

म्हाका शिकपांत इल्ली लेगीत आवड नासली. एक वर अभ्यासाक बसप म्हणल्यार म्हज्या जिवार येतालें. मोठें कठीण काम दिसतालें. केन्ना होस्टेलांतल्यान भायर सरपाक मेळटा हाची हांव वाट पळयतालों. आनी केदे बेगीन हांव खेळामळार पावतालों. फातर शेंवटावप, कागदाचीं फुल पाकुलीं करून उडोवप आनी वांगडी मेळ्ळो रे मेळ्ळो मागीर आनी विचारपाचें ना. आमी कितें करीत माणसुकी नासताली.



हॉस्टेलाचे वण्टीचेर चडून सकयल उडी घेवप, केन्ना दारांचेर चडप, केन्ना हॉस्टेलाचे गेटीचीं दारां फाटीं-फुडें करून मोटार चलोवप. कितें आनी कितें म्हण ना. जाता तितली मजा करप. पूण होस्टेलाचे कुडींत येतकच भावाचें रागिश्ट तोंड पळयतकच भिरांतेन पोटांत गुळो येतालो. ताचो पयलो प्रस्न -'खंय आशिल्लो'-?

सदांचोच ह्याच आवाजांतलो प्रस्न आनी म्हजी केन्नाच जाप नासताली. तकली सकयल घालून भावा मुखार उबो रावतकच कशें कितें कोण जाणां म्हज्या तोंडांतल्यान उतरच भायर सरना की हें सांगपाक - ''हांव खेळपाक गेल्लों'' - म्हजी मोनेळ सांगताली की हांवें चूक केल्या आनी ती म्हाका मान्य आसा. हांव खेळून येतकच भावान म्हजी केन्नाच अपुरबाय करूंक ना.

खेळपाक गेल्ल्याचें निमित्त्य धरून भावाचें प्रवचन चालू जातालें - ''अशेतरेन इंग्लीश शिकप जावचें ना. इंग्लीश शिकप म्हणल्यार फकाणां न्ही. कोणूय उठलो आनी आपल्याक जाय तेन्ना शिकपाक लागलो. तशें जाल्लें जाल्यार सगळे इंग्लीशीचे विद्‌वान पंडित जातले आसले. रात दीस दोळे फोडून आनी रगत आटोवन त्रास काडले उपरांत विद्या येता.''

''इतले कश्ट, परिश्रम करून लेगीत व्हड-व्हड विद्‌वानांक इंग्लीश बरे तरेन वाचूंक बरोवंक येना. म्हाका पळय मरे कितलो शिकतां. तूं दोळे धांपून आसता. तुजे तकलेंत लेगीत येना, आपणेंय भावा भशेन शिकूंक जाय. इतल्यो जात्रा-तमाशे जातात. पळयला तुवें म्हाका केन्ना गेल्लो? क्रिकेट, हॉकी मॅची जातात. हांव पळोवपाक लेगीत वचना.''

''हांव दीस भर शीक-शीक शिकतां. तरी लेगीत एक-एक वर्गांत दोन-दोन, तीन-तीन वर्सां उरतां. तुजे कशें लक्षांत येना की दीस भर मजा करून, खेळ खेळून वेळ वगडावन तूं पास कसो जातलो? म्हाका दोन तीन वर्सां

लागतात तर म्हाका दिसता तूं आयुश्य भर हांगाच उरतलो. हांव सांगतां ते तुका समजना जाल्यार तूं परत घरा वच, थंय मजा कर, कोयंडेबाल खेळ, दादाल्या पयश्यांची वाट लाय नाका.''

भावालो शेमाँव आयकून दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं. उपाय नासलो कारण चूक तर केल्ली. भाव उपदेश करपाचे कलेंत पारंगत आसलो. ताचीं उतरां बाण कशे काळजाक झोंबतालीं आनी काळजाचे कुडके जाताले, सगळो हावेस ना जातालो. भैया बशेन अभ्यास करप म्हाका कशेंच जमपाचें नासलें म्हणून मनांत येतालें जें काम म्हाका जमचें ना ते खातीर हांव म्हजो वेळ कित्याक खर्च करूं. हांव असोच उरल्यार उपकरता पूण भैया बशेन कश्ट म्हाका जमचें ना. परत घरा गेल्यारय बरें. म्हाका भैयाच्या उतरांनीच घुंवळ येवपाक पावली.

पूण थोड्याच वेळान निर्शेणेचे कुपां फुटचीं आनी मनांत निश्चेवाची पालवी फुटली. ना-ना हांव खूब अभ्यास करतलों. मन लावन करतलों. रोखडेंच वेळापत्रक तयार केलें. वेळापत्रका शिवाय अभ्यास कसो सुरू करपाक जाता? वेळापत्रकांत खेळाक ड्च्चू दिवप.

वेळा पत्रका प्रमाण, सकाळीं उठप, स वरांचेर दांत घांसप, नाश्तो करप, शिकपाक बसप, स ते आठ इंग्लीश, आठ ते णव हिशोब, णव ते साडे णव इतिहास, मागीर जेवण आनी स्कूल. साडे तीन वरांचेर स्कुलांतल्यान येतकच अर्द वर सुसेग घेवप. चार ते पांच भुगोल, पांच ते स व्याकरण. अर्द वर होस्टेलाचे मुखार पासय घेवप, साडे-स ते सात इंग्लीश निबंद, काणी, रातचें जेवण. जेवणा उपरान्त आठ ते णव मेरेन अनुवाद, णव ते धा हिंदी, धा ते इकरा विंगड विंगड विशय. मागीर न्हिदप.

वेळापत्रक करप सोंपें पूण तें प्रत्यक्षांत हाडप खेरीत गजाल. पयलेच दीस ताचेर दुर्लक्ष जालें. खेळा मळा वयलें पाचवेंचार तण, थंड बरें वारें, फुटबॉलाचो खेळ कबड्डीचे डाव-पेंच, व्हॉलीबॉलाची तेजी आनी स्फूर्त म्हाका थंय ओडून व्हरता आनी थंय पावतकच हांव सगळें विसरून वतां. जीवघेणें वेळापत्रक आनी दोळे फोडपाचीं पुस्तकां विसरून हांव परत भैयाच्या रोशाक पात्र थारतां.

भैयाचे सावळेचो सुद्दां म्हाका भंय दिसपाक लागता. तो पळयत म्हूण हांव हळूच, पावलांचो आवाज करनासतना कुडींत पावल दवरतां. पूण भैयाची नदर म्हजेर पडटा आनी सदचे वरी पुराण चालू जाता. सदांच तकलेर हुमकळपी तलवार. सदांच भैयाचीं उलोवणीं खातां पूण खेळा वयलें म्हजें प्रेम साप्प कमी जायना.

*****

वर्सांचे परिक्षेचो निकाल लागता. भैया नापास, हांव पास जातां. इतलें न्हय तर वर्गांत पयलो येतां. भैया आनी म्हजे मदीं दोनच शिक्षणीक वर्सांचें अंतर उरता. मनांत आयलें भैयाक विचारचें ''तुवें इतलो अभ्यास केलो ताचें कितें जालें?'' ना तर म्हाका पळय. मजेन खेळ्ळोंय बी आनी वर्गांत पयलोय आयलों.

पूण भैया इतलो दुख्खी आसलो की म्हाका ताची काळकूट दिसली. ताच्या दुख्खार दागण्यों दिवपाचें मनांत येवप म्हणल्यार लेगीत लजेची गजाल. पूण एक गजाल घडली. म्हाका म्हजे विशीं अभिमान दिसूं लागलो आनी म्हजो आत्मविश्वास बळावलो. भैयाचो म्हजे वेलो शेक गाजोवप कमी जालो. आतां हांव मेकळेपणान खेळांत वांटेकार जावंक लागलों.

पयलें वरीं म्हाका भैयाचो भंय दिसना जालो. जर ताणें म्हाका तोंकलो जाल्यार हांव ताका स्पश्ट विचारतलों - तुवें इतलें रगत आटयलें पूण कांयच सादलें ना. हांवें मैदान गाजयलें आनी वर्गांतय पयलो आयलो. जरी अशे तरेचीं उतरां म्हज्या तोंडांतल्यान येना आसलीं तरी म्हज्या हाव-भावा वयल्यान समजतालें म्हजेर आतां भावाचो शेक ना.

भैयाकय समजलें. तरी लेगीत ताची नदर म्हजेर आसतालीच. एक दीस हांव कोयंडे बालांनी खेळून दिस्त जेवणा वेळार आयलों तेन्ना ताणें सगळो राग म्हजेर काडलो - ''पळोवया, अंदूं तूं पास जालो. वर्गांत पयलो आयलो. तुजे तकलेक मारलां. जाणां जा गर्वाचें घर सदांच खालती. व्हड व्हडाचें गर्व हरण जाल्लें आसा.''

''इतिहासांत रावणाची कशी गत जाली हें तुवें फकत वाचलां पूण ताचो अर्थ लक्षांत दवरूं ना. फकत परिक्षा पास जाली म्हूण जायना. बुद्दीची उदरगत जावूं जाय. वाचता ताचो अर्थ जाणां जावं जाय. रावण भूमंडलाचो स्वामी आशिल्लो. चक्रवर्ती म्हणटाले ताका. आज काल अंग्रेजांचो राज्य विस्तार खूब वाडला. पूण ताका चक्रवर्ती म्हणात. संवसारांत खूब राष्ट्रां अंग्रेजांचो शेक मानून घेनात. तीं स्वतंत्र आसात.''

''रावणाची गत निमणें गर्वाक लागून सोंपली. उदकाक लेगीत तो पातिशेर जालो. देव देवता ताची गुलामी करताले. पूण गर्वान ताका काबार केलो. सैतानाकय असोच गर्व जाल्लो. शाहेरूमाकय अहंकार जाल्लो. निमणें भिकेक पावलो. सैतान सवर्गांतल्यान नरकांत पावलो. अशीं खूब देखीं आसात.''

''तूं फकत पयलो वर्ग पयल्या नंबरान पास जाल्यार तुका गर्व जाला. म्हाका दिसता तूं कश्टान पास जावंक ना. चुकून जाला. सदां सदांच अशें घडना. केन्ना केन्ना आंधळ्याचो सुद्दां कोंयडेबाल खेळटना तीर सादता, म्हूण तो सफळ खेळगडो थारना. सफळ खेळगडो तो जाचो तीर फाल्स वचना.''

''हांव नापास जालां हाचेर वच नाका. जेन्ना तूं म्हज्या वर्गांत पावतलो तेन्ना तुका समजतलें की, फुडचें शिकप कितलें कठीण आसा. जेन्ना आलजेब्रा आनी जोमेट्री विशय शिकतलो तेन्ना ब्रिटिशांलो इतिहास पयलीं शिकचो पडटलो. बादशाहांचीं नांवां याद धरचीं पडटलीं. आठ-आठ हेनरी सोंपल्यात. खंयची घटना खंयच्या हेनरीच्या वेळार घडली हाची याद दवरप सोंपें काम न्ही.''

''डझनांनी जेम्स जाले. डझनांनी विलियम कोडियों चार्ल्स. तकली घुंवता. एकाच नांवां फाटल्यान पयलो, दुसरो, तिसरो, चवथो, पांचवो लावप. जॉमेट्रीची तर तराच वेगळी. अ ब ज च्या जाग्यार अजब बरयलें जाल्यार सगळें चूक. अबज आनी अजब हातूंत फरक कितें? विद्यार्थ्यांचे रगत आटयतात. दाळ-भात-रोटी खाली किंवा भात-दाळ-रोटी

खाली हातूंत फरक कितें? पूण परिक्षक सांगतात तें खरें.''

''विद्यार्थ्यांनी अक्षर अक्षर शिकचें अशें शिक्षकांक दिसता. 'वेळेची गरज' ह्या विशयाचेर चार पानांचो निबंद बरयात. कादेर्न उघडप, पेन हातांत घेवप, सुरवात करप, वेळेची गरज सगळीं जाणात. हाचेर पानां पानां कित्याक म्हणून बरोवप.जी गजाल एका वाक्यांत जाता ती चार पानां कित्याक वाडोवप. जें सांगपाक जाय तें झटपट सांगून मेकळे जावप.''

''खरें म्हणल्यार अशें बरोवपाक सांगप म्हळ्यार विद्यार्थ्यांचेर अन्याय करप. पूण वयल्यान आमी शिक्षक. आमकां चड गिन्यान आसा. तुमी अभ्यास सारखो करनात. जेन्ना तूं म्हज्या वर्गांत पावतलो तेन्ना तुका कळटलें की हो अभ्यास कितलो कठीण आसा आनी तुका कितलें शिकचें पडटलें. ह्या वर्सा पयलो आयलो तर तुजे पांय जमनीक लागनात म्हणून सांगतां. हांव सांगतां तें आयक. जरी हांव नापास जालों तरी तुजे परस व्हड. हांव चड अणभवी. जें सांगलां तें लक्षात दवर ना तर पश्चाताप करचो पडटलो.''

स्कूलाक वचपाचो वेळ जालो. ना तर हो उपदेश सोंपचो नासलो. आज जेवणाक रूच लागली ना. पास जाल्यार इतलो तिरस्कार तर नापास जाल्यार म्हजो जीव वचपाचो अशें दिसलें. भैयान आपल्या शिक्षणाचें भयंकर चित्र म्हजे मुखार रंगयल्लें. म्हाका भंय दिसलो. स्कूल सोडून घरा कसो गेलों ना हेंच अजाप. इतलोय उपदेश आयकून सुद्दां म्हाका पुस्तकांची रूच लागलीच ना. खेळाची संद वगडायली ना. अभ्यास केलो पूण फावो तितलोच. वर्गांत लजेक पडूं जायना इतलो सदचो अभ्यास पुराय केलो. पयल्या नंबरान पास जातकच जो मनांत विश्वास निर्माण जाल्लो तो नाच्च जालो आनी परत चोरां वरी जिवीत सारूंक लागलो.

*****

वर्साचे परिक्षेचो निकाल लागता आनी योगायोग म्हणल्यार हांव पास आनी भैया नापास जाता. हांवें म्हण सारखो खूब अभ्यास केल्लो अश्यांतली गजाल न्ही, तरी हांव वर्गांत पयलो आयलों. म्हाका खरेंच अजाप जालें. भैयान प्राण पणाक लावन म्हणटा तसो अभ्यास केल्लो.

पुस्तकांतलो शब्दान शब्द गिळिल्लो म्हणल्यार अतिताय जावची ना. रातचीं धा, सकाळीं चार वरांचेर, स ते साडे णव मेरेन स्कूलाक वच सर भैयान अभ्यास केल्लो. इतलेंय करून नापास जाल्लो. म्हाका ताची काळकूट दिसताली. निकाल कळटकच भैया रडूंक लागलो. म्हाकाय रडूंक आयलें. हांव पास जाल्ल्याची खोस अर्दी जाली. जर हांवूय नापास जाल्लों जाल्यार भैयाक इतलें वायट दिसचें नासलें. पूण घडितार्थ वेगळोच आसलो.

आतां भैयाक आनी म्हाका एकाच वर्साचें अंतर उरलें. मनांत एक वायट विचार आयलो जर भैया आनीक एक वर्स नापास जालो जाल्यार म्हजे बरोबर उरतलो. मागीर म्हाका उलोवपाक ताका खंयचें तोंड! पूण ह्या विचाराक हांवें निश्चेवान मनांतल्यान काडून उडयलो. निमणें तो म्हज्या बऱ्या खातीरच म्हाका उलयतालो. म्हाका ताचो उपदेश जरी अप्रीय लागलो तरी ताका लागुनच हांव बऱ्या मार्कांनी पास जातालों.

आतां भैया खूब मोव पडिल्लो. म्हाका तापोवपाचो वेळ आयलो तरी ताणें म्हाका तापयनासतना धिरान काम घेतलें. ताणें चितलें आसतलें आतां म्हाका तापोवपाचो अधिकार ना. आसल्यारय कमी. हाका लागून हांव स्वैर जालों. ताच्या बरेपणाचो हांव फायदो घेवंक लागलों. म्हाका दिसूंक लागलें, शिकूं ना शिकूं हांव पास जातांच. म्हजें नशीब बरें आसा.

भैयाच्या भंयान हांव थोडो तरी अभ्यास करतालों तोय आतां बंद जालो. हालीं म्हाका पतंग उडोवपाचो छंद लागलो. दीस भर पतंगां फाटल्यान जरी आसलों तरी भैयाचो हांव मान राखतालों आनी ताची नदर चुकोवन पतंग उडयतालों. सूत दिवप, पतंग तयार करप, पतंग टुर्नामेंटची तयारी करप, सगळें गुपचूप चलतालें. भैयाक दिसूंक दिना आसलों की म्हजे नदरेंतलो ताचे विशींचो मान सन्मान मात लेगीत कमी जालो. उरफाटें आदले परस चडच वाडला.

एक दीस सांजवेळचो वेळ आसलो. हांव होस्टेला कडल्यान पयस पतंगा फाटल्यान धांवतालों. नदर मळबा कडेन उडपी पतंगाचेर. पतंग मंद गतीन मळबांत सुसेगाद हेवटेन-ते वटेन तरंगतालो. अशें दिसतालें जणू काय सर्गांतलो एक आत्मो विरक्त मनान नवे संस्कार आपणावंक भायर सरला. म्हजे वांगडी लांब-लांब कोंडे घेवन पतंग केन्ना मळबांतल्यान लागसार पावता तें पळोवपाक धांवताले. आशिकुशीचो तांकां थाव नासलो. न्हय मोटरकारांचो, ट्राम आनी गाडयांचो. फकत नदर मळबा कडेन.

अचकीत म्हजी टक्कर भैया कडेन जाली जो चड करून बाजारांतल्यान येतालो. रागान तो उलयलो, ह्या मवाल्यां बरोबर पतंग उडोवपाक तुका मात लेगीत लज दिसना. आरे तूं आठवेक पावला म्हजे परस फकत एक वर्ग सकयल. निमणें आपल्या दर्ज्या विशीं, पोजीशनाचो विचार करूंक जाय. एक काळ आशिल्लो, लोक आठवी यत्ता पास जातकच नायब तहशीलदार जाताले.''

''हांव कितलेशेच जाणांक वळखतां जे आज वयले हुद्या वयले डेप्युटी मेजिस्ट्रेट किंवा सुपरिंटेंडेंट आसात. आठवी पास जाल्ले लीडर, खबरांपत्रांचे संपादक आसात. व्हड व्हड विद्‌वान तांचे सकयल काम करतात. आनी तूं आठवेक पाविल्लो घोडो ह्या बाजारी मवाल्यां बरोबर पतंगाचो खेळ खेळटा. तुज्या ह्या कर्तुबाचेर म्हाका दुख्ख भोगता. तूं बुदवंत आसा खरो पूण तुजी बुदवंतकाय तूं अशे तरेन व्हांवयता. आपलो स्वाभिमान वगडायता.''

''तुका दिसत तूं म्हजे परस एकच वर्ग सकयल आसा आनी म्हूण तुका बरें वायट सांगपाचो म्हाका अधिकार ना. पूण तूं चुकता. जाणां जा तुजे परस हांव पांच वर्सांनी व्हड फुडल्या वर्सा तूं म्हज्याच वर्गांत पावूंक येता आनी ताचे फुडें वचून तूं म्हजे परस फुडेंय पावूं येता. पूण तुज्या म्हज्यांतले जें पांच वर्सांचें अंतर आसा तें कोणाच्यानच कमी करूंक जावचें ना. देवाक लेगीत जमचें ना .''

''हांव तुजे परस पांच वर्सांनी सदांच व्हड

उरतलों. म्हाका जो संवसारांतलो अणभव आसा ताची तूं बरोबरीच करूंक शकचो ना जरी तूं एम. ए. आनी डि.लिट आनी डी. फील जालो. पुस्तकां वाचून संवसाराचें गिन्यान मेळना तर अणभवान चड मेळटा. आमची आई कांयच शिकूं ना आनी दादा फकत पांचवी-सवी शिकला. आमी कितलेय शिकले तरी आई-दादाक पुरायपणान हक्क आसा आमकां समज दिवपाचो.''

''फकत ते आमचे जल्मदाता न्हय तर तांकां संवसाराचो व्हड अणभव आसा आनी आसतलो. अमेरिकेची राज वेवस्था, आठवो हेनरी कितलो वेळा लग्न जाल्लो, मळबांत कितलीं नखेत्रां आसात ह्या गजालींचें गिन्यान तांकां नासत पूण हजारांनी अश्यो गजाली आसात जांचें गिन्यान म्हाका आनी तुका ना.''

''अशें घडूंक नाका, पूण समजा हांव दुर्येत पडलों तर तूं रोखडोच थरथरतलो, भियेतल्लो, गोंधळटलो. तुका कितें करप सुच्चें ना. दादाक तार दिवप इतलेंच तुज्या लक्षांत येतलें. पूण जर तुजे जाग्यार दादा आसत तर तो पयलीं घरगुती उपाय करतलो. जर गूण पडलो ना जाल्यारच मागीर दोतोराक दाखयतलो. पूण भियेवंचो ना, थरथरचो ना, कोणाकच पयलीं तार दिवचो ना.''

''आरे दादा धाडटा ते पयशे म्हयनो भर पावोवप हें आमकां जमना. आमी वीस दिसांतच ते पयशे सोंपयतात. मागीर उरिल्ले दीस पयशांक पादिशेर जातात. नाश्तो बंद, मडवळ, म्हालो हांकां तोंड लिपोवप. पूण आमकां धाडटा ताच्या अर्द पयश्यांनी दादान रेस्पेतान आपलो संवसार चलयला. आनी कुटुंबात सगळीं णव मनशां खावपाक जेवपाक आसतालीं.

''आमच्या मुख्याध्यापकाक पळय. तो एम.ए. आनी तूं जाणां एम.ए. भारतांतलो न्ही, जाल्यार आक्सफोर्डाचो. एक हजार म्हयन्याक पगार. पूण घर कोण सांबाळटा जाणां? तागेली जाणटी आवय. तागेली डिग्री हांगा वेर्थ थारली. सुरवातेक आपूण घर सांबाळटालो, खर्च भागना जालो. रीण जावंक लागलें जेन्ना घर संवसार आवयन हातांत घेतलो तेन्ना सगळे वेवस्थित जालें. जणू काय लक्ष्मीच घरांत अवतरली.''

''जाणां जा भावा, तुजे तकलेंतलो विचार काडून वडय. आपूण स्वतंत्र जालां अशें तूं समजता. हांव तुजे सांगाताक आसा सर तुका वांकड्या मार्गान वचूंक दिवंचो ना. जर तूं म्हजें आयकना जाल्यार तुका मार लेगीत घालपाचो म्हाका अधिकार आसा. म्हाका खबर आसा म्हजी विचारसरणी तुका मानवना. विखा वरी लागता.''

भैयान जे विचार मांडले ताचे मुखार हांव नतमस्तक जालों. म्हजे म्हाकाच कळून आयलें, हांव कितल्या मोटव्या विचारांचो. ताका लागून भैया विशीं म्हजें मन भरून आयलें. प्रेम, माया, आपलेपण निर्माण जालें. भैयाल्या भोव मोलादीक विचारांनी म्हजे दोळे भरून आयले. ''भैया, तूं म्हजे विशीं गैरसमज करून घे नाका. तूं जें सांगता तें सगळें खरें आनी तुका तें सांगपाचो म्हजो व्हडलो भाव म्हूण पुराय अधिकार आसा.''

भैयान म्हाका वेंगेंत घेतलो आनी म्हणलें, ''तूं पतंग उडयता म्हणून तुका हांव आडायना. तूं जाणां तुजे भशेन म्हाकाय पतंग उडोवन दिसता. पूण कितें करूं? जर हांवच वांकड्या वाटेन चलूंक लागलो तर तुका कोण सांबाळटलो? तुजी जबाबदारी म्हजेर आसा. कारण हांव तुजो व्हडलो भाव.

योगायोगान एक तुटिल्लो पतंग आमच्या तकले वेल्यान वचूं लागलो. ताची दोरी हुमकळटाली. भुरग्यांचो एक घोळको पतंगा फाटल्यान धांवत येतालो. भैया लांब आशिल्ल्यान ताणें उडकी मारून दोर ओडून घेतलो आनी लागलो होस्टेला वटेन धांवपाक. भैया धावतां तो पळोवन हांवय ताचे फाटल्यान धांवपाक लागलों.

संपर्क : 9822486955



---

*(पान २२ वयल्यान)*

दिवपी.'' दोतोर अग्निन आनीक म्हायती दिली.

''म्हणजे दुर्गा ही ताच्या मनान तयार केल्ली एक काल्पनीक व्यक्ती.'' - पावसकर.

''हय. ताणें तयार केल्ली व्यक्ती, जी ताचे शिवाय कोणाकच दिसना. पूण ताका ती एकदम जिवी भासता. दुर्गा ताका दिसता, ताचे कडेन उलयता, ताका जाय तेन्ना मजत करपाक येता. सांगपाचें म्हणल्यार जेन्ना जेन्ना शांता संकटांत आसता तेन्ना तेन्ना दुर्गा येता. जें काम शांता करपाक शकना तें काम दुर्गा करता.''-

''आनी शांताक दुर्गा ही एक काल्पनीक व्यक्ती म्हणून खबर ना???''

''ना. हो खून सुद्दां दुर्गान न्हय तर ताणें स्वताच केला हें लेगीत ताका खबर ना.''-

''ओह!! आतां ह्या खुनाची ख्यास्त शांताक...''

''ना. कायदो तशी परवानगी दिना. शांता 'मेंट्ली अनफीट' आसा अशें मॅडिकल सायन्स सिद्ध करता म्हणटकच कायदो ताका कांयच ख्यास्त दिवपाक शकना. आतां आमी शांतान तयार केल्ल्या दुर्गाक ताच्या मनांतल्यान काडून उडोवप खूब गरजेचें. हाका उण्यात उणें तीन म्हयने तरी लागतले.

...आनी खरेंच शांता तीन म्हयन्यांनी बरें जालें. उपचार करताना अग्निक शांता भितरल्या दुर्गान खूब त्रास दिलो. पूण आपल्या अणभवान दुर्गाक मुळा सावन ना करपाक अग्निक येस आयलें. हें सगळें करताना ताणें शांता भितरली भिरांत लेगीत काडून उडयली. शांता आतां खूब बरी जीण जगपाक लागलें.

*****

निशांत फ्लॅटार एकटोच आशिल्लो. अकस्मांत ताच्या दाराची बेल वाजली. ताणें दार उगडलें.

''ओह!! शांता????? हांगा ??''

''शांता न्हय दुर्गा....''

आपल्या पर्सिंतल्यान रगताचे सुके डाग आशिल्लो सुरो शांतान भायर काडीत म्हणलें.

संपर्कः 9823593808 



# शणै गोंयबाब

## म्हळ्यार फुडारिल्ले विचार, उदारमतवाद आनी द्रश्टेपण

उदय भेंब्रे

तिसरी खिस्त

हे लेखमाळेचे दुसरे खिस्तींत 'हांव कितें करतलों?' ह्या पाठांतल्या पयल्या दोन उताऱ्यांची चिकित्सा केल्या. तिसऱ्या उताऱ्यांतलो विशय आसा भलायकी आनी वैजकी. हो उतारो असो आसा:

> ''हांव वैज जातलों. हांव तरेकवार ओखतां आनी रसायणां सोदून काडटलो. हांव संवसारांतली पिडा ना करून उडयतलों. हांव लोकांचीं बुरशेपणां, अळशीक आनी घाण ना करून तांकां झळझळीत रावंक शिकयतलों. हांव तांकां वज्राच्या आंगाचे करतलों. मागीर कोणाक खोरजेची पुळी जावची ना. कोणाचें आंग तापचें ना. कसलीच धाम येवची ना. कोण बेगीन मरचो ना.''

ह्या उताऱ्यांत नदरेंत भरपा सारके मुद्दे आसात ते हे -

- हांव वैज जातलों आनी संशोधकूय जातलों.
- हांव संवसारांतलीं पिडा ना करून उडयतलों.
- हांव लोकांक निवळसाणे विशीं शिक्षण दिवन तांकां वज्राच्या आंगाचे करतलों.
- हांव कसलीच पिडा जावची न्हय आनी कसलीच धाम येवची न्हय अशी परिस्थिती निर्माण करतलों.

### व्यापक हावेस

शणै गोंयबाब हांणी विद्यार्थ्यांच्या तोंडांतल्यान उक्तायला तो विचार इतलो फुडारिल्लो, तो फकत रोग निवळावपा विशीं ना; तर पिडाच ना करून उडोवपाचो आसा. हेच खातीर संशोधनांतल्यान रसायनां सोदून काडपाची भास आसा. आनी हो विचार अमक्याच एका वाठारा विशीं ना; तर अख्ख्या संवसारांतली पिडा ना करून उडोवपाचो हावेस आसा. हांगा अख्खे मनीसजाती विशींचो विचार आसा. हो विचार मानवतावादी.

दुसरी गजाल ध्यानांत येता ती अशी, शणै गोंयबाब रोग निवळावपाच्या (curative measures) उपायां परस पिडा,रोग टाळपाच्या (preventive measures) हाका चड म्हत्व दितात. ते खातीर ते लोकशिक्षणाची गरज दाखोवन दितात. पिडा टाळ्ळी जाल्यार वैज, वखदां, त्रास, खर्च, लुकसाण हें सगळेंच टळटा. हो फुडारिल्लो विचार संवसारांत कांय प्रमाणांत फळाक आयला; पूण शणै गोंयबाबाचो हावेस पुरायेन फळादीक जातलो जाल्यार ह्या मळार खूब उदरगत जावची पडटली.

### ऊंच-उणाकपण आनी संघर्श

पाठांतलो चवथो उतारो लोकां मदल्या संघर्शां संबंदान आसा. ते संघर्श ना करचे खातीर आनी संवसारांत शांतताय हाडपाचो निर्धार तातूंत आसा. उतारो असो:

> ''लोक एकामेकांक उणे लेखतात. एकामेकांची तीड काडटात. मारतात, धपट्टात, फटयतात, नागयतात, तें म्हाका मानना. लोकांचें नश्टेपण वचून तांणी मायेमोगान चलचे खातीर हांव कसलोय उपाय सोदून काडटलों. आनी संवसाराक सस्तताय हाडटलों.''

ह्या उताऱ्यांतले मुद्दे -

- लोकां मदीं उंच-उणाकपणाची भावना आनी चलणूक आसा.
- ताच्या प्रभावा खाला शोशण जाता, संघर्श जाता आनी झगडीं-झुजां जातात.
- हें अशें घडटा तें म्हाका मानना.
- हांव ताचेर कसलोय तरी उपाय सोदून काडटलों.
- आनी संघर्श ना करून संवसारांत शांतताय नंदयतलों.

लोकांचे चलणुकेंतलें ऊंच- उणाकपण, शोशण आनी तांकां लागून उपरासता तो संघर्श आपणाक मान्य ना हें शणै गोंयबाब भुरग्याच्या तोंडांतल्यान स्पश्टपणान सांगतात. 'लोक एकामेकाक उणे लेखतात' अशें म्हणटना खंयच्या क्षेत्रांत वा कसल्या कारणाक लागून तें ह्या उताऱ्यांत स्पश्टपणान सांगूंक ना. देखून खंयच्याय क्षेत्रांत वा कसल्याय कारणाक लागून असो व्यापक अर्थ घेवचो पडटा. जंय जंय विशमताय आसा थंय थंय ऊंच-उणाकपण मानतात आनी तें संघर्शाक जल्म दिता असोय ताचो अर्थ लावं येता. धर्म, जात, अर्थीक विशमताय हीं उतरां शणै गोंयबाबान वापरूंक नात. पूण ह्या क्षेत्रांनी, भोव करून जात ह्या विशयांत, ऊंच-उणाकपणाचें धुमशेण आसा हे खातीर तीं मळां शणै गोंयबाबांचे नदरे मुखार आसुंयेत. मात् एक प्रस्न उपरासता. जातीक लागून येता ते ऊंच-उणाकपण ना करून समानताय हाडपाचे उपाय शणै गोंयबाब हांचे बरपावळींत उणेंच म्हळ्यार दोन कडेन मेळटात. तर मागीर, ह्या उताऱ्यांत 'हांव कसलोय उपाय सोदून काडटलों' कित्याक येतात? हो पाठ आदीं बरयलो आनी त्या उपायां विशीं उपरांत बरयलें अशेंय दिसना. म्हाका दिसता, एक कारण आसुंयेता तें पाठाची लांबाय वाडूंक दिवची न्हय हें. आदींच 'भुरग्यांलो इश्ट' ह्या पुस्तकांतलो हो सगल्यांत व्हडलो पाठ. ऊंच-उणाकपण ना करपाचे उपाय त्याच उताऱ्यांत सांगिल्ले वा वेगळे उतारे घाल्ले जाल्यार पाठ आनिकूय व्हड जातलो आसलो. दुसरें कारण आसुंयेता तें अशें, जे उपाय शणै गोंयबाब हांणी सुचयल्यात ते उपाय वा ती भास संवसाराचो अणभव घेवंक नाशिल्ल्या अशा मुळावे शाळेंतल्या भुरग्याच्या तोंडांत सोबचीं नासलीं, तीं सबावीक दिसचीं नासलीं.

### जात आनी ऊंच-उणाक भेद

जातीक लागून येता तें ऊंच-उणाकपण ना करून संघर्श ना करचे खातीर जात ना करची असो उपाय शणै गोंयबाब सुचयनात. वर्णाश्रमाचेर आदारिल्ल्यो जाती तश्योच उरल्यो तरी समानताय हाडूंक जाता. बरेपण आनी शांतताय हाडूंक जाता असो विचार ते मांडटात. दसऱ्याचे परबे दिसा मुंबय केल्ल्या एका उलोवपांत ते म्हणटात:

> ''आयचे परबेक सगळे गोंयकार हिंदू जातपात ध्यानांत हाडिनासतना, शेतकामत, सरस्पत आनी शक्ति ह्या तिनूय देवींची भक्तीन पुजा करतात. हाचे वयल्यान सिद्ध जाता की ह्या तीन देवींचे भक्तीक जातपात निखालूस आड येना... दसरो आमकां शिकयता तें हेंच... ही शिकोवणी ध्यानांत घेवन, निखटे जल्मदिणे जातीच्या अभिमानाक गारा भाशेन दसून बसयनासतना आयच्या म्हूर्तार आमचे आनी आमचे भुंयचे व्हडविके खातीर आमचे भितल्लो जण एकलो गोंयकार तांकत तितलो चारूय जातींचो जावंक वावरुंया. आमी कसलीच जात उणाक लेखुंया नाका. आमी आमच्या माथ्यार सरस्पत धरली जाल्यार एका हातांत तरवार, तुबक ना जाल्यार तोंडको घेवन दुसऱ्या हातांत नांगर आनी तागडी घेवया आनी एकामेकांचे सेवेक एकसारके लागुंया...''

हें उलोवप खंयच्या वर्सांतले दसऱ्याचे परबेक केल्लें तें कळना. पूण 'समग्र शणै गोंयबाब' हे ग्रंथमाळेचे संपादक शांताराम वर्दे वालावलीकार हांणी आपणाल्या 'संपादकीयां'त सांगलां की तें राष्ट्रमत दिसाळ्याच्या १९६९ वर्सांतल्या एप्रील म्हयन्याच्या एका अंकांत उजवाडाक आयिल्लें.

### आनीक एक उपाय

जाती संबंदींचो आनीक एक उपाय शणै गोंयबाब हांणी सुचयला तो 'संवसारबुट्टी' (गोमन्तोपनिषत् - दुसरे खण्ड) हे बरपावळींत. ते बरपावळींत बारा आत्म्यांचीं उलोवपां आसात. तातूंतले इकरा आत्मे देवदुता कडेन वाद घालतात. निमणे कडेन बारावो आत्मो - हो बामणाचो आत्मो अशें सांगलां - आपलीं मतां मांडटा. वंश वा जात हीं उतरां वापरनासतना त्या विशया संबंदान तो मत मांडटा तें अशें:

> ''कोणाच मनशाक केन्ना उणाक लेखचो न्हय. ताच्या रुपा-रंगा खातीर ताचेर भश्टकार घालचो न्हय. ताका बंदो करचो न्हय. तशें केल्यार आपल्याच मनीसपणाक उणाकपणाचें खत लागता. आपले तांकी भाशेन ताका वयर उखलून आपले वांगडचो करचो; म्हणटकूच संवसाराचें दुखख ल्हव जावंक ताचोय पालव मेळून दोगांयच्या बऱ्याक पडटलें. संवसारांत सगळ्यांक वांचपाचें हक आसून संवसाराचें दुख्ख कातरच्या कामांत सगळ्यांचेच बुद्दीचो उपेग जावचेलो आसा. देखून कोणें कोणाच्या वावरांत आड येवचें न्हय. कोणें कोणाक पिडचें न्हय. कोणें कोणाक चिड्डुंचो न्हय. तशें केल्यार, त्या मनशाचो पालव होगडावन अखेरेख आपलेंय लुस्कान जाता म्हणपाचें जणएकल्यान ध्यानांत दवरचें. जणएकल्याक ताचे तांकी भाशेन वावरूंक संद दिवन तांकत तितलो पालव दिवचो हातुंतूच धा-जाणांलें हीत आसा.''

ह्या उतरांनी चार मुद्दे नदरेंत भरतात. ते म्हळ्यार -

- ऊंच-उणाकपणाक विरोध;
- भेदाक विरोध;
- शोशणाक विरोध; आनी
- समानतायेचो हावेस.

### बामणपण

शणै गोंयबाबांचे बरपावळींत बामणपणाचे उल्लेख मेळटात आनी तांकां आपणाल्या बामणपणाचो अभिमान आसलो अशेंय दिसता. घडये, त्या काळांतले समाजस्थितीचें तें एक लक्षण. तसल्यो आनिकूय देखी मेळटात. संमोहन विद्येचो जनक आबे फारीय हाचो ते विद्ये वयलो ग्रंथ फ्रांसांत १८१९ वर्सा फ्रेंच भाशेंत उजवाडाक आयलो. त्या ग्रंथांत लेखकान आपली वळख सांगल्या ती अशी -

> आबे बारीय
> ब्राह्मण
> देवविद्या आनी तत्वगिन्यान ह्या विशयांनी डॉक्टर
> मार्सेयचे मॅडिकल सोसायटीचो वांगडी
> युनिव्हर्सिटी ऑफ फ्रान्स ह्या विद्यापिठांतलो
> तत्वगिन्यानाचो आदलो प्रोफेसर.

बारीकसाणेन पळयल्यार निमणीं तीन पदां सांगल्यांत तीं चड म्हत्वाचीं; पूण 'ब्राह्मण' हें पयले सुवातेर आसा. तें उतर आबे फारीयान दोन हावेस बाळगून वापरला आसुंयेता. एक हावेस, आपले

जातीचो अभिमान दाखोवप आनी दुसरो हावेस आपूण मूळ भारतीय आनी हिंदू हें दाखोवन दिवप. ना जाल्यार, जात मानिनाशिल्या फ्रेंच समाजाचे नदरेन त्या उतराक कसलो अर्थ आसलो?!

दुसरी देख गोंयांतलीं. १९१२ वर्सा कांय मडगांवकारांनी समाजीक-सांस्कृतीक कार्य करपाक एक संस्था स्थापन केली. भोव करून सगले संस्थापक बामण जातींतले आसले. तांणी संस्थेचें नांव दवरलें, 'सारस्वत ब्राह्मण समाज.'

गोंयकार समाजाच्या वेगळ्या वेगळ्या घटकां मदीं दिश्टी पडटा. सगले संस्थापक जातवादी आशिल्लें अशें म्हणप समा जावचें ना. पूण संस्थेच्या नांवांत जात आयली हें खरें.

अजापाची गजाल म्हळ्यार आज लेगीत, एके वटेन समतेची इत्सा धरता आसतनाच दुसरे वटेन जातीचो अभिमान.

### ऊंच-उणाकपणाक विरोध

शणै गोंयबाब हांकां आपल्या बामणपणाचो अभिमान आशिल्लो अशें मानलें तरी तांणी हेर खंयचेच जातीक उणाक लेखली ना हें दुबावा विरयत सांगूंक जाता. इतलेंच न्हय; तर तांची ऊंच-उणाकपणाक विरोध केला आनी तें ना करपाक सगल्यांनी वावरूंक जाय असो आग्रो धरला हें तांचे बरपावळींतले दोन उतारे वयर दिल्यात तांचे वरवीं स्पश्ट जाता. हेर जातीं विशींची तांची भावना कशी आशिल्ली हाचीय गवाय मेळटा. 'समग्र शणै गोंयबाब' ग्रंथमाळेच्या 'संपादकीयां'त शांताराम वर्दे वालावलीकार सांगतात-

> "...आपलेच न्हय तर गोंयचे हेर जातीकूय कोणेय नांव दवरलें जाल्यार तांची शीर तट्ट जाल्ल्याच्यो देखी मेळटात. १९३४त मुंबय भरिल्ले वैश्य परिशदेंत येजमानपणा वेल्या वैश्य समाजांतल्याच एका विद्वानान आपले जातीक 'फाटीं उरिल्ली जात' म्हळी जाल्यार तें खरें न्हय हें दाखोवपाक खासा शणै गोंयबाबूच फुडें सरले. वैश्य हे कशे फाटीं पडिल्ले न्हय हें सांगपाक तांणी क्रि. स. १०९४ च्या तांच्या पट्याकडेन बोट दाखयलें आनी तातूंत दुर्गाशेट, बाबनशेट, धमणशेट अश्या राजकारणी वाणयांक व्हड-व्हड पदव्यो लायल्यो मेळटात, तशेंच आदीं पसून वाणी वेपार उद्देगांत तरतरतात हें दाखोवन दिलें..."

दुसरी गवाय मेळटा ती शणै गोंयबाब हांणी १३ जून १९२७ दिसा 'गोंयचे शूर भंडारी' ह्या माथाळ्या खाला बरयल्ल्या लेखांत. हो लेख १९६९ वर्सा 'परमळ' नेमाळ्याच्या फेब्रुवारी म्हयन्याच्या अंकांत उजवाडाक आयिल्लो. 'समग्र शणै गोंयबाब' ग्रंथमाळेंतल्या तिसऱ्या खण्डात तो परतून उजवाडाक आयला.

> "गोंयकार भंडारी निजाचेच शूर आसून तारवटी विद्येंत ते मोटे खांपे म्हणपाचो तांचो लौकीक पुर्विल्ल्या काळा पसून गाजला. माडांची सूर काडचेलो धंदो कदीम काळा पसून तांचोच. पावश्या दिसांनी केदेंय आकांताचें मोड जालें आनी माड आपली मान धोलोवन भार काडूंक लागलो तरी भंडारी ताच्या कांठ्यार बसूंक पर्वा करिना; इतलो तो धिरिश्ट आनी काळजीवंत आसा. समुद्रांतल्या झुजांनी भंडाऱ्यांनी आजवेर जायतो पराक्रम केला. हालींच्या दोन-अडेचशीं वर्सांत ते पुर्तुगेज, इंग्रेज, शिवाजी, आंग्रे, शिद्दी आनी सावंतवाडयेकार भौंसुले हांच्या आर्मादांनी झुजल्यांत."

लेखाचे अखेरेक शणै गोंयबाब भंडाऱ्या विशीं खेरीत रितीचो अभिमान आनी विश्वास उक्तायतात तो ह्या उतरांनी:

> "हिंदुस्तानच्या फुडल्या स्वराज्याच्या काळांत आमचे गोंयकार भंडारी सगळ्या हिंदी आर्मादाची तारवावळ आपल्या हातात राखून भायल्या शत्रूक हिंदुस्ताना कडेन लोभी आनी पातकी दोळ्यान पळोवंक दिवचे नात म्हणपाची म्हाका खात्री आसा. आपल्या नामनेच्या करण्यांनी ते आपले जल्मभुंयेचें - गोंयचें - नांव संवसारांत गाजयतले हातूंत निखालूस दुबाव ना."

**(चलता)**

संपर्क: 98222163223



---

*(पान १० वयल्यान)*

ताका येवजलें... आरे, आज वेर कॅरलान वापरिल्ल्यो वस्तू वापरून हांव व्हड जालां... म्हजो पयलो वयलो मोग लेगीत कॅरलान व्हेलो.. आनी... आनी आतां भुरगें मात म्हाका नवेंताल्ल... म्हगेर जाल्लें... म्हजें भुरगें... म्हज्या पयल्या आनी निमण्या मोग्याचें... जांव मागीर तें इंजक्शनान... नवें ताल्ल भुरगें म्हजें आनी कॅरलाक मात..."

आनी रडटां रडटांच तें मना पासून हांसलें. ताणें मनांतल्यानच आड्डून म्हळें, ...कॅरल हांव तयार आसां... हांव तयार आसां कॅरल... नव्याताल्ल भुरग्याक जल्म दिवंक..."

संपर्क: 09420685278

---

*(पान २० वयल्यान)*

ते खंतीनच आवयनय प्राण सोडलो. गांवांत म्हाका तोंड दाखोवपाक लज दिसताली. कांय दिसांनी हांव पणजे परत आयलों आनी एका हॉटेलांत वेटराची नोकरी धरली. थंय थोडीं वर्सां काम करतगीर हांवें ताळगांवां एक ल्हानशेंच हॉटेल घातलें आनी थंयच म्हजें बस्तान बसयलें. आयज 'मॉडर्न इंग्लीश स्कुला'चो एक हुशार भुरगो च्या आनी बटाटवडे विकता.

सगळें सभाघर एकदम स्तब्ध जालें. आतां फुडली गजाल सांगतां. "ज्या भुरग्यान पयलीं म्हजी उत्तरपत्रिका घेतिल्ली तो जावन आसा आयच्या कार्यावळीचो मुखेल सोयरो आनी सुप्रिम कॉर्टाचो आदोवोगाद वामन देसाय! आनी कॉपी मारून म्हजी उत्तरपत्रिका पिंजून भायर मारपी आनी म्हाका जिणेंतल्यानय भायरावपी जावन आसा आयच्या कार्यावळीचो अध्यक्ष आनी फामाद उद्देगपती उमेश कामत!

बरें तर! इतल्या वर्सांचें म्हज्या काळजांतलें वजें आयज हांवें तुमचे मुखार ल्हव केलें. तुमी म्हर्जी दोन उतरां मन लावन आयकलीं म्हण तुमचे उपकार!" अशें म्हणीत नरेश झपाझप माचयेचीं सपणां देंवंक लागलो आनी तेच बराबर माचयेर बशिल्ल्या आनी सभाघरांत जमिल्ल्यांचीं तोंडां एकदम पडलीं.

संपर्क : 9923306751

# वर्सां

कृ. म. सुखठणकार



वर्सांक इतिहासांत खूब म्हत्व. वर्स सांगले बगर इतिहासाचें पान फुडें वचना. गोंयकार इतिहासाक व्हडलेशें म्हत्व दिना. तो इतिहासाचे दोन भाग करता, गोंय पोर्तुगेजां वेळचें आनी मागीरचें. अशें करून तो आपलें काम भागयता. गोंयाक आनीक इतिहास आसा हें ताका खबर आसा जाल्यार म्हाका दुबाव. कदंबांनी गोंयचेर इतलीं वर्सां राज्य केलें तांकां आमी कदंब परिवहन मंडळा पुरतेच मर्यादीत दवरल्यात. फाटीं मडगांवच्यान पणजे येतना म्हजे म्हऱ्यांत एक कॉलेजींतलो विद्यार्थी बशिल्लो. ताका सहज कदंबां विशीं तुका कितें खबर आसा अशें विचारतकच ताणें बॉल्सांतल्यान पणजे मडगांव शटल बसीचो मासीक पास म्हज्या हातार दवरलो. तो हांवें दोळे भरून पळयलो आनी ताका परत दिलो. शिवाजी महाराजान फकत फर्मागुडयेचेरूच राज्य केलें अशें केन्ना केन्ना म्हाका दिसता. शिवाजी महाराजाची आमकां तांचे जयंती दिसा याद जाता आनी मागीर आमी फेटे मारून फर्मागुडयेर धांव मारतात. 'घरा घरातून शिवाजी महाराज तयार झाले पायजे' हें आयकून आमी घरा येतात. शिवाजी महाराज तयार करप हो कुटीर उद्देग काय कितें असो म्हाका मागीर प्रस्न पडटा. शिवाजी महाराज दिवचल म्हालांत येवन गेले ताका साडे तिनशीं वर्सां जावन गेलीं अशें हांवें हिका फाटीं म्हणलें. ते कोणागेर तरी पेज जेवन गेल्लें ही अधिक म्हायती हिणें म्हाका दिली. पेजे बराबर तांका आंबली दिल्ली काय सुको बांगडो हाचीय इतिहासांत नोंद जावपाक जाय आशिल्ली अशें मोलाचें मत हिणें व्यक्त केलें.

आमी गोंयकार इतिहासा विशीं इतले उदासीन आसल्या कारणान आमी वर्सांक फावो तें म्हत्व दिनात हाचें म्हाका वायट दिसता. आमच्या देवांक लेगीत वर्सांचें पडूंक ना असो म्हजो अभ्यास सांगता. तांकां वर्सां आयलीं कितें, गेलीं कितें, सारकेंच. ज्या ब्रह्मदेवान ही सृश्टी तयार केली तो तर सामको हाता भायर गेला. ४.३२ कोटी वर्सां सरतात तेन्ना ताचो एक दीस जाता अशें हांवें एके कडेन वाचलां. अश्या ब्रह्मदेवाचें आमी गोंयां देवूळ बांदलां म्हणटकच आमी ताचे भक्त कित्याक जाले हाचेर बरोच उजवाड पडटा. ही सृश्टी तयार करपी ब्रह्मदेवाचीं देशांत चड देवळां नात ही अजापाची गजाल. आमच्या देवांक वर्सांचें व्हडलें पडूंक ना हाचो आनीक एक दाखलो दिवंचो जाल्यार भगवंतान गितेंत कितें म्हणलां ताचो बारीक अभ्यास केल्यार तुमच्या लक्षांत येतलें. 'परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम् धर्मसंस्थापनार्थाय सम्भवामि युगे युगे' म्हणजे म्हजे सारकेल्यांचें रक्षण करपा खातीर आनी दुर्जनांचो विनाश करपा खातीर भगवंत युगांतल्यान एकूच फावट येतलो. हाचो अर्थ तो एकदां येवन गेलो की ताची वाट बद्द दुसरे युगांत पळोवपाची. ताचे मदीं म्हज्या सारकेल्यांचें, धर्माचें कितें जातलें खबर ना. दुर्जनांकूय ही म्हायती बऱ्या पैकीं आशिल्ल्यान तांकांय दुसरें यूग ये सर रान मेकळें. सद्या आमच्या देशांत हीच परिस्थिती निर्माण जाल्या. माखनचोरान ही भूंय सोडली तेन्ना कलीयूग सुरू जालें अशें म्हणटात. म्हणजे कलीयूग सुरू जावन साधारण पांच हजार वर्सां जालीं अजून भगवंताक आमची काकुळट येवंक ना. सम्भवामि युगे युगे केन्ना जातलें ताकाच खबर. आमी फाटीं सम्भवामि युगे युगे भव्यनाट्य केल्लें तितलेंच. कलियुगाचीं आनीक चार लाख सत्तावीस हजार वर्सां आमकां काडपाक जाय . भगवान आयेगा जरूर आयेगा अशें म्हणत ताचे वाटे कडेन दोळे लावन बसपा शिवाय आमच्या हातांत कांय ना. ब्रह्माचो स्टेट्स हांवें तुमकां वयर सांगलाच. महादेव (तांडव नृत्य फेम) कैलासांत खंय तरी दोळे धांपून बसला आसतलो. ताची चूक ना. ताणें म्हजे वरीच संवसारांत कांयच सुख पळयलेंना. उरलो विष्णू. तो शेशाचेर सदांच आडवो न्हिदिल्लो दिसता. चवथी कडेन शिवराक जेवन सुस्ती मारिल्ले वरी तो आड पडिल्लो आसता. आतां सम्भवामि युगे युगे करतलो कोण हो व्हडलो प्रस्न.

आमच्या जाण्टेल्यांक हें वर्सांचें केन्नाच पडून गेलें ना हें हांवें आदीं सांगलांच. ते आपुणूच ब्रह्मदेव जाल्ले वरी सुशेगाद आपलीं वर्सां सारताले. हे परिस्थितींत तागेर भुरगीं जातालीं पूण तांची नोंद केन्नाच जायनाशिल्ली. तांकां हाचो केन्नाच त्रास जालो ना पूण पोर्तुगेज वतकच जांची नोंद रितसर जावनाशिल्ली ते मात आपूण खंयच्या वर्सा हे भुंयेर आयलों हाचो सोद घेत सरकारी खात्यांनी भोंवत उरले. कारण जल्म एका वर्सा आनी ताची नोंदणी सगळ्या भुरग्यां वांगडा सरसकट केल्ली आसताली. त्या काळांत हे धतरेचेर पदार्पण जाल्लो पुण्य काळ सोदून काडपाचो प्रॉसेस जीव घेणो तसोच वेळ घेणो आसतालो. आमचे तान लागतकच बांय खणपाचे संवयेन तो आनीक त्रासदायक जातालो.

''आगे हांव केन्ना जाल्लें तें वर्स तुका साप्प याद जायना?''

''आगो तुका हांव सांगतां कार्तीक पुनवेक म्हजो हात लागनाशिल्लो हें म्हाका घट्ट याद आसा.''

''आगे कार्तीक पुनव दर वर्सा पंचांगांत आसता, ही खंयची कार्तीक पुनव?''

''हय व्हो तुमकां कितें याद जाता?''

''आतां तुजो हात केन्ना लागतालो, केन्ना लागनाशिल्लो हाचे कडेन म्हजो कितें संबंद? तुमी वेळार दाखले केले नात म्हणून ह्यो उठाबश्यो न्ही सगळ्यांक''.

''हांवें खंय खंय म्हणून लक्ष घालपाचें? हेंय कर आनी तेंय कर!''

''आगे तुमी झगडटलीं काय म्हाका सारकें सांगतलीं?''

"म्हाका अशी काचाबूल करूं नाका आं मागीर हांव सामकीं घुसपतां. बाबजीबाबाक मोन्तेरान केन्ना आफोवन व्हेल्लो तुमकां कितें याद जाता? त्याच दिसा म्हजो हात लागना म्हणून शिताक दवरपाक सिताबायक आफयल्ली. याद जाता?"

"मोन्तेर बाबजीबाबाक आंतरेपयऱ्यान आफयतालो. मदीं तो त्रिबुनालार वतालो. सिताबाय आईची खबर घेंवक येताली. हातूंत तुजो हात केन्ना लागनाशिल्लो कशें म्हणून याद दवरपाचें हांवें? हांवें कितें कितें म्हणून याद दवरची अशी अपेक्षा तुजी? आतां पुर्तुगालाक वचून मोन्तेराक विचारूं तुजो हात केन्ना लागनाशिल्लो तो?"

"श्शी बाये! आमगेलो सदाभाऊ केन्ना भायर पडिल्लो? पंचमीक न्ही? आमी त्या दिसा कवळ्यां पालखेक पावंक नात. त्याच दिसा हांव माथ्यार न्हाल्यां. सारकें?"

"त्याच वर्सा आंतऱ्या पयऱ्यान तांबयो घेवन कुशीक बसता म्हणून तुका दोतोर केणयाक दाखोवंना? याद जाली?"

"श्शी बाये!"

आयचे पिड्येक हें वाचतकच अतिताय दिसतली पूण आपलो जल्म नेमको खंयच्या सालांतलो हें खबरनाशिल्ली मंड्ळी अजून तग धरून आसा.

आमचो पूत वा धूव थळ पळोवपाचे पिरायेचीं जातात तेन्ना आमकां ह्या वर्सांचो उपेग जाता. खंयूय सोयरीक व्हरची आसत जाल्यार थळाचें जल्माचें वर्स खबर आसप गरजेचें. मदीं हांव सोयरिको जमोवपाचें काम करतालों म्हणून हें म्हाका कळ्ळें. ही म्हायती बायलां कडल्यान सोंपेपणान केन्नाच मेळना. आपल्या अपत्याची जल्म तारीख कळ्ळ्यार आपली पिराय जगाक कळत म्हणून तांकां भंय. सगळें विचित्र आनी अवघड कशें. बायलो आपलीं वर्सां (पिराय) लिपयतात अशें आयकल्लें. पूण म्हज्या लग्ना वेळार ताचो अणभव आयलो. मध्यस्तान हिगेली पत्रिका दिल्ली तातूंत वर्सांचेर व्हायट ईंक लायिल्लें. हांवें हिचे आवयक रोखडेंच विचारलें.

"आमी काय आमच्या बायचो बालविवाह करून तुमकां त्रासांत घालचींनात. तेर्म करतना रेजिस्त्राराक कळ्ळ्यार पुरो. जगार कित्याक घालपाक जाय तें न्हय? तुमकां कितें दिसता?"

"सारकें! आनी तशें पळोवंक गेल्यार बालविवाहाचेर बंदी आसा".- हांव.

"तुमची जनरल नॉलेज बरी आसा आं! हेंऽहेंऽहेंऽहेंऽ"- हिचो बापूय.

मागीर हिणें आमी मिरामार गेल्ले कडेन आपली कम्प्लीट जल्म तारीख म्हज्या कानांत सांगली. म्हाका कानांत आकाशवाणी जाल्ले वरी जाली. आज लेगीत कोणेंय आमच्या व्हडल्याचीं वर्सां विचारल्यार सोंपेपणान सांगिना. 'आमचें व्हडलें न्हय तुमचे आर्वी परस दोन वर्सांनी ल्हान' अशी हिची जाप दिवपाची पद्दत. हेच खातीर रुशीचें कूळ, नदीचें मूळ आनी बायलांचीं वर्सां सोदपाचे भानगडींत पडचें न्हय अशें म्हजें मत. पूण ह्याच बायलांचो निदान आपल्या घोवान पंचविशी, पन्नाशी, लग्नाची एनिवर्सरी याद दवरची असो आगरो आसता. हालींच आमच्या लग्नाक पंचवीस वर्सां जालीं ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. म्हजे कडल्यान कसलीय अपेक्षा दवरप म्हणजे पिशेपणां. तातूंत तारखो याद दवरप म्हणजे म्हजे खातीर सत्वपरिक्षा. म्हाका म्हज्या बापायच्या श्राद्धाची तारीख याद उरना. बापूय आदल्या दिसा आईच्या सपनांत येवन याद करता म्हणून माणसुकी. मागीर हांव रोखडोच दिसाळ्यांत जायरात दितां. हालीं हालीं दिसाळींच फोन करून याद करतात. फाल्यां तुजो बापूय वचून इतलीं वर्सां जातात.... 'तू गेल्या पासून...' जायरात दिवपाची काय म्हणून. म्हजे अडेचशें रुपया वतात खरे पूण बापायच्या श्राद्धाची याद तरी जाता. तर, आमच्या लग्नाक फाटीं पंचवीस वर्सां जालीं. एक तारखेकूच हिणें म्हजी परिक्षा घेवपाक सुरवात केली.

"ह्या म्हयन्यांत कितें तरी आसा"- ही.

"लॉज शिवपाक जाय गो बाये. माकडांनी नळे फोडून उडयल्यात. जळोव सगळो भिजतलो. संवसारीकपणा कोणेंय तुजे कडल्यान शिकचें".

"बॉरींग! लॉज न्हय आनीक कितें तरी एक्सायटींग!"

"एक्सायटींग? नलून येता म्हणिल्लें येता खंय तें?"

"बायजणपणा नाकात आं. नलू येता जाल्यार तुमकां कित्याक एक्सायट जावपाक जाय?"

"साधू संत येती घरा तोची दिवाळी दसरा न्हय म्हणून म्हणलें!"

"ओगी रावात पळया! तुमकां म्हजें पडिल्लेंच ना, तुमकां हिण्ट दितां थोडा हमारा थोडा तुम्हारा... याद जाता?"

"आयेगा फिरसे बचपन हमारा. आवयस! गूड न्यूज गो?"

"कसली गूड न्यूज रे? विदेशांतल्यान काळो पयसो आयलो?" आईचें जपा वयल्यान लक्ष उडलें.

"तुमी आनी आई सारकींच! आमच्या लग्नाक ह्या म्हयन्याचे पांच तारखेक पंचवीस वर्सां जातात . सिल्वर ज्युबिली. कळ्ळेंऽऽऽ?"

"What a sweet surprise! खरेंच दिसना हांवें पंचवीस वर्सां काडलीं म्हणून! Full credit goes to you आं. मानचें पडलें. शुगर जाली, प्रेसांवाचें जालें पूण हांवें वर्सां काडलीं न्हय?"

"ओगी रावात आं! ताळी एका हातान वाजना. थोडा हमारा थोडा तुम्हारा..." अशें म्हणून ही लजली असो म्हाका भास जालो. भासूच आसूंक जाय तो! सोड. हांव भानगडी नाकात म्हणून सगळ्यो तारखो, एनिवर्सरी बी म्हजे डायरेंत बरोवन दवरतां. पूण डायरी उगडून पळोवपाची म्हाका याद उरना.

वयर म्हणलां तशें इतिहासकार सोडले जाल्यार वर्सांचें म्हत्व आनीक कोणाक पटलांशें म्हाका दिसना. हाचेर बरो अभ्यास करूनच हांवें हें मत मांडलां. हें मत मांडचे आदीं हांवें म्हांबऱ्याले फार्मासींत पासय मारून म्हांबऱ्याक शिवाजी महाराजान पन्हाळा किल्लो खंयच्या वर्सा घेतिल्लो खबर आसा तुमकां, असो प्रस्न केलो. म्हांबरो तेन्नाच तांबरेतीर उबो रावन निक्त्योच आयिल्ल्यो वखदां बाटल्यो आल्मारींत मांड्यालो. ताणें त्यो मांडपाच्यो बंद केले आनी म्हजे कडेन विचित्र नदरेन पळयत तांबरेतीवयल्यान सकयल देंवलो.

''कितें विचारलें तुवें? परत विचार पळोवया!''

''शिवाजी महाराजान पन्हाळा किल्लो केन्ना घेतलो काय विचारतालों''.

''केन्ना घेतलो म्हणजे? घेवपाक कोणा कडेन आशिल्लो तर? आनी घेतलोच जाल्यार आमकां कितें रे ताचें? हांगा कार्मिसायड, ड्युरोलॅक्स, कॅण्डीड ऑर्डर करून धा दीस जाले. तें येवंक ना तातूंत हांव आसा आनी तूं शिवाजी महाराजान पन्हाळा केन्ना घेतलो काय विचारता? म्हाका पन्हाळाय सारको आनी रायगडूय सारको. तारकारान देवळा कडेन 'रायगडला जेव्हा जाग येते' नाटक बसयल्लें म्हणून रायगड शिवाजी कडेन आशिल्लो हें कळ्ळें. तुज्या आईच्या कानार पन्हाळा प्रकरण घालचें पडलें. चल तूं घरा कडेन! हांगा थंय वचूं नाका आं आनी घरा कडेन पावतकच म्हाका फोन कर. म्हणजे राजे गडावर पोहचले हें म्हाका कळटलें. ह्हेंऽऽहेंऽह्हेंऽह्हेंऽ.''- म्हांबरो.

म्हांबऱ्याक शिवाजी महाराजान पन्हाळो खंयच्या वर्सा घेतलो इतलो सादो प्रस्न विचारलो आनी ताका म्हजी तकली सारकी ना असो दुबाव आयलो आसुंये. मागीर हांव फार्मासींत वतकच, 'राजे या, गडावरून केव्हा खाली उतरलात आपण? मासाहेब, राणीसाहेब सगळं कुशलमंगल ना' अशें विचारून म्हांबरो म्हजीं फकांडां करपाक लागलो. सांगपाचें म्हणजे इतिहासकारांक सोडून आम आदमीक असल्यो तारखो विचारप म्हणजे ताणें तुमची तकली फिरल्या असो दुबाव घेतलोच (अशें समजुपाचें)

आमच्या भुरगेपणांत चांदोबा, किशोर, एकलव्य ह्या म्हयन्याळ्यांनी सगळ्यो सरसकट काणयो 'फार फार वर्षांपूर्वी हर्शवर्धन नावाचा राजा वर्धनपुरी राज्यावर राज्य करत होता' अश्यो सुरु जाताल्यो. म्हणटकच वर्सांक व्हडलें म्हत्व दिवप ना हें आमच्या मनांत फीट बसून घट जाल्लें. फुडें इतिहासाच्या पेपरांत नाका जाल्ले 'When did Kadamba dyanasty rule Goa?' असले प्रस्न येवपाक लागले तेन्ना आमच्यो (म्हज्यो आनी दत्ताचो) जापो 'Many many years ago Kadambas ruled Goa' अश्यो आसताल्यो. आमकां आनीक गूण मेळचे हे आशेन 'An they lived happily ever after' अशी अदीक म्हायती आमी दिताले. पूण पेपर तपासून आमच्या हातांत पडटकच आमी साप्प निर्शेताले. शक सवंत् आनी ज्योर्जियन कॅलॅण्डर हांचे भितर जमीन आसमाचो फरक आसा हें खूब जाणांक खबर आसचेंना. कारण हालीं संकश्टी आनी विनायकीच पळोवपा खातीर कॅलॅण्डराचेर नदर मारप जाता. लग्नाची वा मुंजीची आमंत्रण पत्रिका छापतलो जाल्यार हें शालीवहन शक कॅलॅण्डर जाय पड्टा. देखीक, 'अमको अमको ह्याचा विवाह अमकें अमकें हिचे बरोबर मिती वैशाख कृष्ण प्रतिपदा, शके १९४१ रविवार दि. १९ मे २०१९ रोजी १२ वा. ३५ मि. या शुभमुहुर्तावर करण्याचे योजिले आहे' अशें छापचें पड्टा. जर आमी शक कॅलॅण्डरा नुसार छापिल्लें वर्स वाचलें जाल्यार आमी थारायल्ल्या म्हुर्तार लग्नाक वा मुंजीक केन्नाच पावचे नात. हे खातीर ज्योर्जियन कॅलॅण्डरा नुसार दिल्लो म्हूर्त वाचून सुवाळ्याक वच्चें अशी म्हजी नमळायेची मागणी. आमच्या शक कॅलॅण्डरांत केन्ना केन्ना अदीक म्हयनो येता (नेमको केन्ना येता तें खबर नाशिल्ल्यान केन्ना केन्ना म्हणलां). हो अदीक म्हयनो येता तेन्ना आमच्यो सगळ्यो परबो फुडें वतात. ह्या अदीक म्हयन्याचें कोंत म्हाका खबरना. आईन म्हज्या बोडक्यांत घालपाचो खूब यत्न केलो मागीर तिणें सोडून दिलें. हो अदीक म्हयनो चवथी आदीं येतकच चवथ फुडें वता आनी म्हाका खूब त्रास जातात. घोसाळीं, पिपऱ्यो, भेणे आनी हेर भाज्ज्यो मेळपाक कुस्तार जाता आनी दोब्राद पयशे दिवन त्यो हाडच्यो पड्टात. म्हणून हांवें ह्या अदीक म्हयन्याचो धसको घेतला (दुश्काळांत तेरावो म्हयनो हेच खातीर म्हणटात दिसता). 'If you want to know the value of one year just ask a student who failed a course' अशें म्हणटात. हांवें कितलींशींच वर्सां वगडायल्ले कारणान म्हाका वर्सांचो वालोर बरो खबर आसा अशेंच म्हणचें पडटलें. बरडाल्या पसऱ्यार वतालों तेन्ना बरड, 'पापया वर्सां अशीं कित्याक वगडायता रे?' अशें काकुळटेन विचारिल्ले वरी विचारतालो.

''बरडबाब, कोण जाणून बुजून आपलीं वर्सां वगडायता? आयुष्य ओघळोनी मी रिक्तहस्त आहे अशी स्थिती जाल्या म्हजी. अर्द कील रवो आनी एक कील चिकट गोड दियात. खटखटें करता अशी आई म्हणटाली''.- हांव.

''जग हांगाचें थंय जावंनी, तुजे जिबेचे चोचले बरे पुरय तूं!''- बरड.

''देवान पोट दिलां म्हणटकच तें सारकें भरूंकूच जाय न्ही बरडबाब! आनीक थोडीं वर्सां वगडायतलों जाल्यार कालेतीची कुयादाद घेवंनाका? तीस रूपया घाला पटयेर''.- हांव.

बरड म्हणटालो तातूंत तथ्य आशिल्लें अशें हांव म्हणना. फकत बीकॉमाक आपटी खाली म्हणून वर्सां वगडायलीं अशें जायना. जांणी ह्या देशांत तशेंच संवसारांत नामना जोडली तांणी आपले जिणेचीं कितलींशींच वर्सां फुडें ध्येय नाशिल्ले कारणान वगडायल्ल्याचीं आमकां तांची आपजीण वाचल्यार लक्षांत येता. अध्यात्माच्या मार्गार तर विचारूंच नाका. अध्यात्मांत गुरु मेळप गरजेचें. तो सोंपेपणान मेळना: अर्दें आयुश्य सारतकच तो मेळटा. तो शिश्याची परिक्षा घेता सर आनीक कांय वर्सां फुकट वतात. हे खातीर जांचे कडेन जिणेचीं मोलादीक वर्सां (फुकट) घालोवपाची तयारी आसा तांणीच अध्यात्मांत लक्ष घालचें अशें म्हाका दिसता. संशोधनाच्या मळार हीच परिस्थिती. वर्सांचीं वर्सां संशोधन करता पूण हाताक कांयच लागना अशी परिस्थिती. म्हणुनूच ह्या क्षेत्रा कडेन हालीं सरा भुरगीं वळनात. मुख्य कारण म्हणजे तांची वर्सां वगडावपाची तयारी नासता. हांव तांकांय दोश दिना. कित्याक तें देख दिवन सांगतां. म्हजे म्हायती प्रमाण न्युटनाचे तकलेर आपोल १६६५ सालांत पडलें. तो तेन्नाच प्लेगाची साथ आयिल्ल्यान आपल्या घरा वूल्सथोर्प हांगा आयिल्लो. तेन्नाच ही दुर्घटणा घडली. हांव दुर्घटणा हें उतर खूब जबाबदारेन

*(पान ३४ चेर)*

# बाकीबाबांच्या यादींचो 'मिलेर'

परिक्षण

'मिलेर' ही आमचे पिळगेच्या आनी ताच्या पयलींच्या पिळग्यांच्या जिणेंतली एक म्हत्वाची वस्तू. चड करून घरांतल्यो बायलो आनी समजिकाय आयिल्ल्या भुरग्यां कडेन मातयेचो वाटकुळोच मिलेर हो आसतालोच. आपल्याक मेळिल्ले मोडचे पयशे हे त्या मिलेरांत घालताले आनी जात्रां वेळार, फेस्तां वेळार हे मातयेचे मिलेर फोडून तांतल्या पयशांनी आपणांक जाय तीं काणयांचीं पुस्तकां वा खेळणी घेवप जातालें. हें करपाक बापाय कडेन पयशे मागपाची गरज भासनासली. घरांतल्या बायलांक तर अडीअडचणीच्या वेळार हे मिलेरांतले पयशे उपेगाक येताले. मागीर परत एक फावट नवो मिलेर घेवप आनी तांतूत परत मोडचे पयशे घालप अशें वर्सां संकीनी चलतालें. 'मिलेर' हें बाकीबाब बोरकार हांच्या सुपुल्ल्या ललीत लेखांचें पुस्तक हालींच वाचपांत आयलें ते वेळार ह्या मिलेराची म्हाका याद आयली.




बाकीबाब ह्या पुस्तकांतल्या 'मिलेर' ह्या लेखांत म्हणटात की ते पिरवळा रवीन्द्रबाब केळेकारागेर गेल्ले कडेन रवीन्द्रबाबान तांकां आपल्या नव्या पुस्तकाचीं कांय मुद्रितां वाचपाक दिलीं. रवीन्द्रबाब खंय दिसपट्टें कितें नवें सुचता, येवजता तें नेमान बरोवन दवरूंक लागलो आनी तांतूतल्यान 'वेळेवेल्यो घुलो' हें पुस्तक निर्माण जालें. कांय वर्सां आदीं मनोहरबाब सरदेसाय हांणी अशेंच करून आपल्या ल्हान- ल्हान कवितांचें पुस्तक 'जायो जुयो' हें उजवाडायिल्लें.

बाकीबाब ह्या लेखांत फुडें म्हण्टात की आपले पिळगे परस उपरांतचे पिळगेचे बरपी अदीक शाणे, अदीक संवसारीक, येवजणेचो पै पयसो पसून कोयरांत वचूंक दिनात. बाकीबाब म्हणटात "हें शाणेपण आपल्याक कशें आयलें ना? हाचे फुडें तकलेंतलें जें कितें खुद्यांत सांडून वता तें ह्या फुडें वेळच्या वेळार मिलेरांत उडोवपच. एकाद्री याद जांव, येवजण जांव, प्रसंग जांव, गांठायत वचप. बाकी म्हज्या आजतगायत संकल्पा भशेन होवूय केन्ना किंवजेत हें म्हज्यान सांगूंक नज. पूण म्हण्णी आसा न्हय 'काशीस जांवे नित्य वदावें'."

प्रत्येक मनशाच्या जिणेंत कांय अशे कांय प्रसंग आनी मनीस येतात जे त्या मनशाची पुराय जिणूच बदलून उडयतात आनी ते खातीर तांकां जुडिल्ल्यो यादी घट्ट मतींत उरतात. बाकीबाबांचे जिणेंतय अशे कांय कस लावपी खीण आनी तांची जीण वेगळ्या मोडणार व्हरून दवरपी कांय मनीस आयले तांचे विशीं म्हायती ह्या पुस्तकांतल्या ललित लेखांनी आयल्या.

कोंकणी साहित्याच्या मळार स. बाकीबाब हे जशे एक कवी म्हण फामाद आसात तशेच ते एक नामनेचे गद्य लेखक म्हणूनय ते फामाद आसात. तांणी 'फुलां', 'म्हजें उतरांचें पिशें', 'म्हजो गांव बोरी' अशे कांय फामाद निबंद बरयल्यात. तेच बराबर गोंयचें राज्यशास्त्र, समाजशास्त्र, कांय फामाद गोंयकारांचीं व्यक्तीचित्रणां, गोंयचीं इतिहासिक थळां अश्या साबार विशयांचेरूय निबंद बरयल्यात. हें सगळें वाचतना तांची वैचारीक आनी तार्कीक तांक कितली जबरदस्त आशिल्ली तें कळटा. एकाद्रो विशय घेवन ताची मांडणी करतना बाकीबाबांचो त्या विशयाचो अभ्यास आनी भाशेचेर आशिल्लें तांचें प्रभुत्वय लक्षांत येता. हातूंतले कांय निबंद बाकिबाबांच्या जल्मशताब्दी निमतान उजवाडाक आयिल्ल्या 'अप्रकाशित बाकीबाब' ह्या पुस्तकांत मेळयत.

'मिलेर' ह्या पुस्तकांत वट्ट २२ सुपुल्ले ललीत लेख आसात. ह्या सगळ्या ललीत लेखांक बाकीबाबांच्या यादींचें अस्तर आसा.

बाकीबाबांक आपल्या रासवळ घराची सामकी ओड. आपल्या 'घर' ह्या लेखांत बाकीबाब म्हणटात की तांच्या बापोलयान पिरायेच्या अठ्ठावीस वर्सांचेर हें एदें व्हडलें घर बांदिल्लें. पूण बांसष्ठ वर्सांचेर बाकीबाब आपल्या घरकान्नी सयत त्या घरांत रावपाक येता तेन्ना त्या घरांत तीं दोगांच आसतात. बाकीबाब घराची दुरूस्ती करून घेवपाक वता पूण ताका तें कठीण वता. एक दीस ती वास्तू मातयेभरवण जातली हाचो तांच्या मनाक घोर लागता. पूण वास्तूच्या रूपान तांचे भितरलो आवाज तांकां सांगता, "तूं आसा सर हांव कशेंच पडपाचें ना हाची खात्री दवर आनी आयिल्लो खीण लाखाचो हें वळखून तो गोड कर पळोवंया." आपल्या घरा विशीं आशिल्लें तांचें भावनीक नातें अशे तरेन ह्या लेखांत आमकां दिश्टी पडटा. आयजकाल चड अदीक सगळ्याच रासवळ घरांची हीच परिस्थिती जाल्या. एकतर तीं बिल्डरांच्या गळ्यांत पडल्यांत वा मातयेभरवण जाल्यांत. चिंतपाक लावपा सारको लेख हो.

बाकीबाब आपल्यांत आशिल्ल्या शिस्तीच्या उणेपणां विशीं 'शिस्त' ह्या लेखांत बरयतात. ते म्हणटात आपल्याक जर शिस्त आसली तर आपल्यांत आशिल्ल्या कुशाग्रबुद्धीचे बळार आपल्या प्रत्येक खिणांचें

भांगर जातलें आसलें.

आपल्याक जरी संवसार भर कवी म्हण व्हड पत आसा पूण आपल्या गांवांत मात आपली पत किरकोळ आसा. 'पिकता थंय विकना' ह्या म्हणीची याद तांचो 'उपकार जातीत' हो लेख करून दिता.

'चौकी' ह्या लेखांत बाकीबाब आमकां विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दसकांत सारस्वत समाजा मदीं स्मार्त आनी वैशणव हांचे मदीं 'एकी बेकीं'चें प्रकरण जाल्लें तें कितलें गरजे भायलें आनी हास्यास्पद (प्रकरण) आसलें ताचो इतिहास रामचंद्रराव उर्फ भाई देसाय हांच्या व्यक्तीमत्वाच्या चित्रणांतल्यान आयला.

'फिंर्गी गोंयकार' ह्या लेखांत कुंभारजुवेंचो बारांव तोमाज मोयरांव ह्या पुर्तुगेज गोंयकाराच्या उतर पाळपाच्या गुणा विशीं ते बरयतात. आयज आमी कोणाकय दिल्लें उतर रोखडेंच विसरून वतात, ताका पाळो दिनात अश्या वेळार तोमाज मोयरांव हांचे उतर पाळपाचो गूण खूब कितें सांगून वता. अशे हे सगळे यादींच्या रूपांतले ललीत लेख आमकां गोंयची सामाजीक आनी इतिहासीक भोंवडी घड्यतात.

बाकीबाबान आपल्या ह्या लेखांनी जी कोंकणी शब्दकळा वापरल्या ताचो म्हाका हांगा मुजरत उल्लेख करीन दिसता. आयज ती शब्दकळा नानपयत जायत वता. ह्या लेखांतलीं कांय उतरां आनी तांचो अर्थ आयचे पिळगेक समजुपाचो लेगीत ना इतली सुंदर कोंकणी बाकीबाबान वापरल्या. हे सगळे लेख म्हळ्यार सुंदर आनी निजाचे कोंकणीचो जातूंत दुसरे खंयचेय भाशेंतल्या उतरांची भेसळ ना हाचो एक उत्कृश्ट नमुनो!

देखी खातीर 'निष्ठेचो चमत्कार' ह्या लेखांतलो एक उतारो पळयात. ह्या लेखांत बाकीबाब बरयतात, ''एकाद्रो आंबो तोड्ये कडेन कुसत तर तितलो कुड्को कापून उडोवन तो खावं येता. पुण मानकुराद खावं नज. विसवण, कल्ली बी पोंवशेली जाल्यार मिठाक मारून ती खावं येता. पूण खरची, मुड्ड्शी खावं नज. धोर वा हेर कसलेंय जनावर कुसले जाल्यार ताची घाण एकादी सोसूं येत पूण मनीस कुसल्यार त्यो नर्कटाणी घेवं नज. फळ जावं, नुस्तें जावं, जीव जिवार जावं. जातीन जितलो उंच तितली ताची घाण अदीक दुस्सह. गोंयकार इतलो कुसला हातूंत दुबाव ना. पूण ताचे घाणींतल्यानच ताची उंच किलात म्हाका दिस्टी पड्टा.'' कितली सुंदर कोंकणी ही.

'अणभवांचो मिलेर' ह्या माथाळ्या खाला बरयिल्ल्या ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेच्या निमणे कडेन नामनेचे कवी माधवबाब बोरकार म्हणटात, ''सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार हें बरप एका प्रतिभावंत कवीचें हाची याद ह्या पुस्तकांतलो प्रत्येक लेख करून दिता. ताका काव्याची लय आनी संगिताचो ताल आसा. अणभवाचे हे ओथांबे मनाच्या पानांतल्यान टपटपत आसतात...''

हें पुस्तक उजवाडावपी 'कवी बोरकर स्मृती समिति, पुणे' हांणी बाकीबाबांचे (हे अप्रकाशीत) ललीत लेख उजवाडाक हाडून एक कोंकणीचो गड्गंज ठेवो वाचप्यां मुखार दवरला हातूंत दुबाव ना.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**'मिलेर'**
**उजवाडावपीः** कवि बोरकर स्मृती समिति, पुणे
**मोलः** पन्नास रुपया
**पानांः** ५६



*(पान ३२ वयल्यान)*

वापरतां. कारण मागीर हे भुंयेर आयिल्ल्या म्हज्या सारक्या भुरग्याक हे दुर्घटणेन छळ्ळा पळय! आसूं. १६६७ सालांत तो परत केम्ब्रिजाक गेलो आनी गुरुत्वाकर्शणाचो सोद लागपाक १६८७ वर्स उजवाडचें पडलें. हाचो अर्थ न्युटनान आपले जिणेची जवळजवळ बावीस वर्सां अशींच वगडायलीं अशें म्हाका खेदान म्हणचें पड्टा. तशें पळोवंक गेल्यार शास्त्रज्ञांनी तरेतरेचे सोद लावपाक आपलीं वर्सां वगडायलींच आनी तांणी लायिल्ले सोद शिकपाक आमी आमचे जिणेचीं वर्सां वगडायलीं. आसूं नशिबान जें वाडून दवरलां तें भोगून सोंपोवपाचें आनीक कितें! अध्यात्माच्या मळार गुरु सतायता तशेंच कलेच्या मळार लेगीत गुरूक लागून कितलींशींच वर्सां वगडावचीं पड्यत. देख दिंवची जाल्यार भारतरत्न भिमसेन जोशी हांची दिव येता. तांणी आपले जिणेचीं तीन वर्सां दिल्ली, कोलकाता, ग्वॉलियर, लखानव आनी रामपूर ह्या वाठारांनी फकत गुरूच्या सोदांत घालयलीं. आयचे पिड्येन कलेच्या मळार पावल दवरचे आदीं हे दृश्टीन विचार करचो अशी शिटकावणी हांव तांकां दिवंक सोदतां.

सिनेमांनी खूब फावटीं नायक आनी नायिकेच्या जिणेंतले भांगराळे खीण फ्लॅशबॅकाचो आधार घेवन दाखयतात. ह्या फ्लॅशबॅकांत तीं तांचें भुरगेपण, तरणाटेपण रूपेरी पड्ड्यार परत जियेतात. आज सिनेमे ईस्टमेन कलर जाल्ल्यान फ्लॅशबॅक ब्लॅक एण्ड व्हायटांत दाखयतात. जेन्ना सिनेमे ब्लॅक एण्ड व्हायटांत आशिल्ले तेन्ना फ्लॅशबॅक दाखोवचे आदीं पड्ड्यार ल्हारांशीं येतालीं आनी मागीर फ्लॅशबॅक सुरू जातालो. आसूं, तांकां भांगराळे खीण परत जगपाक मेळटाले तें म्हत्वाचें. केन्ना केन्ना म्हाका दिसता म्हजेय जिणेंत अशेच फ्लॅशबॅक येवंचे आनी आदले भांगराळे खीण म्हजे जिणेंत परत येवंचे. शाळेंत, कॉलेजींत सारिल्लीं तीं वर्सां परत जितीं जावन हांवें तीं जगचीं. आमच्या घरा कडल्यान बरडाल्या घरा मेरेन पायण ब्लॅक एण्ड व्हायट जांवची आनी संध्यान स्लो मोशनान हातांत चंबू घेवन मेळांय व्हरपाक येवचें. हें वाचतकच कितल्याश्याच जाणांची जीण ब्लॅक एण्ड व्हायट जावन दोळ्यां सामकार उबी रावली हें हांव जाणां.

हालीं म्हजे कडेन सगळे विचारवंत म्हणून पळयतात. विचारवंत ह्या नात्यान हांव तुमकां सांगूक सोदतां की जिणेक रिवाय्ण्ड, पॉज, डिलीट आनी फॉर्वर्ड हीं बटणां नात. हें मतींत दवरात आनी हातांत आयिल्ल्या खिणाचें भांगर करात. म्हणजे तुमकां जीण फ्लॅशबॅक करून ब्लॅक एण्ड व्हायट करची पडचिना.

संपर्क: 9850530756 

# कविता

## दोन कविता

**माधव बोरकार**

### जुंवो

ल्हवू ल्हवू बुडत वचपी सुर्या
गायता झाडांचीं स्तोत्रां
भिऱ्यांच्या लिपयेचीं
रावता भरत उतरां पेलें
रितेंपण मनांत
दवरला हांवें पेटोवन हुमऱ्यार
आत्म्याचो दिवो
येता लखलखून धारेर एक
काळखाचो जुंवो...



### पावस स्वातीचो

स्वातीच्या कुपा खातीर
थेंब्यांची अश्रेकणी
शिंपयेंतलो प्राणजयी
कोणां यादींचे मणी.

पिवन वीख मीरा
जाली घननीळी
तरी कृष्ण असो
पोर अवजाळी.

घेता प्राण शिंपयेंतलो
वेध गगनाचो
झडचो आसा अजून
पावस स्वातीचो...

संपर्क : 9423821448

## फेसबुक

**आर. एस. भास्कर**

फेसबुका वेल्यान आज
पळोवंक मेळ्ळो
गांवांतच्यान धुवडेन
घाल्लो पोस्ट

अपुरबायेच्या ताच्या
कुकडान आज
पयले पावटी
घाल्यां तांती
पोस्टा वेल्यान दिसता
कुकड रुपेस्त
कुकडा कडेन आसा
दिसता तांती

मागणी ताज्यी
आयकली म्होण
देवा कडेन तें
उपकारूय मानता

आतां ताका
जाणविकाय आयल्या
तांतेच्या पोटांत
आसा जीव

मुखारच्यान तें
तांती मारन फुटोवचिना
तांतेची पोळी
केन्ना घालचिना

आपूण आनी
पोळी खावचिना
घोवाकय आनी
खावंक दिवचिना

देवान घालो
प्राण न्हू -
आपूण जावन
काडूं कित्याक?

देवाच्यान तरी अशें
सांगून मागीर
देवाच्या नांवार तें
सोपुतूय घेता

एकूय तांती
तें कोणाक दिवचेंना
पुराय तशेंच
सांबाळून घेतलें

कुकड उपरांत
झोराक बसतना
उबेक खातीर तें
दवरतलें तांत्यो

तांती फुटून
पिलां भायर सरतलीं
आंगण भर अशींच
धावन भोंवतलीं

सानुल्याक ताच्या
संगात खेळूंक
कुकडापिलां हीं
आसतलींच मूं!

धुवडी सांगतले हें
रोखडेंच समजून घेवन
परतून हांवें
मारलें लायक!

संपर्क: 8891306123



# खुबदां अशें दिसता

**निलबा अ. खांडेकार**

खुबदां अशें दिसता
कवितेचे वोळी वोळींत देंवत वच्चें
दवरची इश्टागत घनिश्ट फक्त शब्दां कडेन
त्याच सांगातान शब्द-शब्द जोडीत वच्चें
येवजीचेंच न्हय दुसरें किदें
मळब खंयच्यान, कशें सुरू जालें आनी कित्याक (?)
हाचो लेगीत विचार करचो न्हय
आतां जाचो आरंभ जाता ताचो शेवट हो आसताच
हो शादूर विचारूय करचो न्हय

करचो न्हय विचार पावसाचो, कुपांचो, गडगडाचो
तशें तांचे बद्दल आमकां व्हडलेंशें कांयच खबर ना
ही गजाल वेगळी
म्हण 'थिअरी ऑफ केओस' बद्दल
हांवें चड उलयल्यारूय सारकें जावचें ना

पानां कित्याक गळटात, फुलां कित्याक झडटात
आनी तेन्ना झाडांक जाल्ल्या वेदनां बद्दल तरी
हांवें चिंतचेंच न्हय
चिंतचेंच न्हय हांवें तुटून पडिल्ल्या नखेत्रां विशीं
आनी मळबाक जाल्ले दात तुटिल्ल्याचे वेदने विशीं
हांवें फकत कवितेच्या वोळी-वोळींत देंवत वच्चें
सगळेंच संवसारीक भान विसरून
निरागस, निरामय जावन
जसो काळोख येता काळखा कडेन
उदक, उदका कडेन
आनी सगळ्याच वाटांनी सुटिल्लें वारें तर
एक जावनूच व्हांवता रावता
फक्त वारें जावन
काळखांतल्यान, उदकांतल्यान
मनां-मनांतल्यान
आनी कवितेंतल्यान लेगीत

दिसता शब्दांनीय म्हाका आपणावचो
कवितेच्या वोळी-वोळींत म्हाका दवरचो
जसो काळोख घेता मुळांक
जशें उदक घेता चंद्रिमाक
आनी अनंत घेता काळाक

खुबदां अशें परत-परत दिसता
कवितेच्या वोळी-वोळींत देंवत वच्चें
शब्दां वांगडाच उठचें-बसचें, भोंवत रावचें
आनी चडूच कासार जालो जाल्यार न्हिदून वच्चें
आनी न्हिदेंतूच एक दीस
बिनदास, मस्त मरून वच्चें

पळयलें न्हय,
कवितेच्या वोळी-वोळींतल्यान
हांव खंय-खंय पावलो तो (!)

सोड खबर
समज, सैम आनी पर्यावरण
हांचे बद्दल हांव कांय उलयलोच ना.

संपर्कः 9637092524



